# अघळ पघळ

(कांय बरपां)




रवीन्द्र केळेकार

**अघळ पघळ**

निबंदसंग्रह

रवीन्द्र केळेकार

प्रकाशन क्रमांक : 62





पयली आवृत्ती :
2005

**उजवाडावपी :**
मॅलविन वाज
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी,
243, पाटो कॉलनी,
पणजी, गोंय.

**छापपी:**
रूतू ऑफसेट
वळवय,
फोंडें, गोंय

मुखचित्र : विजय भांडारे

**मोल : रु. 60/-**

**Aghall Paghal** - Collection of Essays

by :
Ravindra Kelekar

Publication No. 62







First Edition :
2005

**Publisher :**
Melvyn Vaz
Secretary,
Goa Konkani Akademi,
243, Patto Colony,
Panaji - Goa.





**Printer :**
Rutu Offset
Volvoi,
Ponda, Goa.

Cover : Vijaj Bhandare

**Price : Rs. 60/-**

## अकादेमीचे वतीन...

भौ. रवीन्द्रबाब केळेकार हांगेलो 'अघळ पघळ' हो निबंद संग्रह उजवाडायताना अकादेमीक भोवच खोशी जाता.

1987 वर्सा भौ. रवीन्द्रबाब केळेकार हांणी अनुसर्जन करून बरयिल्ल्या 'महाभारत' ग्रंथाच्या दोन खंडांक अकादेमीन प्रकाशनाखातीर अर्थीक पालव दिल्लो.

ताचेउपरांत आयज खासा रवीन्द्रबाबांचें स्वतंत्र पुस्तक प्रकाशीत करपाची संद अकादेमीक मेळटा हें व्हड भाग्यूच.

फाटलीं पन्नास वर्सां रवीन्द्रबाब हांणी विंगड विंगड प्रकारचें लिखाण केलां. तातूंत वैचारीक निबंद आनी ललीत निबंद हे साहित्यप्रकार मुखेलपणान तांणी केळयल्यात.

रवीन्द्रबाबांचो प्रदीर्घ जिणे-अणभव, वाचन-चिंतन आनी मनन तशेंच गांधीतत्वांचेर तयार जाल्ली विचारसरणी हांकां लागून तांच्या साहित्याक खराय आनी खोलाय फावो जाल्या. कोंकणी साहित्याक, खासा करून निबंद साहित्याक, तांणी आपल्या चिंतनाच्या परीसस्पर्शान भांगराळें रूप दिलां, ताका गिरेस्त केलां. धर्म, संस्कृताय, आचार-विचार, जल्म ते मर्णा मेरेनची मनशाची जीण, अश्या विंगड विंगड विशयांक आफुडपी आनी तांचेविशीं केन्ना आयकूंक/वाचूंक नाशिल्ले माहिती वांगडाच चिंतनाचीं जायतीं वलयां निर्माण करपी ही बरपावळ वाचप्यांक मानवतली हाची खात्री आसा.

रवीन्द्रबाबांसारख्या विचारवंत आनी प्रस्थापीत साहित्यिकांचें बऱ्यांतलें बरें साहित्य वाचप्यांक वाचूंक मेळचें हे नदरेन 'साहित्य-प्रभा' (प्रकाशन-पूर्व) ही खाशेली येवजण आकादेमीन सुरू केल्या. हे वळेरेंत नामनेच्या आनी प्रस्थापीत लेखकांचीं बरीं पुस्तकां वाचप्यांचे भेटेक येतलीं. ह्या उपक्रमाचें स्वागत जातलें अशी अकादेमीक आस्त आसा.

**पुंडलीक नायक**
**अध्यक्ष,**
**गोवा कोंकणी अकादेमी**

# हृद्गत

कितेंय तरी घडलां - आयकलां, पळेलां वा वाचलां - आनी अंतरमनांतले अणभवांचे कोठयेंत लिपून राविल्ल्या कित्याक तरी जाग येवन तें फट्ट करून वयर सरलां. रोखडीच लिखणी हातांत घेतल्या आनी तें जशें आयलां तशेंच बरोवन काडलां. फाटल्या कांय वर्सांच्या काळांत अघळ पघळ शैलींत आयिल्लीं हीं कांय अघळ पघळ बरपां एकठांय करून बाय माधवीन म्हज्या हातांत दवरलीं आनी 'हांचें एक पुस्तक काडुंया' अशें म्हळें तेन्ना पुस्तकाक 'अघळ पघळ' सोडून फावऽ सारकें दुसरें नांवूय येवजलें ना.

आयष्यभर 'हें बरोवंक जाय, तें बरोवंक जाय' करीत बरयत रावलां. मुजरत सांगूंक जाय - ह्या पुस्तकांतलें एकूय बरप 'बरोवंक जाय' अशें चिंतून बरोवंक ना. सगळीं सहज आयल्यांत. म्हज्यांतल्या कलाकारान तीं उपरांत घांसून पुसून निवळ करून दिवं, पुणून आयल्यांत तेन्ना सर्जनाची जी खोस भोगिल्ली तिका ताणें निखालूस आडखळ हाडूंक ना.

हुस्को आशिल्लो उजवाडावणेचो. कोंकणी अकादेमीन तो पयस केल्ल्यान म्हजे खोशयेंत भरूच पडल्या म्हणूंक जाय.

प्रियोळ

# मांडावळ

# 1
# एक उगडास - हृषिकेशाचे यात्रेंतलो

आवयच्यो अस्थी घेवन हरिद्वाराक गेल्लों. हरशीं, अस्थी घेवन खंयच्याच तीर्थांत वचपाची गोंयकाराक गरज भासूंक जायना. सैमान ताका एक व्हड सागर दिला आनी शास्त्रांनीच **सागरे सर्व तीर्थानि** - सागरांत सगळीं तीर्थां आसपावतात, अशें म्हळां. पुणून बापायच्यो अस्थी ह़रिद्वाराक व्हरून गंगेक ओंपिल्ल्यो. आवयच्योय, म्हळें, तिकाच ओंपिल्ल्यो बऱ्यो. नांवूय तिचें गंगाबाय.

विधी सोंपतकूच सोमतें रातचे गाडयेन परतें येवं येतालें. पुणून हरिद्वाराक पावतकूच हृषिकेशाक वचून आयले बगर रावं येता? म्हजो आवडटो वाटार हो. जितलेय खेपे पावलां तितलेय खेपे दोन दोन, तीन तीन दीस रावन परतलां. हेय खेपे, म्हळें, हरिद्वार, हृषिकेश, लक्ष्मणझूला, स्वर्गाश्रम बी थळांक भेट दिवन येतलों. वतना खांदावेले पिशवेंत हांवें शांयशीं रुपयांची मोड व्हेल्ली. लक्ष्मणझूल्यार लाचारेन हात मुखार काडून भीक मागपाक बशिल्ल्यो बोडक्यो बायलो कितल्योश्यो दिश्टी पडटात. आवयच्या एका एका वर्साच्या हिसपान शांयशीं बायलांक एक एक रुपया दितलों अशें थारायल्लें. धा बारा जाणींक दिले. उपरांत एक तरणे पिरायेची बायल मेळ्ळी. हिका, म्हळें, कित्याक दितलों? हिच्यान खंयूय वावर करून जोडूं येता. गलितगात्र जाल्यात तांकांच दितलों. तिका सोडून मुखार गेलों. आनी मुखार एकलेच्या हातार एक उडयलो. फटक् करून फाटली तरणी बायल उठून म्हजेर गाळींचो शिंवर घालपाक लागली. ‘मरूं तूं... पाड पडूं तुजें. आमचे वरी तुजी भयण हांगा येवन पडूं... आवय पडूं... बायल पडूं... सगळीं वाऱ्यार पडूं...’ हांवें कच्च करून आंग काडलें. म्हळें, पाड पडलें

हिचें. आतां कोणाक कांय दिवप ना. आनी हांवें पयशे वांटपाचें बंद केलें.

मुखार पांच सात पावलांच्या अंतरार चाळिसां भितरले पिरायेचो एक संन्याशी चलत वतालो. ऊंच, काळो सांवळो. एक एकले बोडकेक तो तुकू तुकू करून पळेतालो. मदींच थांबतालो आनी मुखावयले बोडके बायलेक कितें तरी विचारतालो. प्रस्न आनी जाप आयकतकूच दिसलें, हो बंगाली आसूंक जाय. पुणून तो एक एकलेक बारिकसाणेन नियाळून कित्याक पळेता आनी मदींच कोणाची कसली वासपूस घेता, म्हज्या लक्षांत आयलें ना. ताचेच गतीन ताचे फाटल्यान चलत रावलों. लक्ष्मणझूला काडून आमी स्वर्गाश्रमांत पावले. थंयच्यान परमार्थनिकेतना कडेन पावले. वाटेर जितल्योय बोडक्यो मेळ्ळ्यो, तितल्यांकूय ताणें नियाळून पळेल्यो.

परमार्थनिकेतनांत गोरखपुरचे गीताप्रेस संस्थेचीं पुस्तकां मेळटालीं. तीं पळोवपाक गेलों. **रामचरितमानस** एक घेतलें आनी भायर आयलों. मुखावयलो घाट सपणां सपणांचो. उपरांत गंगेचें रुंद पात्र. तिचे वयल्यान एक तार लोकांक हेवटेनचे तेवटेन, तेवटेनचे हेवटेन पावोवपाक कितल्योश्यो फावटी मारताली. संन्याशी एका सपणार बसून हो देखाव नियाळीत राविल्लो. हांव ल्हवूच ताचे बगलेक वचून बसलों. 'नमस्ते जी, आपको बुरा तो नहीं लगेगा? मैं आपसे कुछ पूछना चाहता हूँ... आप उन बेवा औरतों से क्या पूछ रहे थे?' हांवें ताका विचारलें.

'मैं किसी को ढूँढ रहा हूँ', ताणें जाप दिली.

'किसको?'

'अपनी बुआ को' अशी जाप दिवन ताणें म्हाका तिची खबर सांगली -

'हांव सात वर्सांचो आशिल्लों तेन्ना तिका लग्न करून दिल्ली. समाजाचे पाडे चालीक धरून तेरा वर्सांचे पिरायेर. घोव तीस वर्सांचो. ताची पयली बायल मेल्ली. ताचें हें दुसरेपणांतलें लग्न. लग्नाक स-सात म्हयने लेगीत जावंक नात, गांवांत कॉलेराची सांथ आयली. हे सांथींत तो भायर पडलो. 'अवदिसा ही... घरांत येनाफुडें हिणें घोवाक खालो' अशें म्हणून घरच्या लोकांनी तिका घरा भायर घाली. बावडी खंय वतली? कुळारा आयली. कुळारा फकत व्हडलो भाव - म्हजो बापूय. सनातनी संस्कारांचो. कडक सामको. घरांत विधवा आसूंक जायना, भुरग्यांचेर तिची नदर पडूंक जायना ह्या विचारांचो. म्हाल्याक आपोवन ताणें तिका बोडकी केली आनी

गुवाहाटीक कामाख्येच्या देवळा मुखार व्हरून सोडली. म्हयन्या देड म्हयन्यान चलत चलत बावडी परती कुळारा आयली. तिका पळेनाफुडें आमच्या घरच्या लोकांनीच न्हय, तर चाळींतल्या शेजाऱ्या-पाजाऱ्यांनी लेगीत कुलकुलाट केलो. म्हूण म्हज्या बापायन तिका उडिसांतल्या जगन्नाथपुरीच्या देवळा मुखार व्हरून सोडली. थंयच्यानूय ती म्हयन्या देड म्हयन्यान परती चलत आयली... गुवाहाटी, जगन्नाथपुरी थळां कलकत्त्याक लागीं. म्हूण उपाय नासून म्हज्या बापायन तिका रेल्वेन बद्द द्वारकेक व्हरून सोडली. द्वारका कलकत्त्या सावन मैलांचे मैल पयस. चलून येवप सोंपें न्हय. मुखार तिचें कितें जालें, कोणाक खबर ना. कांय वर्सांनी सगळीं तिका विसरलीं... हांव विसरूंक ना. म्हजो बापूय तिका फरफरीत ओडून व्हरता आसतना तिणें जो रडून आकांत केल्लो तो अजून म्हज्या कानांत म्हाका आयकूंक येता... तिचें काकुळटेचें तोंड अजून म्हज्या दोळ्यां मुखार जिवें तट्टटीत जावन उबें रावता. घरच्या सगळ्यांचीं निश्ठूर काळजां पळोवन म्हज्यांत जीं विद्रोहाचीं ल्हारां उसळ्ळेलीं तींय अजून तश्शीं उसळटात... हांव शिकलो. समाजशास्त्र घेवन एम्. ए. जालों. पुणून नोकरी करपाची, लग्न जावन घरसंवसार घेवन बसपाची इत्साच केन्ना जाली ना... समाज बदलूंक जाय, मुळा सावन बदलूंक जाय... समाजांतल्यो नश्ट्यो पाड्यो चाली सगळ्यो हुमटावन उडोवंक जाय हे उत्फर्के म्हाका चार चौगां सारकें जिवीत जियेवंक कशेच दिनात जाले. पुराय आयुष्य समाज बदलपाच्या वावरांत खर्चितलों अशें थारावन हांव समाजवादी पक्षांत वावरूंक लागलों. मार्क्सवादी जालों... नक्सलवादी जालों. पांच सात वर्सांच्या अणभवा उपरांत, हांचे भितरल्या कोणाच कडेन समाज मुळा सावन बदलपाचे वावर नात... सगळे राजकी नदरेनूच चिंततात... सरकारां बदलतकूच समाज बदलतलो अशें मानतात... कायदे करून समाज सुधारतलो अशें धरतात... लोकांचो पोटा पाणयाचो प्रस्न सुट्टकच सगळे प्रस्न आपशीं सुट्टले ह्या भावार्तान सगळे वावुरतात म्हणपाच्या निर्णयार पावलों... गांधीवाद, समाजवाद, मार्क्सवाद, नक्सलवाद... सगळ्यो (आमच्या देशांत तरी) बुद्धिजिवी बेकार लोकांच्यो चैनी... 'मिडल क्लास लग्झरीस' जावन पडल्यात अशें म्हजें मत जालें. आनी उबगून हांवें हो पाडो समाजूच सोडून दिलो. संन्याशी जालों. फाटल्या आठ वर्सां सावन देशभर भोंवतां... तिका

सोदीत. खंयूय तरी मेळटली हे आशेन द्वारकेक, मथुरेक, वृंदावनांत, वाराणसीक, प्रयागाक सगळे कडेन वचून आयलां. कोणागेरूय तरी ती आसतली हे आशेन कितल्याशा पंड्यांगेर, महंतांगेर वचून रावलों. पंचेचाळीस पन्नास वर्सां भितरली जी जी विधवा दिश्टी पडली तिका नियाळून पळेली... अजून म्हाका ती मेळूंक ना. म्हाका ती सस्तूय बसूंक दिना. एक दीस खंयूय तरी ती मेळटली... उपरांत तिका हांव म्हजे वांगडा घेतलों आनी तिचेर जाल्ल्या अन्यायांचें तिची सेवा करून प्रायश्चित घेतलों म्हूण आसां... मेळटली ती म्हाका, हे विशीं इल्लोय दुबाव ना. ती आसा खंय तरी...'

उलयतां उलयतां ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं. पयलोच संन्याशी हो, म्हज्या आयुष्यांतलो, जाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांविल्लीं हांवें पळेल्लीं.

थोडो वेळ तो ओगी रावलो. मागीर दोळे पुसून उलोवपाक लागलो - 'उत्तर प्रदेशांत सुमार साडे तीन लाख बंगाली विधवा येवन रावल्यात. एके वाराणसींतूच पन्नास-साठ हजार आसात. वर्सान वर्स ह्या थळांनी धा-एक हजार बंगाली विधवा पावतात... पंचवीस ते पांसठ वर्सां मदले पिरायेच्यो. हांच्यांतल्यो पंचवीस ते चाळिसां मदल्यो भीक मागिनात... खंयच्याय तरी पंड्यागेर वा महंतागेर वावराड्यो म्हूण, रांदपिणी म्हूण काम करतात, भुरग्यांक सांबाळटात. आनी तांच्यो रखेल्योय जावन रावतात... चडश्यो सगळ्यो ब्राह्मण, कायस्थ, वैद्य जातींतल्यो... चाळिसां वयलेच पिरायेच्यो भीक मागतात... त्यो मेल्यो जाल्यार तांच्या प्रेतांचेर दावो सांगपाक कोणूच येना तेन्ना त्या त्या थळांतल्यो नगरपालिका तांचीं प्रेतां न्हंयेंत सोडटात. न्हंयेंतलीं नुस्तीं मागीर तीं खावन उडयतात...'

हांवें म्हळें, 'हांव खूब कडेन पावलां... सगळे कडेन हांवें विधवा भीक मागतात त्यो पळेल्यात... एका प्रस्नाची जाप म्हाका अजून मेळूंक ना - विधवा सगळ्या प्रांतांनी आसात, पुणून हेर प्रांतांतल्यो चडश्यो कोण ह्या थळांनी दिश्टी पडनात... बंगालीच चड दिश्टी पडटात... तें कित्याक लागून?'

'पयलीं दिसनाशिल्ल्यो. अठराशें एकुणिसा सावन दिश्टी पडपाक लागल्यात. बंगालांत दोग व्हडले समाज-सुधारक जावन गेले. एक, राजा

राममोहन रॉय. दुसरो, ईश्वरचंद विद्यासागर. दोगांयनी सतीचे चाली आड चळवळी चलयल्यो... त्यो इतल्यो प्रभावी जाल्यो की लॉर्ड विल्यम बॅन्टिकाक सतीचे चाली आड कायदो करचो पडलो. खंयचेय बायलेक घोवाच्या सरणाचेर बळयां चडयतल्यांक ख्यास्ती जातल्यो म्हूण ताणें जाहीर केलें. सतीची नश्टी चाल बंद जाली. पुणून विधवां कडेन पळोवपाची लोकांची नदर मात हो कायदो निखालूस बदलूंक पावलो ना. परिणामीं, विधवांक घरा भायर धालून तीर्थस्थळांनी व्हरून सोडपाची नवी चाल लोकांनी सुरू केली. सती गेल्ल्यो जाल्यार एकूच फावट हुलपून मरतल्यो आशिल्ल्यो. आतां बावड्यांच्या नशिबांत आयुष्यभर हुलपत रावपाचें आयलें. राममोहन आनी विद्यासागर हांच्या चळवळींनी फकत एक आंग सफळ करून दाखयलें. ह्या प्रस्नाचें जें विधायक आंग - विधवांचीं परतीं लग्नां करूंक जाय म्हूण चळवळ चलोवपाचें तें - नेटान फुडें व्हरपाचें ते व्हरूंक पावले नात. बंगालांत तांचे फाटल्यानूय कोणेंच तें केलें ना... कायदो करचे पयलीं खूब प्रबोधन जावंक जाय. कायद्या उपरांत तर तें अदीक नेटान चलत रावूंक जाय. ना जाल्यार सुधारणा मूळ धरूंक पावनात. फकत आर्थीक आनी राजकी प्रस्नांचेर लक्ष केन्द्रीत केलें म्हूण देस वयर सरपाचो ना. सामाजीक प्रस्नांचेर अदीक लक्ष दिवंक जाय. लोकांचें मानस बदलूंक जाय. ना जाल्यार आमचे सगळे वावर उखलापेच उरतले. पुणून कोणाच्याच लक्षांत हें येना.'

अवचीत 'अच्छा जी, अब चलता हूँ' अशें म्हणून तो उठलो आनी आयिल्लो तेच वाटेन तुरतुरीत परतलो. हांव तारींत बसून पलतडीं आयलों. बसीन हरिद्वाराक गेलों आनी रातचे गाडयेन दिल्लीक वचपाक भायर सरलों.

सुमार पंदरा वर्सां जाल्यांत जातलीं हे खबरेक. अजुनूय मदीं मदीं म्हज्या सपनांत हो संन्याशी येता आनी ताचे वांगडा जिका हांवें केन्ना पळोवंक ना ती तागेली विधवा आत्याय म्हाका दिश्टी पडटा. आनी तिच्यांत म्हाका म्हजी आवय दिश्टी पडटा.

मन उचांबळीत जावन न्हीद साप्प उडून वता.

जाग : जानेवारी 2001



## 2

# गेलीं खंय गिरबुजीं?

भुरगीं धुमशेणां कांडटालीं. घर सगळें माथ्यार घेतिल्लें. म्हळें, हांकां एक काणी सांगतलों. ओगी बसून आयकतलीं. आनी हांवें काणी सुरू केली, 'एक आशिल्लें गिरबुजें...'

मुखार गिरबुज्या सारकें एक चली बशिल्लें. चार वर्सांचें. 'गिरबुजें म्हळ्यार कितें?' ताणें विचारलें. म्हळें, हाची 'मातृभाषा' सॅर्त मराठी आसूंक जाय. आनी हांवें 'एक आशिल्ली चिमणी' म्हळें.

परत ताचो तोच प्रस्न. 'चिमणी म्हळ्यार कितें?' ताणें कांय शेवणीं पळेल्लीं. तांचीं नांवांय ताका खबर आशिल्लीं. 'चिमणी' ताणें पळोवंक नाशिल्ली. एक आशिल्लें शेवणें म्हळ्ळें जाल्यार 'खंयचें शेवणें' काय म्हूण विचारतलें आशिल्लें. केजींत आसा. म्हळें, हाका 'स्पेरो' म्हळें जाल्यार जिस्त कळटलें. अंतरराष्ट्रीक भास न्हय ही? संवसारभर चलता! म्हूण हांवें म्हळें, 'एक आशिल्लो स्पेरो'. तरीय, हांव 'कोण आशिल्लो' म्हणटां तें ताका कळ्ळें ना.

हांवें दुसरीच एक काणी सांगची अशें येवजिलें.

भुरग्यांक राकेसांच्यो काणयो सांगूंक फावनात म्हूण जाणकार सांगतात. तें आयकत सावन हांवें भुरग्यांक रामायण लेगीत सांगपाचें सोडून दिल्लें. धा तोंडांचो राकेस येता रामायणांत - रावण. तांणी 'एक दाखय' म्हळो जाल्यार खंयचो दाखयतलों, म्हूण हांव 'एक आशिल्लो राजा' करून काणयो सांगपाक लागलों. एक दीस एका भुरग्यान म्हाका 'राजा म्हळ्यार कोण' काय म्हूण विचारलें. 'आमचे सारकोच एक मनीस', हांवें सांगलें.

'पुणून ताचे कडेन खुब्ब पयसो आसता, तो व्हडल्या एका घरांत रावता... ताच्या घरांत वावराड्यो वावराडे खूब आसतात...' ताणें एका व्हड भाटकार-मिनेराचें घर पळेल्लें. तागेर् वावराड्यो वावराडेय पळेल्ले. 'तो राजा?' भुरग्यान विचारलें. म्हळें, 'राजाच तो एके तरेचो. पुणून ह्या राजांत आनी खऱ्या राजांत एक फरक आसा. खरो राजा लोकांक भियेता. ताका शिपायक राखतात... ताच्या दारांत लेगीत शिपायक उबे आसतात...'

भुरगो केन्ना तरी पणजे पाविल्लो. बापायन ताका आलतिन्या वयलें मुखेलमंत्र्याचें घर दाखयल्लें. आनी 'हें गोंयच्या राजाचें घर' म्हूण सांगिल्लें. ताच्या घरा भोंवतणी पुलीस उबे आशिल्ले ताणें पळेल्ले.

'आमचो मुखेलमंत्री लोकांक भियेता?' भुरग्यान म्हाका विचारलें.

म्हळें, राजा राणयांक आतां इस्पिकांच्या पानांनीच दवरूंक जाय. काणयांनी हाडूंक फावना. म्हूण हांव भुरग्यांक 'इसापा'च्यो काणयो सांगपाक लागलों. इसापाचो एक कोलोच पुरो, पिश्या अबरगत भुरग्यांक लेगीत शाणे शिटूक करपाक.

एक दीस म्हज्या नातवानूच म्हाका धसको दिलो. 'कोलो कसो आसता?' ताणें विचारलें. 'इसापनीत' उकती करून हांवें ताका चित्रांतलो कोलो दाखयलो. 'आंवंय, हो आलशेशियन सुणो' नातवान म्हळें. 'सुण्याक कोलो म्हणटात?' देवा, म्हळें, कितें करून उडयलें रे तुंवें संवसाराचें? राकेस दवरले नात. राजाय उरले नात. कोलेय ना केले? काल पयर मेरेन आमचे अंत्रूजेंत ते खंयूय दिश्टी पडटाले मरे. आमच्या घरा शेजारच्या जायां मळ्यांत तर सद्दां सांजचे घे म्हूण येताले. खंय गेले ते आयज? गिरबुजींय ना केलीं काय कितें तुंवें?

तेन्ना सावन मेळत ताका हांव विचारीत रावलां, 'हालिंसाराक गिरबुजीं तुमगेर घोंटेर बांदतात? गिरबुजें तुमी निमाणें केन्ना पळेल्लें?'

तरातरांचीं शेवणीं दिश्टी पडटात आमकां आमचे सरभोंवतणी. 'दिश्टी पडटात' म्हणचे बदला 'आयकूंक येतात' म्हणूंक जाय. कित्याक, आमचेर नदर पडनाफुडें तीं उडून वतात. सगळीं बुजरीं. एकलेंय आमचे लागसार येना. आपले घोंटेर लेगीत पयस खंयच्या तरी झाडांचेर बांदतात. मनीस रावता त्या घरांत घोंटेर बांदता तें फकत गिरबुजें. तेंवूय बुजरें, पुणून तें

सदांच मनशांच्याच सांगातांत रावलां.

तीन चार वर्सां जालीं, हांवें गिरबुजें पळोवंक ना.

लंडनांतले 'रॉयल सोसायटी फॉर प्रॉटेक्शन ऑफ बर्डस्' संस्थेन आपणाले 'तांबडे वळेरें'त 'मोट्या वेगान ना जावंक लागिल्ल्या' शेवण्यांचीं नांवां दिल्यांत. तांच्यांत खंय आमच्या गिरबुज्याचोय आसपाव आसा. 'डावन टू अर्थ'च्या एका आंकांत म्हाका हें वाचूंक मेळ्ळें. कितल्याश्या जातींचीं सुकणीं शेवणीं संवसारांतलीं ना जावन गेल्यांत. कदीम काळा सावन कांय पारवे एका देसांतल्यान दुसऱ्या देसांत चिटी घेवन वताले. इकुणिसाव्या शतमानाच्या दुसऱ्या दसका मेरेन तांणी ही 'कुरियर सर्व्हीस' चलयल्या. उपरांत इल्ले इल्ले करून ते ना जावपाक लागले आनी आतां तर सामकेच ना जावन गेल्यात. पारव्यांचेच जातीचे पुणून दुसऱ्या एका फांट्याचे कवडेय आतां दिश्टी पडनात. दोन चार वर्सां पयलीं आमच्या आंगणांत येदन बसताले. खंय गेले हे पारवे आनी कवडे? तर खंय मनशान खावन उडयले. 'पाड पडलें, म्हळें मनशाचें, मरूं आशिल्लो तो.'

गिदूय ना जावन गेल्यात. ते गांवांत खंय रावतात, कोणाक खबर नासता. पुणून खंयच्याय दोंगरार पाडूक रेडूक, सुणें बिणें कोणूय मरून पडिल्लें आसल्यार पुरो, गिदांक कशें कळटा कोण जाणा! पंदरा वीस मिनटां भितर ते खंयच्यान तरी देंवतात. येतना सांगाताक दोगां चवगांक घेवन येतात. आनी अर्द वरा भितर सगळो वाटार निवळ करून वतात.

म्हाका गिदांचो आनी कावळ्यांचो खूब भौमान. सैमाचे नगरपालिकेचे 'सफाई कर्मचारी' ते. केन्ना पगार मागिनात. केन्ना संपार वचनात. सुटीय केन्ना घेनात.

गीद, कावळे नाशिल्ले जाल्यार घाण कोण काडटलो आशिल्लो?

दिल्लींत सुमार चार हजार गीद आशिल्ले. जंय शाराची 'गार्बेज' हाडून ओततात थंय कितलेशे पळोवंक मेळटाले. 1998 उपरांतच्या काळांत एकूय दिश्टी पडूंक ना. कितें जालें? तर खंय दिल्लींत येतल्या वतल्या विमानांक तांचे पसून त्रास जावपाक लागलो म्हूण विमानतळावेल्या अधिकाऱ्यांनी मारून उडयले.

दुसरेंय एक 'व्हर्शन' आसा. गारबेजींत खंय विखाळ वखदां खावन

मेल्लीं जनावरां आसतालीं. तीं खावन खंय ते मेले.

राजस्थानांतले गीद ना जावंक लागल्यात म्हूण चलिल्ली पिंरगणी, कांय वर्सां जालीं, खूब आयकल्या. आतां 'सारस' नांवाचें तांगेलें शेंवणेंय ना जावंक लागलां म्हूण चलिल्ली पिंरगणी कानार पडूंक लागल्या. राजस्थानी लोकां-काणयांनी आनी लोकां-गितांनी सारस भौन भौन येता. धा बारा वर्सां पयलीं भरतपूरच्या वाटारांत कांय मेल्ले सारस पळोवन खंय राजस्थान खूब हुसक्यांत पडलां. पडपाचेंच. तांकां वांचोवपाचे उपाय तें सोदता.

कित्याक लागून हें शेवणें मरूंक लागलें? तर खंय शेतांत घाल्लीं गंवांचीं बियां तें खातालें. ताणें बियां खावंचीं न्हय म्हूण शेत रोवपी लोक बियांचेर एल्ड्रीन नांवाचें वखद मारूंक लागले. वखद मारिल्लीं बियां खालीं आनी तीं मेलीं.

गिरबुजीं कित्याक ना जालीं?

एक कारण - मनीस रावतात त्या घरांनी तीं आपणाले घोंटेर बांदतालीं. तांकां नळ्यांचीं घरां जाय पडटालीं. नळ्यांच्या घरांनी आयज कोण राविना. बंगले आयल्यात. फ्लॅट आयल्यात. तांणी घोंटेर खंय बांदपाचे ? तांकां सुवातूच मेळना जाल्या.

दुसरें कारण - तीं खातालीं त्यो किडी शेतांचेर वखदां मारिल्ल्यान ना जावन गेल्यात.

आयचें वास्तुशिल्प गिरबुज्यांनी खंय रावचें हाचो विचार करिना. आनी आयच्या विज्ञानीक शेतकामाक तांचें कांय पडून वचूंक ना. बावड्यांक जियेवप आयज कठीण जावन पडलां.

तीं शेतांतल्या कणसां वयले दाणे खातात म्हूण पयलीं शेतकामती तांकां धांवडावपाक दीसभर शेतांत बसून रावताले. जपानी शेतकामत्यांनी एक यंत्र तयार केल्लें. तें आपणा भोंवतणी गरगर करून भोंवतालें आनी एक भोंवाडो मारून 'ठो' करून आवाज काडटालें. गिरबुजीं भियेवन पळून वतालीं. दाणे खावन खावन तीं कितले खातलीं आशिल्लीं? शंबरांतले शंबरूय? अशे तशे पांच वा धा. तितले दाणे मनशान तांकां सोडूंक जाय अशिल्ले. पुणून मनीस कितलोय सुधारलो तरी सदां आशेभगतूच उरला.

आपुणूच सगळें खातलों म्हणीत आयला.

येवरोपांत गिरबुजीं नाशिल्लीं. रोमन लोक तीं आफ्रिकेंतल्यान येवरोपांत घेवन गेले. तेन्ना सावन येवरोपभर तांची संतत वाडत गेली. स्कॅंडिनेव्हियन देसांनीय तीं रावपाक लागलीं. संवसारांतल्या तिनांतल्या दोन वांटे वातावरणांत तीं राबितो करून राविल्लीं. थंड वाटार आसूं, हून आसूं, तांचेर हवेचो परिणाम जायनाशिल्लो. हांवें हिमालयांत जमनोत्री गंगोत्रीकूय गिरबुजीं पळेल्यांत. आयज सगळे कडल्यान गिरबुजीं ना जांवंक लागल्यांत म्हूण करंदाय आयकूंक येवंक लागल्या. लंडनातले बकिंगम पालासींत तांचे राशींनी घोंटेर आसताले. थंयचींय तीं आयज ना जाल्यांत. तीं कित्याक लागून ना जालीं, तांकां कशीं वाटावचीं हाचो आतां इंग्रजांकूय हुस्को जावपाक लागला. तांकां वाटावपाचो विज्ञानीक उपाय सुचयतल्याक थंयचे एके पर्यावरणवादी संस्थेन पांच हजार पांवडांचें इनामूय दवरलां. आमच्या देसांत सलीम अली केन्द्रानूय हो वावर हातांत घेतला. ह्या केन्द्राचे वांगडी आतां देसभर भोंवतले. उपाय सोदून काडटले. ते मेरेन तीं वखदाक तरी उरतलीं काय कितें, दुबाव आसा. अभ्यास कितलोय जावं, ज्या एका कारणाक लागून सैमाचेर हें संकश्ट कोसळ्ळां त्या 'विकास कार्या'चेर जे मेरेन कोणाक उपाय येवजना ते मेरेन अभ्यास, नियाळणी सगळें फुकट वतलें अशेंच म्हणचें पडटलें.

सैमान ही धर्तरी फकत मनशांक रावपा खातीर निर्मूंक ना. मनीस धर्तरेर आयला ताचे आदीं अब्ज अब्ज वर्सां सावन ह्या *'यत् किंच जगत्यां जगत्'* संवसारांत हजार तरांचे जीव जियेत आयिल्ले. तांच्यांतल्या किरकोळांतल्या किरकोळ जिवाक लेगीत मनशाक आसा तितलोच जियेवपाचो हक आसा. फकत मनिसूच ताचो हो अधिकार काडून घेवंक लागला. मनशाचो हो अच्छेव बंद जावंक जाय. ना जाल्यार धर्तरेचें नाशें आडावंक येवपाचें ना.

हाचे पयलीं दोन तीन खेपे हांवें रेचेल कारसनच्या 'सायलंट स्प्रिंग' नांवाच्या पुस्तकाची वळख म्हज्या वाचप्यांक करून दिल्या. ही नाखटा पसून केंसा मेरेन विज्ञानीक बायल. चळवळी चलोवप; खवदळ घालप, तिच्या सभावांतूच नाशिल्लें. (आयज ती संवसारांत ना.) पुणून डीडीटी

सारकीं वखदां बाजारांत आयलीं आनी तांचो धरबांद नाशिल्लो वापर शेतांचेर जावपाक लागलो तेन्ना ती हुसक्यांत पडली. 'सभाग्यांनो, तुमच्या वसवशेपणाचेर जैत जोडात. ना जाल्यार तुमकां ताळतंत्र उरचो ना, तुमी धर्तरेच्या नाशा वांगडा आपलेंय नाशें करून घेतले.' अशी ती ताळो सरांटून लोकांक सांगूक लागली. सैम आपुणूच आपणाक सांबाळीत आयलां. ताच्या वेव्हारांत मनशान मदीं पडूंक फावना, अशें सांगीत रावली. आनी सैमाचो वेव्हार कसो चलता तें लोकांक सांगपा खातीर तिणें हें 'सायलंट स्प्रिंग' पुस्तक बरयलें. पुस्तक विज्ञानाचें आशिल्लें. पुणून ताचो सरसमान लोकांचेर येदो परिणाम जालो की ताका लागून संवसारभर आकांताळी एक चळवळ सुरू जाली - जिका आयज संवसार पर्यावरणवादी चळवळ म्हूण वळखता.

एक गजाल मनशान मतींत दवरूंक जाय - 'गरज' वेगळी आनी 'वसवस' वेगळो. need वेगळी आनी greed वेगळी. सगळ्यांची गरज भागोवपाक सैम दिसपट्टें कितें न्हय कितें निर्मीत आसता. वसवसाचेर ताचो उपाय चलना. मनशान आयज वसवसाचो शेक आपणाचेर चलूंक दिला. ताकाच लागून मनशाचो संवसारभर अच्छेव चलूंक लागला.

'डावन टू अर्थ' च्या लेखांत शेवण्यांचेर मोग करतल्या एकल्याचें एक अवतरण दिलां. तो म्हणटा, 'म्हाका हुस्को एकूच - गिरबुजें म्हज्या घरांत घोंटेर बांदून रावतालें. म्हज्या नातरांक सांगात दितालें. तेंच ना जालें जाल्यार म्हज्या नातरांचें कितें जातलें? ह्या हुस्क्यान म्हज्या आंगाक थरथरो भरता.'

उतरां वयल्या वयल्यान सादींशीं दिसतात. पुणून तीं, काळजांत भितर रिगत जाल्यार न्हीद खळटली सगळ्यांची.

जाग : एप्रील 2003



# 3
# एक हारसो अंतरंग नियाळपाचो

हांव तोबूक इंग्रजी शिकोवपाक गेलों. ताची 'रफ' पटी घेवन तिचेर anger बरयलें आनी 'हें वाच' म्हळें.

'एँगर', ताणें वाचलें.

हांव दुसरें उतर बरोवंक वतालों. इतल्यांत 'मात्सो राव' अशें म्हणून ताणें म्हज्या हातांतलें पेन घेतलें. anger उतरा आदीं d (डी) अक्षर जोडलें आनी म्हाका विचारलें, 'हें कितें जालें?'

'डेंजर' हांवें म्हळें.

'कशें तर? 'डी' अक्षर जोडल्यार एँगरांतल्या 'ग'चें 'ज' कशें जाता?'

खीणभर घुटमळ्ळों. मनांत म्हळें, कोल्ल मारता तशे इंग्रज आपणाले भाशेंतलीं उतरां बरयत रावले काय कितें? नेम बीम कांय घडयले नात? इंग्रजी परस पुर्तुगेज ह्या मळार कितलिशी बरी. स्पॅलिंगांत खंयच गडबड जावंक दिना. भुरगीं इंग्रजी कशीं शिकतात, तांकांच बावड्यांक खबर! हांव कशी शिकलों, म्हाका खबर ना. याद जायना. आयुष्यांत शेंकड्यांनी इंग्रजी पुस्तकां वाचलीं. तरूय 'नेबर' (शेजारी) बरोवंक वतां तेन्ना आयजूय म्हाका कोश उकतो करून स्पॅलिंग पळोवचें पडटा. 'पुश' आनी 'पुल' हांतलें 'धुकलप' खंयचें आनी 'ओडून घेवप' खंयचें हें धुकल्ले ओडले बगर लक्षांतूच येना.

हांवें तोबूक म्हळें, 'एँगराक 'डी' लागतकूच 'ग' चें 'ज' कशें जाता तें सोदून काडटां. तूं वच आतां खेळपाक...'

तोंडांतसून 'फुर्रर्रर' आवाज काडून तो धांवत खेळपाक गेलो.

म्हळें, हांव तोबूक इंग्रजी शिकोवपाक गेल्लों, ताणें म्हाका जिणेशास्त्राचो एक म्हत्वाचो नेम शिकयलो! Anger is one letter short of danger म्हूण खंय तरी वाचिल्लें. तेन्ना ताचो अर्थ सारको समजूंक नाशिल्लो. आयज तो सारको बरो समजलो.

आमी केळेकार सभावान रागीट. केन्ना कोणाच्या आंगार कँच्च करून वतीत, सांगूंक येना. (अशी आमच्यांतल्याच कांय जाणांनी आमची बदनामी चलयल्या.) 'भाटकारी' संस्कार आसूं येता हो. भाटां आशिल्लीं तेन्ना भागेल्यांचेर कँच्च करून तापूं येतालें. भाटां गेलीं. कोणाचेर तापतले? घरांत बायलो आशिल्ल्यो. फुडल्या सात जल्मांत लेगीत होच घोव मेळूं म्हूण देवा कडेन मागीत आयिल्ल्यो. तांचेर तापपाक लागले. केळेकार तापतात तेन्ना खावं काय गिळूं हे तिडकीन तांचे जिबे वयल्यान जीं उतरां फुट्टात तीं बायलांच्या बावड्यांच्या काळजाक केदे घाय घालतात, तांच्या लक्षांतूच येना.

सतरा अठरा वर्सांचो आशिल्लों तेन्ना हांवूय एक दीस, हांचे देखीन आवयचेर तापलों. आनी कोणाचेर तापतलों आशिल्लों? आवय सोंपी. बावडी सगळें सोंसून घेवपी. पुणून त्या दिसा हांव तापनाफुडें तिणें म्हाका म्हळें, 'एक, दोन, तीन, चार करून धा मेरेन आंकडे पयलीं मेज.' म्हजे तिडकीक अवचीत ब्रेक लागलो. हांव तिच्या तोंडा कडेन पळेत रावलों. तें पळोवन तिणें म्हळें, 'म्हजी एक सांगणी लक्षांत दवर. फुडल्या आयुष्यांत तुका खूब उपकारा पडटली ती. तिडक मारता न्हय, तेन्ना जिबे वयल्यान एक उतर फुटूंक दिवं नाका. आनी त्या वेळार कसलोच निर्णय घेवं नाका. निर्णय दुसऱ्या दिसा घे.'

व्हडलिशी शिकूंक नाशिल्ली म्हजी आवय. पुणून आवय आशिल्ली. हेर आवयां सारकी, म्हाका पोटांत घेवन णव म्हयने ती उमळशिकेन म्हजी वाट पळेत राविल्ली. हांव जल्माक येनाफुडें हांसत्या तोंडान तीच पयली म्हज्या येवकाराक आयिल्ली. उपरांत कितलिंशीं वर्सां दोळ्यांत तेल घालून म्हजी जतनाय घेत राविल्ली. जिवितांत कितलोसो वेदांत वाचलो. खूबसो माथ्या वयल्यान गेलो. बरोचसो पटलो ना. थोडो आवडलोय ना. भितर जो थोडो उरिल्लो ताचोय आतां उगडास जायना. पुणून आवयची ही सांगणी

मात केन्नाच विसरूंक पावूंक ना. सदां हे सांगणेन चल्लां अशें म्हणपाचो धीर जावचो ना. खूब जाणांची मदीं मदीं भिरभिरी मारल्या. वचचें आनी सणकुटेर सणसणीत एक फुलोवचें अशेंय दिसलां. पुणून कितेंय उलोवचे करचे पयलीं आवयची मूर्त दोळ्यां मुखार उबी रावल्या आनी म्हजे तिडकीक आपशीं ब्रेक लागला. केन्ना तिडके भरशीं फटक् करून उसळ्ळां आनी कितेंय उलोवन गेलां. उपरांत पच्छाताप जाला. दुखवला ताका 'सॉरी' म्हणपाक येदेंशें तोंड घेवन ताचे सरीं गेलां. पुणून जिबे वयल्यान फुटिल्लें उतर परतें गिळूंक केन्ना येवंक ना. ताणें दुखोवपाचें काम बेस बरें केलां. आनी म्हजें 'सॉरी' फुकट गेलां. हांवें, मागीर, कानाक पीळ घालून घेतला, 'हे मुखार 'सॉरी' म्हणपाचो प्रसंगूच केन्ना येवंक दिवचों ना' अशें थारायलां. पुणून, the spirit is willing but the flesh is weak. जागरूक रावनूय खूब खेपे निसरलां.

एक दीस तकलेंत एक नवोच विचार घोळपाक लागलो. म्हळें, तिडक येवंकूच जायना, कित्या खातीर? अन्याय पळोवन ओगी रावप समा जातलें व्हय? त्या वेळार तिडकलोंना जाल्यार अन्याय करतल्याक आधार दिल्ले वरी जातलें आनी तें म्हाका खातलें. अन्याय पळेतकूच तिडक येवंकूच जाय. आनी ती काडुंकूय जाय. तिडक खंय, कोणाचेर, कितली काडची हाचीच फकत जतनाय घेतकूच जाली.

आनी हांवें तिडकीर जैत जोडपाचो हावेसूच तकलेंतलो काडून उडयलो. चार चवगां सारकोच, म्हळें, जावन रावतलों. आगळो वेगळो जावपाचो हावेस मुदलांतूच अडेचो. तांतूंत दांभिकपणूच वाडटा.

बरो विचार खंयूय मेळूं, तो बुद्ध विचार धरचो आनी अनमन नासतना घेवचो अशें बुद्धान म्हळां. 'टायम्सा'र 'थॉट फॉर टुडे' येता तो हांव सदां रुचीन वाचीत आयलां. एक दीस एक विंचार मेळ्ळो -

'दुसऱ्याचेर तिडकून तूं आपणाक व्हड मानता जातलो. खरो व्हड आशिल्लो जाल्यार केन्ना तिडकुचो नाशिल्लो. ल्हान म्हूण तिडकता.'

सुर्रर करून आंगांतल्यान वीज वचची तशेंशें कितें जालें आनी हांव तिडकलां त्या प्रसंगांचो उगडास जालो. अन्याय पळोवन कितलोसो तिडकलां, देवाक खबर! पुणून निर्शेलां तेन्ना तिडकलां. अपमान जाला तेन्ना तिडकलां.

कोणेंय म्हजें लुकसान केलां तेन्ना तिडकलां. फटवलां तेन्ना तिडकलां... हाचो अर्थ, हांव मुदलांत ल्हान असो जालो ना? शी...

आतांय असलें कितेंय घडटा तेन्ना तिडकतां आनी तिडकतां तेन्ना म्हजें मनूच म्हाका 'पळेलो, कितलो ल्हान तूं तो?' अशें सांगता. आनी खासा म्हजेच तकलेंतलो हांव पडटां. लज लज जाता.

खासा आपणाले तकलेंतल्यान पडप हाचे सारकी लज दुसरी ना.

म्हजीच म्हाका वळख करून दिवपी हो एक हारसो जाला हालिंसाराक म्हज्या दिसपट्ट्या जिविताचो. हांव खंती जातां, अस्वस्थ जातां, भुल्लुसून येतां तेन्ना हांव ह्या हारशांत म्हजे म्हाका नियाळपाक लागतां आनी हांव कोण, तें म्हाका कळटा. म्हजीच म्हाका वळख करून दिवपाक दुसऱ्या गुरूची गरज उरूंक ना आतां म्हाका.

पुणून हो हारसो जोडपाक कितलीं वर्सां जियेवचें पडलें म्हाका? सत्तर पंच्यास्तर?

जाग : डिसेंबर 2001



# 4

# पडमूर आमी

शबरी सांतेक गेल्ली. वनवासाक भायर सरिल्लो राम फाल्यां आमच्या रानांतल्यान वतलो म्हणपाचें तिणें थंय आयकलें. रामाची ती एक पिशी भक्त. 'येत व्हय म्हगेर तो?... कसो येतलो? तो म्हाका वळखना. म्हाका पळोवं लेगीत ना ताणें... कोण सांगीत व्हय ताका, तुगेली एक पिशी भक्त रानांत रावता म्हूण? कोण सांगतलो? हांगा कोणाक कोणाचें पडून वचूंक ना... जावं, पयसल्यान लेगीत पळोवंक मेळ्ळ्यार पुरो. हांव पावन जातलीं.' अशें खासा आपणाक समजावन ती न्हिदली.

फांत्या पारार खोंपी भायर तिका कोणाचीं पावलां आयकूंक आयलीं. कोण आयला काय येदे फांतोडेर? अशें म्हणून तिणें दार काडलें. पळेत जाल्यार, राम! हय, रामूच. तिका दुबाव आयलो. 'हांव सपनांत बी ना मू?' तिणें आपणाक चिमटो काडून पळेलो. ना, ती सपनांत नाशिल्ली. खरोच राम तिचे भेटेक आयिल्लो. ती भुल्लुसून आयली. कितें करूं, कितें नाका, अशें तिका जालें. सोंप्यार हांतरी पातळावन ताका बसयलो. काल तिणें आंगणांतले बोरीचीं बोरां काडून हाडिल्लीं. भितर गेली आनी बोरांची पांटली घेवन भायर आयली. अशींच कशीं दिवं? आंबट आसलीं जाल्यार? चाखून पळेल्लीं बरीं. उश्टायल्लीं फळां सोयऱ्यांक दिनात म्हणपाचें बावडेक खबर नाशिल्लें. एक एक बोराक दांत लावन पळोवपाक लागली. आनी राम? 'गोड... खूब गोड' अशें म्हणीत तिचीं उश्टायल्लीं बोरां खायत रावलो!

भक्ति-साहित्यांत इतलो नाजूक, इतलो गोड आनी इतलो सुंदर प्रसंग

संवसारांत दुसरे कडेन खंयचं वाचूंक मेळचो ना. *'जुठे फल शबरी के खाये'* हाचे पेल्यान उपाट प्रतिभेच्या सूरदासाक लेगीत ह्या प्रसंगाचे वर्णन करूंक येवंक ना. *'सूर क्रूर इस लायक नाहीं, कहाँ तक करौं बढांई'* इतलें सांगून तो थांबला. दोळ्यांतल्यान व्हांविल्लीं दुकां ताका आडावंक येवंक नात जातलीं.

शबरीचे हे कथेंत पै-पावण्यांची सरबराय कशी करची हाची बेस बरी एक देख मेळटा. राम आयला म्हूण ती दुदा-पायस करपाक गेली ना. आपूण खाताली त्याच बोरांनी तिणें रामाची सरबराय केल्ली. घरा सारको सोयरो आसूंक जाय आनी सोयऱ्यानूय घरा सारकोच जावन रावंक जाय.

गोंयकारांक सरबरायेचो हो नेम केन्नाच कळ्ळो ना. म्हूण तांणी सदां सोयऱ्या सारकें घराक रूप दिलां. आनी सोयरो फॅट फॅट करून मराठी उलोवपी आसत (वा इंग्लेज पुर्तुगेज उलोवपी येवरोपेव आसत) जाल्यार कोण तरी म्हाराजा आपणागेर आयिल्ले वरी तांकां दिसलां आनी आपणाले खोंपीक तांणी राजम्हालाचें रूप दिलां. परवडचो ना इतलो सुमारा भायर खर्च केला.

सोयरे घरा वतकूच तांचे सरबरायेचीं फकाणां मारतात म्हणपाचें लेगीत तांच्या लक्षांत येना. पै-पावण्यांची सुमारा भायर सरबराय करपी कितलेशे गोंयकार - हिन्दू आनी क्रिस्तांव दोनांय भितर हांवें पळेल्यात. म्हाका तांची सदां तोखणाय दिसल्या, अभिमानय दिसला आनी केन्ना केन्ना तांच्या पिशेपणाचो हांसो आयला. पुणून कितें करतले - सभाव तो तांचो, सभावाक वखद नासता.

गोंयकाराचे अतितायेचे सरबरायेचे कितलेशे प्रसंग दोळ्यां मुखार आयले आनी हांव मळबांत घोणी परसूय वयर उडपाक लागलों. घोण जेन्ना खूब वयर वता तेन्ना धर्तरेर खंय तरी मरून कुसून पडिल्लो सोरोप वा हुंदीर तिका अचूक दिश्टी पडटा. तशें म्हाका जालें. गोंयकाराचे सरबरायेची तोखणाय करतां थंय आसां, अवचीत म्हजी नदर तांचे सरबरायेच्या एका कुसक्या आंगाचेर अचूक वचून थिरावली.

सुटके आदल्या साडेचार शतमानांच्या काळांतलीं इतिहासाक कूस परतूंक लावपी दोनूच नांवां घेवं, येतात तीं म्हळ्यार, एक, आफोंसु द

आल्बुकेर्काचें आनी दुसरें, डॉ. राम मनोहर लोहियांचें. खरें म्हळ्यार, सुटके उपरांतच्या पयल्या अठरा जूनाक आमी लोहियांक आपोवपाचे आनी तांगेलें दिव्य भव्य स्वागत करपाचें. अमेरिकेंत दिग्विजय करून आयले उपरांत देशान स्वामी विवेकानंदांचें केल्लें तशें. राजा म्हाराजांनी तांच्या रथाचे घोडे सोडोवन खासा आपणें रथ ओडिल्लो. लोहियांक कशे विसरले आमी, खबर ना. आमी पडमूर थरले म्हणपाची जाणवीक सगल्यांत पयलीं जाली ती आनाश्तास द आल्मैदांक. ते आपणाल्या इश्टांक मेळ्ळे आनी फुडल्या वर्सा अठरा जूनाक तांकां घेवन येवप म्हळ्यार येवपूच असो तांणी नित्शय केलो. ते खंय आसात हाची वासपूस सुरू केली तेन्ना गिमांत ते पुण्यांत येवपाचे आसात म्हणपाचें कळ्ळें. गीम सुरू जायनाफुडें आर्सेनु जाकिश्, मार्क फॅर्नांदिश सारकेल्या सांगात्यांक घेवन आनाश्तास पुण्याक गेले.

गोंयची सुटका जायनाफुडें कोणें तरी लोहियांक 'आतां गोंयां केन्ना येतात' काय म्हूण विचारिल्लें तेन्ना तांणी 'अब क्या, अब तो भेड भी जाएगी... वे दिन गए जब शेर ही जा सकते थे' अशी जाप दिल्ली. ही जाप ते आनाश्तास, आर्सेन, मार्का सारकेल्यांक दिवचे नाशिल्ले. कित्याक, हे 'तांचे घरचे' आशिल्ले. लोहियांनी 'येतां' म्हळें.

खर्चाचो प्रस्न आशिल्लो. आल्मैद बी हो खर्च कसो करतले आशिल्ले? 'पांच दस रुपए जेब में हो तो दो न, रास्ते में चाय पानी के लिए' म्हूण आपणाल्यांच कार्यकर्त्यां कडेन मागपी लोहियांचे शिष्य ते. पै-पावण्यांची बेस बरी बडदास्त दवरपी कांय वेपारी मडगांवांत आशिल्ले. तांकां वचून ते मेळ्ळे. 'तुमी घेवन येयात तांकां... खर्चाचो हुस्को करूं नाकात.' म्हूण सांगून वेपाऱ्यांनी तांचो हुस्को पयस केलो. (कित्याक? नेहरू निकतेच गोंयांत येवन 'गोंयची पर्सनालिटी वेगळी, तें वेगळेंच उरतलें' अशें कितें कितें उलोवन गेल्ले. तांचे आड लोहिया उलयतले हे आशेन.) पुणून एकल्याय सभाग्यान आपणागेर तांकां हाडून दवरात म्हूण सांगलें ना. ते मुस्तींत हांच्या घरा मुखार शेवर्लेट, पिझो, मर्सिडीस सारक्यो 'पॉश' गाडयो उब्यो आसताल्यो. एकल्यानूय आपणाली गाडी तांचे सेवेक दवरली ना. हांगेर सटरफटर लोक 'व्हड मनीस' म्हूण येवन रावन गेल्यात. आनी

हेवूय अमको अमको आमगेर रावन गेला म्हूण आयुष्यभर लोकांक सांगीत रावल्यात. पुणून लोहिया सारकेल्या गोंयच्या इतिहासांतल्या 'व्हडांतल्या व्हड' एका मनशाक आपणागेर व्हरपाक एकलोय मुखार आयलो ना. एकलोय तांकां आपणाले गाडयेंत घेवन भोंवलो ना. मडगांवां, फातोर्ड्यां वचपाचे वाटेर, उजवे वेटेन एक बुरशें शें 'गॅस्ट हावज' आशिल्लें. थंय लोहियांक दवरल्यात आनी पणजे मार्केटा लागसारच्या 'इन्दिरा निवास' नांवाच्या एका किरकोळ हॉटेलांत दवरल्यात आनी टॅक्सींनी तांकां घेवन आनाश्तास बी भोंवल्यात.

म्हजे नदरेंत ही गजाल एका विचित्र योगायोगान भरली. पणजे 'इन्दिरा निवासां'त हांव लोहियां सरीं बसून उलयतालों. थंय पयले पंगतींतलो एक सुटके झुजारी तांकां मेळपाक आयलो. उलयतां उलयतां 'तुमकां लागून हांव येवरोप, आफ्रिका बी पळोवंक पावलों.' अशें कितें उलयलो. लोहियांचें तोंड रोखडेंच गंभीर जालें. तें पळोवन सुटके झुजारी उठून गेलो. तो वतकूच लोहियांनी म्हाका म्हळें, 'म्हाका लागून खंय हो येवरोप आफ्रिका पळोवंक पावलो... गोंयांत म्हजो तिसरो दीस हो. आज मेळूंक आयला. फाटले दोन दीस ख़ंय आशिल्लो?'

हांवें म्हळें, 'दोन दिसां पयलीं तो घरच्यान भायर सरिल्लो आसूंक जाय. पुणून 46त जो आपणाक तुमचो वारस म्हूण भासयतालो तो काकोडकार आयला व्हय तुमकां मेळपाक?'

'वे मिलने आते तो उनकी गद्दी चली जाती ना?'

म्हजे तकलेंत लख्ख उजवाड पडलो. लोहियांक जे आपणागेर घेवन गेले नात आनी आपली गाडीय जांणी तांचे सेवेक दवरली ना तेवूय दिल्लीश्वरांक भियेल्ले काय कितें? 'हय' म्हूण काळजांतल्या खोल तळांतल्यान जाप मेळ्ळी. आनी गोंयकारांच्या आतिथ्याचो जो अभिमान मनांत आशिल्लो ताका वेर गेली.

हांवें लोहियांक म्हळें, 'तुमकां आपणागेर कोण घेवन गेलो ना हाचें म्हाका प्रायश्चित घेवपाचें आसा... सामान बांदूंक सांगात. हांव तुमकां आमगेर घेवन वतां...'

'खंयशें आसा तुजें घर?'

‘मंगेशीं लागसार.’

‘तें फाटल्यान गेल्ले वरी जाता, मुखार खंयूय घेवन वच.’

मुखार तांचो प्रोग्राम वास्कोचो थारिल्लो. थंय म्हजो मेवणो दादा सरदेसाय रावतालो. हांवें गोदूबायक वास्को धाडून दिली आनी दुसऱ्या दिसा दनपारच्या जेवणाक लोहियांक दादागेर घेवन गेलों. म्हजे पुरतें प्रायश्चित घेतलें हांवें. पुणून गोंयकारांच्या आतिथ्या विशीं वेर गेल्ली ती अजून तश्शी उरल्या. आमकां ‘यशस्वी’ सोयरे जाय. ‘तेजस्वी’ सोयरे उपकारनात. ते आमकां म्हारग पडटात. शी. कसली आथित्यशीलताय आमची?

मुजरत सांगूंक जाय -

खरी भिरांत आशिल्ली बाकीबाबांक. ते आकाशवाणीर नोकरी करताले. तांची नोकरी गेल्ली जाल्यार ते त्रासांत पडटले आशिल्ले. पुणून ‘लोहियांनी गोंयांत येवचें आनी हांवें तांचे सरीं नासचें हें सोबता व्हंय म्हाका?’ अशें म्हणून लीव्ह काडून ते चार दीस लोहियां वांगडाच भोंवल्यात!

कोंकण टायम्स : दिवाळी 2002

❑



# 5

# ‘दिनाचो उगडास येयलो’

सतरा अठरा वर्सांची पिराय. केन्ना दिसचें, खूब जोडचें आनी आयुष्यभर फोल्गांच मारीत रावचें. केन्ना दिसचें, सगळें सोडून दिवचें आनी परिव्राजक जावन संवसारभर भोंवत रावचें. केन्ना सुभाषबाबू, जवाहरलाला सारको जावन देशाक स्वराज्य जोडून दिवपाचो वावर करचो अशें दिसचें, तर केन्ना रवीन्द्रनाथा सारको एक व्हड कवी जावन नोबेल इनाम जोडचें अशेंय दिसचें. अमकेंच म्हूण न्हय, कितेंय आगळें वेगळें. म्हज्या संवसारांत कोणाक जमूंक ना असलें कितेंय करून दाखोवचें. पिरायूच असली ती.

तबलें शिकचें अशें एक दीस थारायलें. संगितांत म्हाका गती ना. पुणून केन्नाय आयकलां तेन्ना सुरां परस तालाचेर लक्ष अदीक गेलां. खांप्रुमामांची नामना खूब आयकल्ली. म्हाड्डोळा धोंडूमाम काटकार रावताले. एक व्हड तबलजी गोंयचे. वचून मेळ्ळों. म्हळें, ‘तबलें शिकचें अशें मनांत आयलां.’ धोंडूमामाचें मुखामळ साळका भाशेन फुलून आयलें. ‘केळेकारांच्या घरांतलो अजून कोण येवंक नाशिल्लो - सावय-वेऱ्यां हांवें सरदेसायांगेर म्हजी विद्या दवरल्या... तुका मोट्या आनंदान शिकयन...’ तांणी म्हळें.

‘केन्ना येवं?’

‘आयच्यानूच सुरू करुंया... पुणून तूं हांगा येवं नाका. हांवूच येतां, नंगरांतल्या तुमच्या नव्या घरांत.’

नंगरांतलें घर बांदून जाल्लें. पुणून अजून घरप्रवेश जावंक नाशिल्लो. हांवूच एकलो मदीं मदीं थंय वचून न्हिदतालों. ह्या घरांत तबलें शिकपाक लागलों. म्हयनोभर फकत त्रिताल चल्लो.

'एकूच ताल हो शिकपाचो? आनीक ताल नात?' हांवें एक दीस धोंडूमामाक विचारलें.

'ना कित्याक? कितलेशेच आसात. पुणून त्रितालाचेर हात सारको बसले बगर बाकिचे शिकयनात. कोण हाका आदिताल म्हणटात. तबलें एक दोन म्हयन्यांनी शिकून जावपाचें ना. पांच वर्सां तरी दिवंक जाय. मागीर आयुष्यभर साधना करीत रावंक जाय.'

कच्च जालें. पुणून म्हळें, कांय नज... एका चित्तान शिकतलों.

दोनेक म्हयन्यां उपरांत एक दीस 'मोहनलालाची एक मैफल दवरुंया?' धोंडूमामांनी अवचीत विचारलें. मोहनलाल म्हळ्यार मोहनलाल रामनाथकार. बऱ्यांतले बरे एक पेटी वाजोवपी गोंयचे. पुणून विक्षिप्त... मनाक मारल्यारूच वाजोवपी. ना जाल्यार, कितलीय विनवणी कर, ना तें ना, हे तरेचे. हांवें म्हळें, 'दवरुंया. पुणून येतले व्हय तर ते?'

'हांवें यो म्हळ्यार ना म्हणचो ना.' धोंडूमामांनी जाप दिली.

'दवरुंया तर.' हांवें म्हळें.

धोंडूमाम बोकडबागांत वचून मोहनलालांक घेवन आयले. आठांक रातची मैफल सुरू जाल्ली. धा जायसर तांणी नाटकांतलीं कांय गितां वाजयलीं. भोंवतणच्या चौग पांच रसिकांक हांवें मैफलीक आपयल्ले. तांच्यांत एक रामनाथ मठकारूय आशिल्ले. धा जातकूच 'आतां न्हिदुया' अशें मोहनलालांनी म्हळें. तेन्ना सगळे उठून आपापल्या घरा गेले. हांव, धोंडूमाम आनी मोहनलाल तिगूय जाण जेवले आनी मदल्या सालांत शेंदऱ्यो घालून न्हिदले.

अडेज तीन जाल्यांत जातलीं. 'शूरा मी वंदिलें' पदाचे सूर कानार पडले. म्हाका जाग आयली. पळेत जाल्यार, मोहनलाल शेंदरेर नात. मैफल जाल्ली थंय वचून पेटी वाजोवंक बसल्यात. धोंडूमामूय जागे जाल्ले. म्हणपाक लागले, 'चल, थंय वचून बसुंया आमी.'

'आडखळ जावची ना तांकां आमची?' हांवें विचारलें.

'ना. तल्लीन जावन वाजयता तो. आमी मुखार वचून बसले जाल्यारूय ताका आमी दिश्टी लेगीत पडपाचे नात.' अशें म्हणून धोंडूमाम उठले. हांवूय उठलों. आमी मोन्यांनी मोहनलालां मुखार वचून बसले. खऱ्यांनीच

तांकां आमी दिश्टीय पडलेनात. अर्द पाऊण वर हेंच एक पद वाजोवन मोहनलालांनी पेटी बंद केली. तेन्नाच तांची नदर आमचेर पडली. 'दिनाचो उगडास येयलो...' हें एकूच वाक्य तांच्या तोंडांतल्यान फुटिल्लें आनी दोळे ओले जाल्ले. दिनाचो वाटार हो.

कांय दिसांनी धोंडूमाम संवसार सोडून गेले. म्हज्या जिवितानूय एक वेगळी दिका घेतली. ह्या नव्या जिवितांत सूर तालांक सुवात नाशिल्ली. तरी आसतना मदीं मदीं मैफलींनी वचून बसतां. देशांतल्या नांवाजत्या सगळ्यांचें संगीत आयकलां. पुणून त्या दिसा मोहनलालांचें 'शूरा मी वंदिलें' पेटयेर वाजयल्लें आयकल्लें तसलें संगीत परतें केन्ना खंयच आयकूंक मेळूंक ना. मोहनलालांनी तें 'आपणा खातीर' वाजयल्लें. म्हूण तें 'स्वर्गीय' आशिल्लें.

आयुष्यांत अर्द पाऊण वरूच जावं, हांवें 'खरें' संगीत एक फावट आयकल्ल्याचो उगडास केन्नाय जाता आनी जीव धादोसभरीत जाता.

जाग : फेब्रुवारी 2002



# 6
# दोनूय नाणीं चलनात.

उजो सोंसूं नज आशिल्लो. रातच्या साडे आठांक थंड उदकान न्हालों आनी टी.वी. फुड्यान पंख्या सकल येवन बसलों. थोड्या वेळान 'जुगलबंदी' सुरू जाली. उस्ताद विलायत खाँची सतार आनी उस्ताद बिस्मिल्ला खाँची शेनाय. वराभराची कार्यावळ ही. दोगांयनी 'तन्मय' जावन कांय राग वाजयले. निमाणें दोगांयनी *'मोहे पनघट पे नंदलाल'* गीत वाजयलें आनी तोंडानूय म्हळें. दोगूय मुसलमान. हांकां 'नंदलाला'ची लीला गावपाक कसलीच अडचण आयली ना. बिस्मिल्ला खाँचें तर पुराय आयुष्य बनारसांत विश्वेश्वराच्या देवळांत शेनाय वाजोवपांत खर्चलां. आयज ते 'भारत रत्न' जाल्यात. तेवूय भाजपाची राजवट दिल्लींत चलिल्ली आसतना. म्हजे जिबे वयल्यान उतरां फुटलीं, 'हें फकत ह्याच देशांत घडूं येता... म्हजो भारत तो हो...'

हांव हरशीं काळजान घट्ट मनीस. सट्ट करून म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकां येनात. पुणून त्या दिसा 'म्हजो भारत तो हो' ह्या उतरां वांगडाच काळजांत एक आवाज उठिल्लो आयकूंक आयलो - 'कितें करून उडयलें म्हज्या ह्या देशाचें दळडिन्या राजकर्ण्यांनी' आनी दोळे भरून आयले. हांव हुडके दिवन रडपाक लागलों. म्हजेर हे अवस्तेंत कोणाचीच नदर पडची न्हय म्हूण बेगिबेगीन उठून न्हिदपाक गेलों.

पुणून न्हीद येवं नाका? दोन् अडेज मेरेन दोळोच लागलो ना. एका सारको चिंतीत राविल्लों. कितलेशे विकल्प तर्जून पळेले -

·म्हळें, मुसलमानांनी बाबरी मशीद दिवन उडोवंक जाय आशिल्ली

हिन्दूंक. ती मशीद नाशिल्लीच अशें हिन्दू म्हणटात आनी कितल्याश्या वर्सां सावन थंय 'नमाज पढपाक' कोण्ण वचूंक ना हें मुसलमानूय कबूल करतात. मागीर, दोनूय जमाती एकामेकांच्या आंगार कित्याक जुडून वतात? 'दिवन उडयात हिन्दूंक ती' अशें मुसलमानांक सांगचें शें दिसलें. चार चवगांत असलें कितेंय उलयलों जाल्यार लोक म्हाका कुळांत काडटले म्हूण जाणां. पुणून, कितें करूं? तकलेंत भौन भौन होच विकल्प घोळटा. हो प्रस्न सोडोवपाचो होच एक उपाय अशें दिसता. भारत पाकिस्ताना मदलें क़िजील सासणाचें सोंपचें म्हूण काश्मिरूच दिवन उडयात पाकिस्तानाक अशें म्हणटल्याचे तकलेंत दुसरो कसलो 'उपाय' येतलो? बाबरी मशीद हिन्दूंक दिवन उडोवची अशें म्हणपी मुसलमान नात व्हय ह्या देशांत? हांवूच कितल्याश्या जाणांक वळखतां. पुणून असल्या 'उदार नदरे'च्या मुसलमानांक हिन्दू फुडाऱ्यांनी मुसलमानांचे फुडारी केन्ना मानले नात. धर्मनिरपेक्षतावादी फुडाऱ्यांनीय मानले नात. मुसलमानांचें नेतृत्व सय्यद शाहबुद्दीन वा शाही इमामा सारकेल्या कट्टर मुसलमानांच्याच हातांत उरूंक जाय ह्या प्रस्नाचेर हिन्दुत्ववादी आनी धर्मनिरपेक्षतावादी दोगूय एका मत्ताचे. मुसलमानांचें नेतृत्व कट्टरपंथियांच्या हातांत उरलेंना जाल्यार हांगेलें हिन्दुत्व कोंसळून पडटलें, तांगेली धर्मनिरपेक्षताय व्हांवन वतली.

हो विकल्प कोण मानून घेवचे नात अशें दिसनाफुडें मन दुसरो विकल्प तर्जून पळोवपाक लागलें. म्हळें, भाजपान, धरुंया, म्हळें, आमी रामजल्मभुंयेचो प्रस्न सामकोच सोडून दितात; पुणून जो प्रस्न सोडूंक फावना आशिल्लो तो - सगळ्यांक एकूच नागरीं कायदो (कॉमन सिवील कोड) लागून करपाचो - आमी हे खेपे घेवन येतले. कित्याक, हो एक सॅक्युलर देश. धर्मनिरपेक्ष देश. असल्या देशांत 'पर्सनल लॉ' कोणाचोच चलूंक फावना. जाल्यार, कॉंग्रेस, समाजवादी, मार्क्सवादी बी जे पक्ष आपणाक धर्मनिरपेक्षतावादी मानतात ते भाजपा फाटल्यान रावतले व्हय? केन्नाच ना. कित्याक, हांगेली धर्मनिरपेक्षताय अल्पसंख्य जमातींच्या 'पर्सनल लॉ'क तेंको दिवन आपणाली 'वोट बॅंक' सुगूर दवरप हाकाच शाणेपण मानीत आयल्या.

आमच्या राजकर्णांत हिन्दुत्व आनी धर्मनिरपेक्षताय हे दोन खोटे पयशे

चलपाक लागल्यात. ह्या खोट्या पयशांनी मनिसपण, विविधतायेंत एकचार, समन्वय संस्कृती बी सगळ्या तत्वांचें मोल ना करून उडयलां.

विश्व हिन्दू परिशदेच्या हिन्दुत्वाक विकल्प म्हूण दाव्या पक्षांची धर्मनिरपेक्षताय उपकारपाची ना. 'शुद्ध हिन्दुत्वा'चो विकल्प दवरूंक जाय. हें 'शुद्ध हिन्दुत्व' स्वामी विवेकानन्दान 1893 वर्सा शिकागोंतले धर्मपरिषदे मुखार दवरिल्लें. तांणी म्हळ्ळें -

'हांव जे धर्म परंपरेंत जल्माक आयलां तिणें संवसारांतले सगळे धर्म खरे अशें मानलां. सगळेच धर्म आमचे अशें आमकां सांगलां. म्हज्या धर्मान संवसारांतल्या सगळ्याच धर्मांक आपणांत आसपावन घेतल्यात. अंत्राळांत उबतल्या कुपांचो पावस खंयूय पडूं, अखेरेक तो दर्याक वचून मेळटा, तशें, खंयच्याय देवाक नमस्कार करात, तो *'केशवं प्रति गच्छति'* अशें म्हजो धर्म मानता. 'आमचोच धर्म खरो' म्हणटल्यांनी संवसारांत एका फुडल्यो एक आगळिको केल्यात. रगताचे व्हाळ व्हांवयल्यात. ह्या धर्मकोल्ली लोकांचे दीस आतां सोंपल्यात. आयज हे सभेच्या आरंभाक ज्यो घांटी वाजल्यो तांणी घणघणीत बऱ्या आवाजांत आख्ख्या संवसाराक 'तरसादेन लोकांक छळपाचे दीस सोंपल्यात, ते दीस आतां उरूंक नात' म्हणपाचें सांगून उडयलां.'

परिषदेच्या निमाण्या दिसा केल्ल्या उलोवपांत विवेकानन्दान म्हळ्ळें -

'पवित्रताय आनी धार्मिकताय हांचो मक्तो खंयच्याच एका धर्मा कडेन ना. एकान एक धर्मांत हीं दोनूय आंगां पळोवंक मेळटात. एंकान एक धर्मान एका परस एक व्हड धर्मपुरूस जल्माक घाल्यात. हे मुखार 'आमचोच धर्म खरो, तोच एक चलतलो, बाकिचे ना जावन वतले' असो कोणूय समज करून बसत जाल्यार ताची काकूळट करची पडटली.

'हे मुखार सगळ्या धर्मांच्या बावट्यांचेर तीन घोशणा आसतल्यो -

1. एकामेकां लागीं झगडीं झुजां करून न्हय, तर एकामेकांक आधार दिवन
2. एकामेकांक ना करून न्हय, तर सगळ्यांक आपले मानून, आनी -
3. एकामेकां आड रावन न्हय, तर एकामेकां कडेन जुळोवन घेवन संवसारांत सगळे धर्म चलतले.'

हें हिन्दुत्व विवेकानन्दांत आशिल्लें. विवेकानन्दाचे गुरू श्रीरामकृष्णांत आशिल्लें. उपरांतच्या काळांतल्या महात्मा गांधींत आशिल्लें. इतलेंच न्हय तर घटना समितींत ह्या देशाक जांणी सेक्यूलर (धर्मनिरपेक्ष) म्हूण घोशीत केलो तिच्या राजेन्द्रप्रसाद, राजगोपालाचारी, श्यामाप्रसाद मुखर्जी, राधाकृष्णन, पुरुषोत्तमदास टंडण सारकेल्या 'हिन्दू' वांगड्यांतूय आशिल्लें. सगळ्यांची, धर्मनिरपेक्षताय 'सगळे धर्म खरे, सगळे धर्म बरे (कित्याक, ते देवान केल्यात), पुणून सगळे (मनशांनी घेतल्यात म्हूण) अपूर्ण उरल्यात; अपूर्ण धर्मांनी एकामेकां लागसार वचून, एकामेकां कडल्यान घेवन, एकामेकांक दिवन पूर्ण जावंक जाय', अशें मानपी आशिल्ली. 'तुमी चलत आयल्यात तशेच चलत रावात' अशें सांगपी नाशिल्ली. 'तुमी बदलूंक जाय, निवळूंक जाय' म्हणपी आशिल्ली.

आयज दाव्या गटांतल्या फुडाऱ्यांनी देशांत चलयल्या ती 'तुमी आसात तशेच सदांकाळ रावात... तुमचीं काळा भायरीं जाल्लीं आंगां लेगीत तशींच दवरात, तुमी भियेवं नाकात, तुमकां कोण कांय करपाचो ना' अशें सांगपी धर्मनिरपेक्षताय. हे धर्मनिरपेक्षतायेन एके वटेन सैयद शाहबुद्दीन आनी दुसरे वटेन गिरिराज किशोर निर्माण केल्यात. इतलेंच न्हय तर मुसलमान बायलांचेर अन्याय जाता तो जावंक पावचो न्हय म्हूण 'सुप्रिम कोर्टा'न (शाहबानू केसींत) निर्णय दिल्लो तो कडेक उडोवपी राजीव गांधीय जल्माक घाला.

तुर्ताक चलता तें हिन्दुत्व आनी धर्मनिरपेक्षताय दोनूय नाणीं खोटीं. तीं चलूंक दिवंक फावना. तीं आमकां फटयतात. दोनूय भायर भिरकावन मारूंक जाय.

जाग : जून - जुलै 2002



# 7
# दरअसल तीनों एक हैं यारों

उस्ताद अल्लाउद्दीन खाँ नांव काना ०थल्यान गेलां? विचारचें पडटा. कित्याक, हालिसाराचे आमचे राज्यकर्तेच हें नांव विसरल्यात.

चड काळ वचूंक ना, तीन वर्सां आदीं एकविसावें शतमान लागलें तेन्ना विसाव्या शतमानांतले सगळ्यांत व्हड वीस भारतीय कोण हो प्रस्न विचारून देशांतल्या कितल्याश्या नेमाळ्यांनी आपणाल्या वाचप्यां कडल्यान नांवां मागयल्लीं. तेन्ना सगळ्यांचे वळेरेंत जीं दोन नांवां चुकनासतना आयिल्लीं तांतूंत महात्मा गांधी उपरांत नांव आशिल्लें उस्ताद अल्लाउद्दीन खाँचें. भारत सरकारान तांच्या उगडासान एका वर्सा पोस्टाचो एक स्टॅम्पूय छापिल्लो. ते भायर, 'पद्मविभूषण' पदवीय दिवन तांचो भौमान केल्लो. देशांतले व्हडांतले व्हड एक संगितकार ते. सरस्वतीचे व्हडांतले व्हड एक उपासक. आपणाले धुवेक तांणी अन्नपूर्णादेवी नांव दवरिल्लें. तिचोय भारत सरकारान पद्मभूषण पदवी दिवन भौमान केला. सुधीर फडके, हरिप्रसाद चौरसिया सारकेले मैहर घराण्यांतले संगितकार तिचे शिष्य. उस्ताद अल्लाउद्दीन खाँचो पूत उस्ताद अली अकबर खाँ लेगीत एक नांवाजतो संगितकार. ताकाय पद्मभूषण पदवी मेळ्ळ्या.

पुराय घराणें शारदेचें भक्त.

भोपाळाक तांच्या नांवान 'उस्ताद अल्लाउद्दीन खाँ संगीत अकादेमी' चलत आयिल्ली, कितल्याश्या वर्सां सावन. हे अकादेमीचें नांव बदलून तिका खंय 'तानसेन अकादेमी' नांव दिवपाचें थरलां. कित्याक? तर खंय

अल्लाउद्दीन खाँ भारतीय न्हय. बांगलादेशी! म्हळ्यार विदेशी!!!

खंय पावल्यात आमी?

1964तली खबर. विनोबांची भूदान यात्रा चलताली. रायपूर शारांत पावतकूच तांणी विचारलें, 'उस्ताद अल्लाउद्दीन खाँ हांगाच खंय तरी रावतात न्हय?'

'हय. मैहर गांवांत... पुणून ते आतां खूब जाणटे जाल्यात.' कोणें तरी तांकां सांगलें.

'जाणां हांव. पुणून तांचे भेटेक म्हाका वचुंकूच जाय.'

आनी विनोबा तांगेर कळयनासतना गेले.

विनोबांक दारांत पळोवन अल्लाउद्दीन खाँक कितें जालां जातलें, अदमासूच केल्लो बरो.

'तुमचें संगीत आयकुपाक आयलां' विनोबांनी म्हळें.

खाँसायबांनी सरोद काडलो. 'आतां हात कडकडटात...' म्हळें आनी विचारलें, 'क्या सुनाऊं... फर्माइए'.

'जयजयवंती.'

रोखडोच जयजयवंती सुरू जालो. गंगा यमुनेचो वाटार हो.

विनोबांच्या दोळ्यांतल्यान गंगा यमुना व्हांवपाक लागल्यो.

मैफल सोंपली तेन्ना दोगांयनी एकामेकांच्या पांयांक हात लायिल्ले लोकांनी पळेल्यात. येदो व्हड भारतीय हो.

भोपाळचे संगीत अकादेमीच्या नांवाचें मुखार कितें जालें, खबर ना.

अल्लाउद्दीन खाँ भारतीय न्हय? कित्याक? बांगलादेशी म्हूण? आनी बांगला देश मुसलमानी देश म्हूण? कितें म्हणचें आमकां, समजना.

जलालुद्दीन रूमीची एक कथिका वाचिल्ली -

एक खेपे खंय एक अरबी, एक इराणी आनी एक तुर्की हजचे यात्रेक भायर सरले. वाटेर एके धर्मशाळेंत तिगूय एकठांय आयले. आपापणाल्या देसांतल्यान चलत आयिल्ल्यान तिगांकूय पुरो जाल्लें. तिगांकूय भूक लागिल्ली आनी तानूय लागिल्ली. तिगांकूय एकामेकांची भास समजनाशिल्ली. ते कुरवांनी उलोवपाक लागले. अरबान कुरवांनी सुचयलें, भूक लागल्या,

तानूय लागल्या, 'एनब' खंय मेळटात जाल्यार पळोवंक जाय. तो कितें सुचयता तें इराण्याक समजलें. ताणेंय मान हालोवन हय म्हळें आनी 'अंगूर' मेळटात जाल्यार पळोवंक जाय, म्हळें. तुर्की म्हणपाक लागलो एनबूय नाकात, अंगुरूय नाकात, 'उजम' हाडूंक जाय.

एनब, अंगूर, उजम करून तिगूय झगडपाक लागले.

इतल्यान फळां विकपी एकलो थंय पावलो. व्यापारी. व्यापाऱ्यांक भोंवतणच्यो भासो इल्ल्यो इल्ल्यो समजतात. ताणें तिगांय मुखार द्राक्षां दवरलीं. 'आह, एंनब!' अरबाच्या तोंडांतल्यान उतर फुटलें. 'अंगूर!' इराणी खोश्शी खोश्शी जावन म्हणपाक लागलो. तुर्की मनशाचेंय मुखामळ फुलून आयलें, हेच 'उजम' आपूण हाडुंया म्हणटालों, ताणें म्हळें. तिगांकूय जाय आशिल्लीं द्राक्षां. एनब, अंगूर, उजम म्हणून तिगूय झगडटाले. रूमी म्हणटा, *'तफावत है सिर्फ नामका, दरअसल सब एक ही हैं यारों...'*

रामकृष्ण परमहंसांनीय म्हळां, गायो खंयच्याय रंगाच्यो आसूं, तांच्या दुदाचो रंग एकूच आसता. धवो.

धरुंया, इजिप्त देसांतलो तीस बत्तीस वर्सांचे पिरायेचो एकलो हिन्दुस्तानांत आयला. विद्यार्थी काहिरा युनिव्हर्सिटीचो. पी.एच्.डी करता. हिन्दुस्तानांतल्या हिन्दू मुसलमानांचीं किजिलां हो ताचो विशय. तीन वर्सां तो हिन्दुस्तानांत सगळे कडेन भोंवता. तो कितें म्हणटलो?

मुसलमानांच्या धर्माचीं अकायत, इबादत आनी शरीयत हीं तीन आंगां. हिन्दूंच्या धर्माचींय ज्ञान, भक्ती आनी कर्म हीं तीन आंगां. हिन्दूंच्या ज्ञानकांडांत येता तें सगळे मुसलमानांचे अकायतींत येता. हिन्दूंच्या भक्तिकांडांत आयलां तेंच मुसलमानांचे इबादतींत आयलां आनी हिन्दूंच्या कर्मकांडांत आसा तेंच मुसलमानांचे शरीयतींत आसा.

हिन्दू मुसलमान दोगांयचीं तिनूय कांडां सारकीं.

हिन्दू उपासना प्रार्थना करता त्या वेळार परमेश्वराचें नांव घेता. मुसलमान नमाज 'पढ़ता' तेन्ना अल्लाचें नांव घेता. हिन्दू जाका परमेश्वर म्हणटा ताका मुसलमान अल्ला-ओ-अकबर म्हणटा. हिन्दू जपाक बसता तेन्ना

हातांत तुळशीची माळ घेवन बसता. मुसलमान 'तस्बीह' घेवन जप करता. समाजांत जेन्ना अधर्म वाडटा तेन्ना *'परित्राणाय साधूनाम्'* देव अवतार घेता, अशें हिन्दू म्हणटा. रसूल मसीहा तेच खातीर येता, अशें मुसलमान मानता. पुण्यकर्मां केलीं जाल्यार स्वर्ग मेळटा आनी पातकां केलीं जाल्यार मनीस नरकांत पडटा अशें हिन्दू मानता जाल्यार मुसलमान हेंच जन्नत, जहन्नूमचे भाशेंत सांगता. हिन्दू उपास करता. मुसलमान 'रोजा' करता. हिन्दू काशी यात्रेक वता. मुसलमान हजचे यात्रेक वता. हिन्दू ॐ म्हणटा. मुसलमान 'आमीं' म्हणटा. हिन्दू जानवें घालता. मुसलमान 'तावीज' बांदता.

धर्माच्या मळार दोनां मजगतीं फरक खंय आसा, लक्षांतूच येना.

हिन्दुस्तानांत हिन्दू आनी मुसलमान एकामेकांक प्रभावीत करीत आयल्यात. सात आठ शतमानां मुसलमानांचो शेक हिन्दुस्तानांत चल्ला. परिणाम - हिन्दू फारसी शिकले, फारसींत उलोवंक बरोवंक लागले. इतलेंच न्हय, उठप बसप, जेवप खावप, न्हेसप पांगरप मुसलमानां भाशेनूच करपाक लागले. धर्मान हिन्दू उरले तरूय रीत रवीस तांगेली मुसलमानी जाली. उत्तर भारतांतले हिन्दू चाली रितींत अर्दे मुसलमान कशे दिसतात. हाचो परिणाम मुसलमानांचेर जाला. हिन्दुस्तानांतलो मुसलमान इराण, इराक, अरबस्तान, तुर्कस्तानांतल्या मुसलमाना सारको निखालूस न्हय. पाकिस्तानांतलो मुसलमानूय हांचेच सारको. तोवूय इराणी, इराकी, अरबी, तुर्की मुसलमाना सारको न्हय. तो हिन्दूच उरला. भायल्या मुसलमानांक तो आपणा सारको केन्नाच दिसूंक ना. आनी हिन्दुस्तान पाकिस्तानांतल्या मुसलमानांक इराणी इराकी अरबी तुर्की मुसलमान आपलेशे केन्ना दिसले नात. हिन्दुस्तानी मुसलमान इराण, इराक, अरबस्तान तुर्कस्ताना सारकेल्या देशांनी वचून उद्देग धंदो करपाक रावलो तरूय जांवंय वा सून सोदून हाडटात हिन्दुस्तानांत वचून. पाकिस्तानीय तेंच करता.

दिल्लींत मुसलमान, शिख आनी हिन्दू बायलो एकठांय आयिल्ल्यो पळोवच्यो. खंयची बायल मुसलमान, खंयची हिन्दू आनी खंयची शिख हें दिल्ली भायल्या कोणाकूच वळखूंक येवपाचें ना. तिगांचोय भेस सारको.

भासूय सारकी. आंगा वयल्यो वस्तीय सारक्यो. लग्नांतल्यो चाली - निस्बत, हल्दी, मेहंदी, तेल, मांडवा, बरात, जलवा, कंगन - मुसलमान हिन्दू शिख तिनूय जमातींच्यो सारक्यो. भुरगें जल्माक येतकूच सटी करप, मुंडन करप, खीर खावप, तिगांचेंय सारकें. भुरगेपणांतूच लग्नां करपाची चाल हिन्दूं मजगतीं कदीम काळा सावन चलत आयिल्ली. मुसलमानी संवसारांत ही चाल खंयचेच कडेन नाशिल्ली. पुणून हिन्दुस्तानांतल्या मुसलमानां मजगतीं ती पयर मेरेन चलताली. घोव वतकूच हिन्दू बायलांक पर्थून लग्न जावंक मेळनाशिल्लें. त्यो घोवाच्या सरणार घालून घेताल्यो आनी 'सती' वताल्यो. मुसलमानी संवसारांत ही चाल नाशिल्ली. पूण हिन्दुस्तानी मुसलमानां मजगतीं पयर मेरेन ती चलताली. हे चालीक ते सती बदला 'जोहर' म्हणटाले.

मुसलमानांची धर्माची भास अरबी आशिल्ली, राजकारभाराची फारसी. पुणून मुसलमान पात्शायांनी ह्यो भासो लोकांचेर केन्ना थापल्यो नात. हाका लागून बंगाली मुसलमान बंगालीच उलयत रावले. पंजाबी पंजाबीच, सिंधी सिंधीच, पख्तुनिस्तानांतले पुश्तूच, आसामांतले असमिया भाशेंत तर केरळांतले मलयाळम भाशेंत उलयत बरयत रावले. दिल्लीचे लोक 'खडी बोली' उलयताले. तिका तांणी साहित्यीक रूप दिलें आनी तिका उर्दू म्हळी. उर्दू म्हळ्यार छावणींतली भास. 'कॅम्पां'तली भास. आनी उर्दू खातीर लिपी मध्य आशियांतली अरबी घेतली. उर्दूचें विदेशी आंग फकत इतलेंच. बांदावळ, मुदल उतरां, व्याकरण सगळें आर्य कुळांतल्या हेर भासां सारकें. कांय अरबी फारसी उतरां भितर येवं, पुणून अरबी फारसी उतरां हेर भारतीय भासांनीय आयल्यांत. उर्दू निखट्या मुसलमानांची भास केन्नाच जावंक पावली ना. तिची वाड क़रपांत हिन्दूंचोय व्हडलो हातभार लागला. पाकिस्तानान आपणाली राष्ट्रभास उर्दू मानल्या. पुणून पाकिस्तानांत उर्दूचीं पाळां मुळां नात. ती भारतांत आसात.

हिन्दू आनी मुसलमानांक एकामेकां पसून वेगळे करपाचे कितलेय यत्न करात, संगीत तांकां वेगळे सरूंक दिवपाचें ना. सैतानाक लेगीत तांकां वेगळे करूंक जमपाचें ना. हिन्दुस्तानी संगीत निखटें हिन्दूंचें न्हय. तें हिन्दूं

इतलेंच मुसलमानांचें. हिन्दुस्तानी संगिताचीं कितलींशीं 'घराणीं' आसात. चडशीं सगळीं मुसलमानी. दिल्ली घराणें तम्रस खाँचें. आग्रा घराणें फैयाज खाँचें. ग्वाल्हेर घराणें हुद्द हुसेनाचें. पतियाला घराणें अलीबक्षाचें, कोल्हापुरचें घराणें अल्लादिया खाँचें. ह्या सगळ्या 'उस्तादां'क प्रेरणा मेळ्ळी ती सूफी संतां कडल्यान. ह्या सूफी संतां मजगतीं एक व्हड सूफी जावन गेलो - अमीर खुसरो. तो कवीय आशिल्लो. संगितकारूय आशिल्लो. फारसी आनी हिन्दी दोनूय संगितांचे सूर जुळोवन ताणें एक नवो राग तयार केल्लो - यमन नांवाचो. द्रुपद, तराणा, खयाल, हीं हिन्दुस्तानी संगिताचीं आंगां ताणेंच दिल्यांत. ताचें सगळ्यांत व्हडलें योगदान म्हळ्यार सतार.

हिन्दू मुसलमानां मजगतीं एकचार घडोवन हाडपाचो वावर 'भायल्या' मुसलमानांनीय केला. अकबर तांच्यांतलो एक. हिन्दूंचीं धर्मपुस्तकां सोंपे उर्दूंत हाडपाचो वावर ताच्याच काळांत सुरू जाला. ताचेच प्रेरणेन अब्दुल रहमान चिश्तीन 'मिरात अलहकीक' नांवाची गीतेची इस्लामी अर्थावणी बरयल्या. दारा शिकोह तर ताचोच पूत. ताणें उपनिषदांचो फारसी भाशेंत अणकार केला. काशीक वचून तो हिन्दू पंडितांच्या पांयां कडेन बसून संस्कृत शिकिल्लो. हिन्दू मुसलमानां मजगतीं अकबरान लग्नांय घडोवन हाडल्यांत. खासा तो राजपुतांचो जांवंय जाल्लो. काश्मिरांतल्या जैन-उल्-अबैदीनान जम्मूच्या म्हाराजाच्या दोगी धुवां कडेन लग्न केल्लें. बहामनी मुसलमानां मजगतच्या तज-उद्दीन-फिदखानान विजय नगरच्या देवरायाच्या धुवां कडेन लग्न केल्लें. बिजापूरच्या युसूफ अदील शाहन मुकुंदराय नांवाच्या एका ब्राह्मणाच्या धुवां कडेन लग्न केल्लें.

सातशीं वर्सांचे राजवटींत ह्या विदेशी मुसलमानांनी एकेच तरेचें प्रशासन, एकेच तरेचें नाणें चलोवन कितल्याश्या शतमानां उपरांत 'एक राष्ट्र' म्हूण देशाक गुथून काडिल्लो. दोनूय संस्कृतायांचें म्हेळांय दोनूय संस्कृतायांच्या दुदांत भरसून ताचें धंय जाल्लें. धंयांतल्यान लोणी काडपाचें आनी लोणयाचें तूप करपाचें उरिल्लें. जिस्त ह्या वेळार इंग्रज हिन्दुस्तानांत आयले. आनी तांणी आपणाली राजवट घटमूट करपा खातीर दोनूय जमातींत फूट घाली. स्वराज्य लागीं येतासर ह्या दोनूय जमातींच्या फुडाऱ्यांनी इंग्रजांचें

काम पूर्ण केलें आनी एका देशांत दोन 'राष्ट्रां' उबीं केलीं. दोन राष्ट्रां हिन्दू मुसलमानांच्या कुड्ड्या राष्ट्रवादान केल्यांत, संस्कृतायेन न्हय. उपरांत पाकिस्तान फुटून ताचो एक वांटो बांगलादेश म्हूण मुखार आयलो.

हीं तिनूय 'राष्ट्रां' अर्दशतमान जालें तरूय झगडत आसात... तिनूय एकामेकांक भियेतात आनी एकामेकांक भेश्टायतात. हाचो लाव नवसाम्राज्यवादी घेतात!

तिनूय राष्ट्रांनी भोंवन येतकूच कोणाकूय दिसूंक जाय, तिनूय राष्ट्रां खंयच्याच आंगान एकामेकां पसून वेगळीं न्हय.

रूमीच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार -

*'तफावत है सिर्फ नाम ही का, दरअसल तीनों एक ही हैं, यारों!'*

जाग : मे 2004



# 8

# देवाक 'ट्रांस्फर' करुंया

तो चडसो भायरूच आसता. वर्सांतल्यान एक दोन खेपे गोंयांत पावता. खंयच्याय तरी एका हॉटेलांत रावता. पुणून, खंयूय, रावलो जाल्यारूय एक दीस तो आपणाल्या कुळदेवाचे भेटेक मंगेशीं येता. मंगेशीं पावतकूच आमगेरूय एक फावट मारून वता. म्हजो जिवाभावाचो एक इश्ट तो. अर्द शतमाना सावनचो.

हे खेपे ताका लघुरूद्र काय महारूद्र करपाचो आशिल्लो. आमगेरूच येवन राविल्लो: म्हाकाय आपणा वांगडा मंगेशीं घेवन गेलो. वाटेर म्हणपाक लागलो, 'केदो भाग्यवंत रे तूं! म्हाळसा, मंगेश, नरशींव, शान्तादुर्गा, नागेश, रामनाथ, म्हालक्षीम - सगळें देव तुज्या एका उल्याचे वाटेर रावतात.'

'उलो मारल्यारूच पुरो, रोखडे पावतात.' हांवें ताचें वाक्य पुरतें केलें.

'तुजो कुळदेव कोण?' ताणें अवचीत विचारलें

'बांदोडेची म्हालक्षीम.'

'तिचे भेटेक वता काय ना तूं?'

'पावतां चुकून... कोणूय व्ही. आय. पी. येतात. तांकां देवळां दाखोवपाक तांचे वांगडा वतां. तेन्ना हेर सगळ्या देवां वांगडा म्हालक्षुमीचीय भेट घडटा... मुद्दम भेटेक म्हूण केन्ना वचना.'

इतली जाप दिवन हांवें म्हळें, 'हांव नास्तीक न्हय, हें तूं जाणा. देव ना, आत्मो ना, असलें कितेंच म्हज्या तोंडांतल्यान केन्ना भायर सरपाचें ना. फाटल्या चाळीस पंचेचाळीस वर्सां पसून हांव नित्यनेमान प्रार्थना करीत

आयलां. म्हाका सद्दां न्हाण जाय, खाण जाय, न्हीद जाय तशी प्रार्थनाय जाय. ते बगर सूख लागना. प्रार्थना करूंक पावलोंना जाल्यार त्या दिसा म्हाका न्हावंक नाशिल्ले वरी बुरशें-शें दिसता. पुणून, देवळांत वचून देवाची भेट घेवची अशें मात केन्नाच दिसलें ना. म्हजे आध्यात्मिकतायेक पोसवण दिवपा खातीर म्हाका केन्ना देवळांची गरज भासली ना, मुर्तीचीय भासली ना. म्हजो देव म्हजे फुडल्यान, फाटल्यान सगळे कडेन आसा. भोंवतणच्या सैमांतूच ताका हांव पळेतां. सगळ्यांत चड तो म्हाका म्हज्या काळजांत जाणवता... संवसार रचपी देव आसत वा नासत. आसलो आनी हांवें तो ना म्हळो म्हूण म्हज्या दिसपट्ट्या जिवितांत ताची म्हाका आडखळ जायना. आनी आसा म्हळो म्हूण ताचो व्हडलो-सो आधारूय मेळना. पुणून म्हज्या काळजांत जो देव बसला तो ना म्हणपाचें काळीज म्हाका जावपाचें ना. कित्याक, तो म्हज्या बऱ्या वायट करण्यांचेर नदर लावन बसला तो हांव, 'पळेतां' आनी ताच्या सांगातांत रावपाचो जागरूक यत्नूय करतां...'

'देवळांची आनी देवांच्या मुर्तीची गरजूच ना, अशें तुजें म्हणणें...?'

'म्हाका ना गरज' हांवें, जाप दिली.

इतल्यांत मंगेशीं पावले. तो भटागेर गेलो आनी फुडल्या देवस्पणाचे तयारेक लागलो. हांव देवळांत एका खांब्याक तेंकून बसलों.

तकली खंयचे खंय पावली -

मक्केंत वेगळ्या वेगळ्या देवांच्यो तिनशें साठ काय कितल्यो मुर्ती आशिल्ल्यो. ह्या मुर्तींक लागून अरब लोक संघटीत जावंक पावूंक नात, अशें महम्मद पैगंबराक दिसलें. विस्कळीत जाल्लो अरबी समाज एक करतलो जाल्यार ह्यो मुर्ती पयलीं ना करूंक जाय, ह्या निर्णयार तो पावलो. ताणें एक दीस त्यो मुर्ती फोडून उडयल्यो आनी अख्ख्या संवसाराक आयकूंक येत येद्या 'बुलंद' आवाजांत घोशणा केली : 'एका अल्लाची सोडून जो दुसऱ्या देवांची पुजा करतलो तो काफीर थरतलो. ताका आनी धर्मा आड गेल्लो मनीस मानतले आनी ताचे कडेन ताका फावता ते तरेन चलतले...' आनी ताणें एकेश्वरवाद सुरू केलो.

तेवटेन येवरोपाक रोमी लोकांचें 'पँथियन' नांवाचें एक देवूळ आशिल्लें. तांतुंतूय अश्योच कितल्या-श्या देवांच्यो मुर्ती आशिल्ल्यो. रोम किरिस्तांव

जालें आनी किरिस्तांव पाद्रींनी त्यो सगळ्यो थंयच्यो हालयल्यो. आनी स्वर्गांत रावतल्या एकाच देवाक भजपाची चाल सुरू केली.

रोमाक लागून अख्खें येवरोप एकेश्वरवादी जालें.

हिन्दू-धर्माक मुर्ती तोडच्यो अशें कित्याक दिसलें ना? पळोवंक गेल्यार, हिन्दू-धर्मूय एकेश्वरवादी. एकेश्वरवादाचो मक्तो मुसलमानांचो वा किरिस्तांवांचो न्हय. हीं दोनूय धर्ममत्तां ज्या धर्मांतल्यान आयल्यांत तो यहूदी (ज्यू) धर्मूय मुदलांत एकेश्वरवादी. ह्या धर्माचो जाचेर प्रभाव पडला म्हणटात तो झरथ्रुस्टाचो पारशी-धर्मूय एकेश्वरवादी. हिन्दू-धर्म हो पारशी-धर्माचो खास्सा भाव. हिन्दू-धर्मूय मुदलांत एकेश्वरवादी. संवसारांत एकूच देव आसा, अशें मानपी. भायल्या कोणाच्या प्रभावान तो एकेश्वरवादी जावंक ना. भिरतले अनुभूतींतल्यान जाला.

पुणून - हिन्दूंच्या म्हालगड्यांक 'देव एक' हे जाणविके बरोबर आनीक दोन गजालींची जाणवीक जाल्ली. तांकां वेगळ्या वेगळ्या वंशांतल्या वेगळ्यो वेगळ्यो परंपरा आनी चाली-रिती चलोवपी, वेगळ्यो वेगळ्यो भासो उलोवपी लोकांक संस्कृतायेच्या एका सुतांत गुथून काडपाचे आशिल्ले. हे लोक जे तरेच्यो उपासना करतात तांकां सगळ्यांक मान्यताय दिले बगर तांकां एक करूंक येवपाचें ना, हें ताका दिसून आयिल्लें. आनी दुसरें, मनशाचें मन, वा म्हणुंया, तागेलो मेंदू लांबाय, रुंदाय आनी उंचाय ह्या तीन परिमाणांच्या संवसारांतूच काम करता, ताका निराकार, निर्गुण दोळ्यां मुखार उबें करूंक येना, म्हणपाचें तांणी पळेल्लें. उपासना करपा खातीर तीन परिमाणांच्या संवसारांतूच - थ्री डायमॅन्शनल वर्ल्डांतूच - देवाक हाडून बसोवचो पडटा, ताका नांव दिवचें पडटा, रुपूय दिवचें पडटा, म्हणपाचें तांणी अणभविल्लें. म्हूण हिन्दूंच्या म्हालगड्यांनी जण एकल्याची तळमळ, जण एकल्याची रूच, जण एकल्याची परंपरा, जण एकल्याचे संस्कार आनी सगळ्यांच्या मनाची आकलनशक्त लक्षांत दवरून देवाक हजार नांवां दिलीं, हजार रुपां दिलीं आनी लोकांक सांगलें - तुमी खंयच्याय देवाची उपासना करात, निमाणें ती एकाच देवाक पावता. देवाचीं नांवां आनी रुपां हजार आसलीं तरूय देव एक. बुदवंत ताका वेगळ्या वेगळ्या नांवांनी वळखतात आनी पाचारतात - **एकम् सत विप्रा**

बहुधा वदन्ति.

देवाचीं कितलींय नांवां आनी रुपां आसूं, लोक पुजा एकाच देवाची करतले, अशें तांकां दिशिल्लें.

पुणून एके गजाली कडेन तांचें लक्ष गेलें ना. 'देवाचीं नांवां रुपां कितलींय आसूं, हांव ज्या नांवाची आनी रुपाची पुजा करतां तेंच तागेलें खरेलें रूप - म्हजोच देव खरो; बाकिचे सगळे सकयल्या पांवड्याचे' अशें मनीस मानूंक लागतलो म्हणपाचो तांकां मातूय दुबाव आयलो ना. अणभवान दिसून आयलें : जेन्ना एका देवाची पुजा करपी समाज दुसऱ्या समाजाक झुजांत उडयतालो तेन्ना ह्या समाजाचो देवूय झुजांत पडलो अशें मानून तांगेल्या देवळांत वचून आपणाल्या देवाची मूर्त तागेल्या देवाचे वयर बसयतालो.

ही रानवटी चाल कितलिंशीं शतमानां चल्ली तेन्ना शंकराचार्य मुखार सरलो आनी ताणें एक नवी चाल सुरू केली. ताणें म्हळें - देवाचीं नांवां आनी रुपां कितलींय आसूंत, सगळे शिव, विष्णू, देवी, गणपती आनी सूर्य ह्या पांच देवांचे अवतार. पुजा पांचांचीय एकाच वांगडा जावंक जाय. तुमच्या इश्टदेवाक तुमी मदीं दवरात, उरिल्ल्या चारांक ताचे चोंय वटेन बसयात. पांचांचीय पुजा केल्यारूच तुमच्या इश्टदेवाक ती पावतली. एकल्या इश्टदेवाचे पुजेन पुजा पूर्ण जायना.

हे पुजेक शंकराचार्यान 'पंचायतन-पुजा' हें नांव दिलें.

पंचायतन-पुजेचो उद्देश वेगळ्या वेगळ्या देवांची पुजा करपी सगळ्यांक एकाच देवा कडेन घेवन वचपाचो आशिल्लो - एकेश्वरवाद चलणुकेंत हाडपाचो आशिल्लो.

शंकराचार्याचो हो उद्देश सफळ जाला व्हय? हिन्दू एकेश्वरवादी जावंक पावला व्हय? 'हय' म्हूण जाप दिवपाचो धीर जायना. हालिंसाराक तर आमी पळेतात, मुदलच्या देवांच्या देवळां भायर श्रीरामकृष्णाचीं, सांईबाबाचीं, संतोशीमांचीं नवीं नवीं देवळां वचत थंय-उबीं जावपाक लागल्यांत.

एकेश्वरवादा कडेन हिन्दू वतलोच म्हणपाचें खरेपण ना.

उदकाचे टांकयेंत नवें निर्मळ उदक भरचे पयलीं एक जतनाय घेवंक जाय - टांकयेंतलें पोरणें म्हेळें उदक पयलीं भायर उडोवन टांकी निवळ

करूंक जाय. टांकी निवळ केलिना जाल्यार, नवें निर्मळ उदक पोरण्य उदकांत भरसून तें म्हेळेंच उरतलें. धर्माच्या मळार आमी फाटल्या कांय शतमानां पसून पोरण्या धर्मविचारांत नव्या विचारांचें उदक ओतत रांवल्यात. टांकी केन्ना निवळ करूंक पावलेच नात. नवो कायदो हाडटकूच पोरणो कायदो रद्द जावंक जाय, अशें न्यायशास्त्र म्हणटा. तसो धर्माच्या मळार नवो विचार येतकूच पोरणो रद्द जावंक जाय आशिल्लो. धर्मशास्त्रानय हो नेम चलोवंक जाय आशिल्लो. हिन्दू धर्मसमाजांत अशें केन्नाच घडून आयलें ना. नवे नवे विचार जल्माक येत रावले आनी पोरणे विचार तशेच - तांच्या सांगातांतूच - चलत रावले. परिणाम : विचित्र तरेचे एके शाब्दीक कसरतींतूच आमी आमची सगळी शक्त खर्च करीत राविल्ले पळोवंक मेळटात. केन्ना गीता वाचतात आनी निष्काम कर्मयोग होच खरो हिन्दू-धर्म अशें म्हणपाक लागतात. तर केन्ना भागवत वाचतात आनी भक्ति-योग होच खरो हिन्दू-धर्म अशें सांगपाक लागतात. केन्ना अद्वैताचो विचार मुखार करून स्वर्ग-नर्क फट, पातक-पुण्य फट, हें फट तें फट - तें कित्याक, हो दिसता तो संवसारूच फट, अशें मांडपाक लागतात आनी होच खरो हिन्दू-धर्म अशें म्हणपाक लागतात. आनी, दिसपट्ट्या वेव्हाराचे भुंये वयल्यान चलपाक लागतात तेन्ना ग्रामदेवता, इश्ट-देवता, कुळ-देवता, इतलेंच न्हय तर देंवचार-म्हारू, राहू-केतू, घाडी-भगत असलें सगलें मानपाक लागतात. एकेश्वरवादाक कवळून कडेक काडून दवरतात. कितल्या-श्या शतमानां पसून हिन्दू ही कसरत करीत आयला.

समाजशास्त्री सांगतात - जे मेरेन हिन्दू समाजांत तरातरांच्या देवांची पुजा चलतली ते मेरेन जात ना जावपाची ना. आनी जे मेरेन जात ना जावची ना ते मेरेन हिन्दू समाज संघटीत जावपाची इल्लीय आस्त ना. एक तर, जात केन्नाच ना जावपाची ना अशें मानून ह्यो वेगळ्या वेगळ्या देवांच्यो पुजा चलूंक दिवपाच्यो (आनी हिन्दू समाज संघटीत करपाचें सपन सोडून दिवपाचें) वा, केदेंय मोल दिवचें पडूं, आमी जात ना करतले आनी हिन्दू समाज संघटीत करतले अशें थारावन वेगळ्या वेगळ्या देवांच्यो पुजा चलूंक दिवचे नात म्हणपाचो नित्शय करपाचो आनी तो निर्धारान चलणुकेंत हाडपाचो. दों भितरलो एक विकल्प घेवंक जाय. हिन्दू समाज

अजून खंयचो विकल्प घेवचो हेंच थारावंक पावूंक ना. जातीं आड तो कितलोय उलोवं, ज़ाती तोडपाक तो तयार आसा अशें मात पसून दिसना. एकेश्वरवादा कडेन हिन्दू समाज वचपाचो ना. आनी, एकेश्वरवादा कडेन तो गेलोना जाल्यार हिन्दू-धर्म कसोच तिगपाचो ना.

हिन्दूंक देव देवळां कित्याक जाय? आपणाचेर मदीं मदीं संकश्टां अरिश्टां कोंसळटात तीं देवान पयस करचीं म्हूण मू? तशें जाल्यार तांणी एक ग़जाल लक्षांत दवरूंक जाय : संकश्टां अरिश्टां देवूच धाडटा म्हणपाचें हिन्दूंच्या सगळ्या संतांनी एका ताळ्यान सांगलां. संकश्टां, अरिश्टां धाडून देव मनशाक घटमूट करता अशेंय स्पस्ट उतरांनी म्हळां. देखून, देवा कडेन मागता आसतना संकश्टां पयस कर म्हूण मागूंक जायना. केदींय संकश्टां धाड तूं, तीं सोंसपाची तांक आपणाक दी अशें मागूंक जाय.

संकश्टां सोंसपाची तांक देवळांतलो देव दिना. काळजांतलो देव दिता. काळजांतल्याच देवाक मनशान सोदून काडूंक जाय आनी ताकाच ताणें एकनिश्ठ रावंक जाय. जे मेरेन देव देवळांत आसतलो, ते मेरेन तो तुमच्या काळजांत येवन बसपाचो ना. देवळांतल्या देवाक सांगूंक जाय, तूं देवळांत सारकें काम करिना. देवळांतलो उठून आमच्या काळजांत येवन बस, तुजी खरी सुवात हीच. आनी, ताका काळजांत हाडून बसोवचो.

मनीस जेन्ना ह्या पांवड्यार पावतलो तेन्ना ताका देवळांचीय गरज भासची ना, मर्तींचीय भासची ना. इतलेंच न्हय, तर ह्या पांवड्यार मनीस पावतलो तेन्ना ताका एकाच धर्माक दसून रावपाचीय गरज भासची ना. तो खंयच्याय धर्मांतल्यान जें कितें घेवं येता तितलेंय घेतलो. आनी आपणाले अध्यात्मिकतायेक पोसवण दीत भितरल्यान गिरेस्त जायत रावतलो.

आनी तेन्नाच तो खरेल्या अर्थान 'धर्मनिश्ठ' रिलीजियस, स्पिरिच्युअल जावंक पावतलो.

जाग म्हयनाळें






## 9

# देशाक भेंकरो कोणें केलो?

बुद्धाचे अहिंसेक लागून खंय देश भेंकरो जावन पडलो!

बुद्धाची शिकवण अहिंसेची आशिल्ली म्हणपाचें हांकां कोणें सांगलें, कोणाक खबर! ताची शिकवण **त्रिपिटकां**त आयल्या. 'जिवितांत दुःख भरलां, हें दुःख आमीच ओडून हाडलां, आमच्यांनी तें पयस करूंक जाता, तें पयस करपाची एक आठ आंगी वाट आपणें सोदून काडल्या' हींच चार आर्यसत्यां ताचे पुराय शिकवणेंत वाचूंक मेळटात. आयुष्यभर हींच आर्यसत्यां तो लोकांक तरातरांनी सांगीत समजायत आयिल्लो. ताचे शिकवणेंत अहिंसा येता ती फकत **पंचशीलां**त. तिवूय, 'हांव व्यभिचार करचों ना, चोरी करचों ना, व्यसनांनी पडचों ना, दुसऱ्यांचें धन हातासचों ना' ह्या चार व्रतां वांगडा 'हांव प्राणिहत्या करचों ना' ह्या एका व्रताच्या रुपान. ह्या येद्याश्या उल्लेखा वयल्यान बुद्धाची शिकवण अहिंसेची आशिल्ली म्हणप समा जायना.

अहिंसेचो उपदेस करतालो तो खरेपणानशीं महावीर. जल्माक आयिल्लो एकान एक जीव जियेवपाचो हक घेवनूच जल्माक आयला, जियेवप ताचो 'फन्डामेन्टल रायट' - जल्मसिद्ध हक, ताका मारपाचो अधिकार मनशाक ना, ताका खंयच्याय कारणाक लागून मारप मनिसपणाक सोबना - खावपा खातीर मारप तर निखालूस सोबना, अशें तो सांगतालो. मनशाक संस्कारी करपाची तागेली ही अहिंसा आशिल्ली. देशाचे राखणेचो प्रस्न ताच्या काळांत उपरासुनूच येवंक नाशिल्लो. तो आयला अडेचशें वर्सां उपरांत - सिकंदर घुरी घालून आयला तेन्ना.

तेन्ना ताका धांवडावन घालपाचो वावर चन्द्रगुप्त मौर्यान केला. आनी चन्द्रगुप्त मौर्य जैन आशिल्लो. महावीराक मानपी आशिल्लो. ताचे शिकवणेक धरून चलपी आशिल्लो. पुणून सिकंदराक धांवडावन घालपाक तागेले अहिंसेन आडखळ हाडूंक ना.

बौद्ध जाल्लो तो चन्द्रगुप्ताचो नातू अशोक. कलिंग देश ताका आपणाल्या साम्राज्यांत हाडपाचो आशिल्लो म्हूण ताणें ह्या देशाचेर घुरी घाल्ली. आनी लाखांनी लोकांक ताका मारचे पडिल्ले. आपणा हातान घडिल्लो हो सांवार पळोवन तो भितरले भितर पच्छातापान हुलपुपांक लागलो. आनी हे मुखार आपूण खंयचोच देश 'घेवचो ना' अशें थारावन तो 'बौद्ध' जालो. बौद्ध धर्म देशांत सगळे कडेन आनी देशा भायर खूब कडेन ताणेंच पातळायला. म्हूण कितें, ताणें आपणालें सैन्य बरखास्त केलां व्हय? ना. एक शूर सम्राट म्हुण्णूच ताचो अखेर मेरेन सगळ्यांचेर धेंक उरला.

बौद्ध धर्मान देश भेंकरे केल्ले जाल्यार जपान सगळ्यांत चड भेंकरो जावंक जाय आशिल्लो. कित्याक, जपान शंबर प्रतिशत बौद्ध. हजार बाराशें वर्सां सावन बौद्ध धर्म थंय चलता. तरूय हो देश केन्नाच कोणाचो बंदो जावंक ना. कोमोडोर पेरीन ताचेर एक खेपे नाळी जोखल्यो तेन्ना तो मातसो - मातसोसोच - हालिल्लो. पुणून रोखडोच हड्डें मुखार करून उबो राविल्लो. ताका हार खावची पडली ती फकत दुसऱ्या म्हाझुजांत. तिवूय झुजपाची ताची खुमखुमी उणी जाल्ली म्हूण न्हय, तर ॲटम बॉम्बा परस प्रभावी अस्त्र ताचे कडेन नाशिल्लें म्हूण. पुणून हार खावनूय निर्शेला व्हय तर तो? देशाचो सामको गोबोर जाल्लो आसतनाय थोड्याच वर्सां भितर फिनिक्स पक्षा भाशेन उबो रावला. सात खेपे पडलो तरूय आठवे खेपे उबो रावंक जाय ही शिकवण ताका बौद्ध धर्मानूच दिल्ली.

ना जाल्यार, आमचो देश पळोवया -

ख्रि.स. 712च्या अदमासाक पंदरा सतरा वर्सांचे पिरायेच्या मुहम्मद बिन कासिम नांवाच्या एका पोरांट्यान सिंध प्रांताचेर घुरी मात घाल्या, आठ दिसां भितर सिंध बगदादच्या खलिफाच्या साम्राज्याचो एक वांटो जालो. सिंध देश ज्या राजाच्या हातांत आशिल्लो तो बौद्धूय नाशिल्लो, जैनूय नाशिल्लो. हिन्दू ब्राह्मण आशिल्लो. राजपूत राजा तर हिन्दू धर्माचे

हडांतले व्हड अभिमानी. शूर वीर म्हुण्णूय तांची नामना. तांच्यो तरसादी खणखणूंक नात असो एक लेगीत दीस राजपुतांच्या इतिहासांत पळोवंक मेळचो ना. पुणून गझनीचो महम्मद तांचेर चाल करून मात आयला, सगले हे शूर वीर राजपूत महम्मदाच्या घोड्यांच्या पांयां खालच्या धुल्ला भाशेन खंयचे खंय उबून गेले. महाराष्ट्रांतले पेशवे राजपुतां सारकेच शूर म्हूण नामना जोडिल्ले. तांगेल्या शौर्याचीं वर्णनां वाचतकूच तांचें साम्राज्य पुराय देशांत कशें पातळ्ळें ना, हाचेंच अजाप जाता. पुणून मूठभर इंग्रज पुण्यांत भितर मात सरंल्यात, पेशव्यांनी तांचे मुखार साष्टांग नमस्कार घालो. राजपूत बौद्‌ध वा जैन नाशिल्ले तशे पेशवेय नाशिल्ले. मागीर, मातशें खंयूय खुट्‌ट जायनाफुडें सगळे शूर वीर हिन्दू राजे दुस्मानांक शरण कशे गेले?

खरी जाप एकूच आसा -

हिन्दू सदांच भेंकरे आशिल्ले. हिन्दू धर्मानूच तांकां भेंकरे केल्ले.

राज्य करप म्हळ्यार राज्य 'भोगप' इतलेंच हिन्दू राजा जाणा आशिल्ले. राज्याची राखण करूंक जाय म्हणपाचें तांकां कोणेंच सांगूंक नाशिल्लें. सगळ्यां कडेन सैन्यां आसतालीं पुणून तीं दुस्माना पसून खासा आपणाली राखण करपा खातीर आसतालीं. देशाची करपाक न्हय, आनी तांगेले दुस्मान तांगेलेच कोणूय तरी शेजारी पाजारी वा सोयरे धायरे आसताले. भायले न्हय. सिंधाच्या राजा कडेन सैन्य आशिल्लें. पुणून तें तागेल्या राजम्हाला भोंवतणींच आशिल्लें. राजाची राखण करतालें. राज्याचे शिमेर सैन्य दवरूंक जाय म्हणपाचें ह्या राजाक खबर नाशिल्लें. आपणालें राज्य समुद्राचे देगेर आसा, आपणें थंय एक नावीक दळ उबें करूंक जाय म्हणपाचेंय ताच्या खंयच्याच शास्त्रांत नाशिल्लें. आपणाले शिमे पेले कडेन खलिफाचें आकांताचें व्हड एक साम्राज्य पातळ्ळां, ताणें पुराय मध्य आशिया, उत्तर आफ्रिका, युरोपाचो दक्षिणे कडलो वाटार 'घैतला', ताच्या मनाक मारल्यार आपणालेंय राज्य ताचे भकीक पडूं येता म्हणपाचेंय ताका खबर नाशिल्लें. भायर कितें चल्लां हें ताणेंच न्हय तर कोणेंच ह्या देशांत जाणा जावन घेवपाचो यत्न करूंक ना. राजपुतांनी केल्लो जाल्यार गझनीच्या महम्मदाच्या हालचालींचेर ते नदर दवरून रावतले आशिल्ल

तशे ते रावले नात. राविल्ले जाल्यार, चक्रवर्ती राजा जावपाच्या हावेसान आमी एकामेकां आड झुजतात तें आमकां पुटवपाचें ना, आमी एक जावंक जाय, आमी एकठांय आयले जाल्यार गझनीच्या महम्मदाक खंयचें, ताच्या बापायक लेगीत देशांत पावल दवरपाचें काळीज जावचें ना म्हणपाचें तांकां कळटलें आशिल्लें. कळ्ळें ना. परिणाम - देशाचे सगळे दरवटे मुसलमानांक घुरयो घालपाक तांणीच उकते करून दवरले. देशांत सात आठ शतमानां मुसलमानी राजवट चल्ली ती मुसलमानांच्या शौर्याक लागून काय हिन्दूंचे मोटवे नदरेक लागून, तांच्यांतले फुटीक लागून आनी, तांच्या भेंकरेपणाक लागून, मातशें सोदून काडूंक जाय. आमी भितरले भितर झुजत रावले जाल्यार इंग्रजां मुखार आमी तग धरूंक पावचे नात हें शिंद्यांकूय केन्ना कळ्ळें ना, होळकरांकूय समजलें ना. पुणें लुटपाक दोगूय फुरफुरून मुखार सरले.

देशाची राखण फकत राजांचें शौर्यूच करूंक पावना, तांगेलें सैन्यूय करूंक पावना. दोगांय फाटल्यान प्रजा पर्वत कशी उबी रावंक जाय. ती तशी उबी रावपा खातीर प्रजे मजगतचे सगळे वेगळेचार ना करून तिका 'एक' करूंक जाय. सगळ्यांचो पीळ सगळ्यांक पडूंक जाय हें हिन्दूंच्या एकाय स्मृतिकाराक कळ्ळें ना. समाजांत व्यवस्था - आयचें भाशेत, लॉ ऍण्ड ऑर्डर - चालू आनी स्थापन करपा खातीर तांणी एक चातुर्वर्ण्य वेवस्था उबी केली. तांतूंत देशाचो राजकारभार चलोवप आनी ताची राखण करप हें काम क्षत्रियांच्या वांट्याक आयलें. बाकिच्या तिनूय वर्णांचे लोक ह्या दोनूय कामां पसून कडेक पडले. मदीं मदीं राज्य 'भोगपा' खातीर ब्राह्मण मुखार सरल्यात, तशे वैश्यूय सरल्यात आनी शुद्रूय सरल्यात. पुणून हांकां आडमार्गी (aberrant) लेखूंक जाय. सामान्यतायेन ब्राह्मण, वैश्य आनी शूद्र राजकारभाराच्या मळार तटस्थ वा उदासिनूच रावले. 'आमकां होय सारको, तोय सारको' अशें म्हणीत रावले. तें कित्याक, तांकां देशी कोण, विदेशी कोण, हेंवूय केन्ना कळ्ळें ना. कोणूय आसूं, आमच्या दिसपट्ट्या वेव्हारांत ताणें आडखळ हाडिना जातकूच जाली, अशें देवा लागीं मागीत रावले. देश भौन भौन गुलाम जाला ताच्या मुळांत ही चातुर्वर्ण्य व्यवस्थाच आसा. फकत मनूक एकल्याक गाळी संवन

मागपाचें ना. वेदांच्या काळा पसून ही 'वेवस्था' चलत आयल्या. मनू बुद्धा उपरांत तीन चार शतमानांनी आयला. गाळी घालच्योच जाल्यो जाल्यार पुराय हिन्दू 'नदरे'कूच घालच्यो पडटल्यो. सगळ्यांत चड शंकराचार्या सारक्या आचार्याक घालच्यो पडटल्यो. मनू नांवाचो कोण खरोच जावन गेला काय कितें, सांगूंक येना. पुणून शंकराचार्य जावन गेला हे विशीं कोणाकूच दुबाव ना. मुहम्मद बिन कासिमान सिंध घेतले उपरांत शंबर देडशें वर्सांनी शंकराचार्याचो जल्म जाला. हिन्दू समाज विस्कळीत जावन पडिल्लो ताका शंकराचार्यान संघटीत केलो म्हूण ताची नामना आसा. पुणून हिन्दू समाज संघटीत जावंक आडखळ चातुर्वर्ण्य हाडटा म्हणपाचें इतिहासान स्पश्ट बरें दाखोवन दिल्लें आसतनाय ह्या आचार्यान 'शूद्रांनी वेद शिकूंक जायनात, वेदवाक्य तांच्या कानार पडलें जाल्यार शिशें कडोवन तें तांच्या कानांत घालचें आनी कान फोडचे, वेदमंत्र तांच्या तोंडांतल्यान भायर सरले जाल्यार तांच्यो जिबो कातरून उडोवच्यो' असलो 'वेदान्त' शिकयला! ज्या देशांत असलो 'वेदान्त' चलता तो संघटीत कसो जातलो? तो सदांच विस्कळीत उरतलो, भेंकरोच उरतलो.

देशाक भेंकरो केला तो हिन्दू धर्मान. हिन्दू धर्माच्या स्मृतींनी, हिन्दूंच्या धर्माचार्यांनी. बेश्टें अहिंसेक दुशण कित्याक? आनी बुद्धाक बावड्याक बेश्ट्यो गाळी कित्याक?

मात्शे तर्जून तरी पळेयात सभाग्यांनो तुमचोच धर्म, तुमचेंच तत्त्वज्ञान, तुमचोच वेदान्त. मागीर देश भेंकरो कसो जालो हें बेस बरें लक्षांत येतलें तुमच्या.

जाग : जुलै 2001



# 10

# मुसलमान झगडाळ कित्याक जाल्यात?

दोन खेपे पाकिस्तानान भारताचेर आगळीक केली आनी दोनूय खेपे ताका मान खाला घालून हार खावची पडली. तरी आसतना तें पर्थून फुरफुरून आयलें आनी तिसरे खेपे आगळीक केली. हेय खेपे ताका लज जावन वचचें पडलें.

अंतरराष्ट्रीय लोकमत्तूय ताचे करणे आड गेलें.

आतां, धरुंया, आमी पाकिस्तानाक म्हळें, 'तुजीं हीं किजिलां चल्ल्यांत तीं फकत काश्मीराक लागून मू? चल, दिवन उडयतात आमी तुका काश्मीर.' जाल्यार भारत-पाक संबंद निवळटले व्हय? पन्नास वर्सां पयलीं आमी हिन्दू-मुसलमानां मजगतचे संबंद निवळचे म्हूण पाकिस्तान मान्य केल्लें. हिन्दू-मुसलमान संबंद पाकिस्तान दिवनूय निवळूंक नात. जो प्रस्न भितरले भितर सोडोवपा सारको आशिल्लो - भितरले भितरूच सोडोवंक जाय आशिल्लो - तो आमी पाकिस्तान दिवन अंतरराष्ट्रीय मळार व्हरून सोडलो. आनी आमचे भितर लावालावी लावपी भायल्या शक्तींच्या हातांत तो काडून दिलो!

काश्मीर पाकिस्तानाक दिलें जाल्यार हेंच जातलें. काश्मीर हातांतलें वतलें. भारत-पाक संघर्श मात चलत आयला तसोच चलत रावतलो.

काश्मीर पाकिस्तानाक दिवन भारत-पाक संबंद निवळपाचे नात, तशे पाकिस्ताना कडेन आशिल्लें काश्मीर घेवनूय निवळपाचे नात. तें कित्याक, पाकिस्तान जिखून तें परतें हिन्दुस्तानाक दसयलें जाल्यारूय निवळपाचे नात. कित्याक? आमी मानतात तसो हो प्रस्न निखटो 'राजकी' न्हय

म्हूण. मुदलांत हो संस्कृतायेच्या मळा वयलो एक व्हड प्रस्न. आनी, संस्कृतायेच्या मळा वयले खंयचेच प्रस्न राजकी उपायांनी केन्नाच कोणाक आयज मेरेन सोडोवंक येवंक नात.

धरुंया, हिन्दुस्तानांतल्या मुसलमानांनी पाकिस्तानाक एका ताळ्यान सांगिल्लें -

'फकत काश्मीरांतल्याच मुसलमानांचो सो हुसको काडटात तुमी? हिन्दुस्तानांत आमी नात व्हय? पाकिस्तानांत आसात ताच्याकूय चड मुसलमान हिन्दुस्तानांत आसात. आमकां, आमच्या धर्माक, आमचे संस्कृतायेक हांगा कोण्ण कांयच करपाचो ना. हिन्दू आसूं आमचे परस संख्येन व्हड. पुणून ते जाणात, देश जितलो तांचो तितलो आमचोय बी... हिन्दू आमचे व्हडले भाव. आमच्या वायटाक पडत अशें कितेंच ते करपाचे नात... काश्मीरांतले मुसलमान आमचे वांगडा रावतले. जंय आमी थंय ते. तांचो हुसको तुमी काडपाची गरज ना...'

जाल्यार, पाकिस्तानाचें काश्मीरा विशिंचें राजकर्ण चलत आयलां तशेंच चलत रावतलें आशिल्लें? पाकिस्तानांतल्या मुसलमानांचे कितलेशे सोयरे हिन्दुस्तानांत आसात. तितलेच हिन्दुस्तानांतल्या मुसलमानांचे सोयरे पाकिस्तानांत आसात. तांकां बादत असलें राजकर्ण खेळपाचो पाकिस्तानाक धिरूच केन्ना जावचो नाशिल्लो.

एक गजाल घट्ट लक्षांत दवरिल्ली बरी -

हिन्दुस्तान पाकिस्तान - दोनूय कडल्या मुसलमानांक हिन्दू जितले लागिंचे तितले इराण, इराक, तुर्कस्तान, अरेबिया हांगासल्ले मुसलमान लागिंचे न्हय. इस्लामी देशांतल्या लोकांचो धर्म एक आसूं, संस्कृताय सगळ्यांची एक न्हय. पाकिस्तानांतलो मुसलमान अरबस्तान वा तुर्कस्तानांत वचून रावलो जाल्यारूय जांवय वा सून हाडपाक पाकिस्तानांत वा हिन्दुस्तानांत येतलो आनी हांगाच सोयरीक जुळोवन वतलो. पाकिस्तान हिन्दुस्तान - दोनूय कडले मुसलमान रगतान एक हें सत्य दोळ्यां आड करूंक फावना. करूं मागीर ते कितलोय दुस्वास एकामेकांचो. एका रगताचे दायजी एकामेकांचो दुस्वास करिनात?

एक खरें, हिन्दुस्तानांतले मुसलमान 'तुमी काश्मीरांतल्या मुसलमानांचो हुसको करूं नाकात. ते आमचे वांगडा आसतले' अशें पाकिस्तानाक सांगिनात. कित्याक? मातशें चिंतून पळोवचें म्हणटकूच, हिन्दू-मुसलमानांचो प्रस्न, भारत-पाकिस्तान प्रस्न, काश्मीरचो प्रस्न, खंय घुसपला तो लक्षांत येतलो.

हिन्दुस्तानांतलो मुसलमान आपूण हिन्दुस्तानांत सुगूर आसां अशें पाकिस्तानाक सांगिना तें एकाच कारणाक लागून. ताका आपूण हिन्दुस्तानांत सुगूर आसां अशें खरेपणानशींच दिसना. हिन्दुस्तानांतलो मुसलमान हिन्दूंक थर्त भियेता. एक तर तांची संख्या कोणाकूय थरथरो हाडीत येदी व्हड म्हूण. आनी दुसरें, फाटल्या पन्नास वर्सां सावन हिन्दू ताका भेश्टावपाचे एका सारके यत्न करीत आयल्यात म्हूण. हिन्दूंनी तांगेली बाबरी मशीद मोडून मातयेभरवण केल्या. तिवूय येद्या किंवाट्यान की तो पळोवन मुसलमानांकूच न्हय, तर येवरोपांतल्या किरिस्तांवांक लेगीत थरथरो भरलो. तें कित्याक, हिन्दूंक लेगीत भरलो. उपरांत ते काशी मथुरेंतल्या मशिदींचेर नदर लावन बसले. इतलेंच न्हय, तर आमी ह्यो मशिदी मोडटले म्हळ्यार मोडटलेच अश्यो घोशणाय मोट्या मोट्यान दीत रावले. हे परिस्थितींत आपूण ह्या देशांत सुगूर आसां, आपणाक कांयच जावपाचें ना अशें कशें दिसतलें हांगासल्ल्या मुसलमानांक? मुसलमानूच न्हय, किरिस्तांवूय आपणाक ह्या देशांत सुगूर मानपाचे नात. बौद्धूय मानपाचे नात. हिन्दूंच्या भंयान ते एके वटेन चडांत चड संघटीत जायत रावतले आनी दुसरे वटेन आपणाले कैवारी भायल्या देशांनी सोदतले आनी तांचेर चडांत चड निंबून रावतले.

हिन्दुस्तानांतलो मुसलमान 'प्रो-पाकिस्तानी' सो दिसता तो हे ख[illegible]गीर. पाकिस्ताना कडेन तो आपणालो कैवारी म्हूण पळेता. ताका प्रो-पाकिस्तानी मानून तुमी, धरुंया, ताका सांगलें, 'बाबा रे, तूं हांगा घुसमट्टा कित्याक? तूं पाकिस्तानांत वतलो जाल्यार पावयतात आमी व्हरून तुका थंय... ऊठ, तयारी कर वचपाची', जाल्यार, तो पाकिस्तानांत वचपाक तयार जातलो व्हय? केन्नाच ना. तो हांगाच रावतलो आनी हांगा रावनूय आपणाक ह्या देशांत सुगूर मानचो ना. हाचो अर्थ कितें जालो? राजकी प्रस्न न्हय हो,

इतलोच न्हय? सायकॉलजिचो प्रस्न हो. तो सायकॉलजिच्या उपायानूच सोडोवंक जाय. जो भियेता तो एक तर भेंकरो जाता वा मारखुरो जाता. आत्मरक्षेचीं आंगत्राणां हीं दोनूय ताचीं हें लक्षांत धरूंक जाय.

धरुंया, तुमी वाटे वयल्यान वतात. मुखावयल्यान एक बैल येता. सामान्यतायेन बैल कोणाचे वाटेक वचना. तुमचेय वचचो ना. तुमी भियेनासतना ताचे म्हन्यांतल्यान गेले जाल्यार तो तुमकां कांयच करपाचो ना. पुणून, धरुंया, तुमच्या हातांत ताणें तोणको पळेलो, जाल्यार तो तुमच्या तोंडा कडेन पळेतलो. तुमी ताका भियेल्यात म्हणपाचो ताका दुबाव आयलो जाल्यार तो मनांत म्हणटलो, 'हो म्हाका पळोवन भियेला... आनी हाच्या हातांत तोणको आसा. हो म्हाका मारतलो.' मारतलो म्हणपाचो दुबाव येनाफुडें एक तर तो पळून वतलो वा तुमच्या आंगार धांवन तुमकां शिंगांर घेतलो. आत्मरक्षा तो दुसरे कसले तरेन करतलो? मुसलमानाचें हेंच जालां. तो हिन्दूंक भियेवन संघटीतूय जाला, तेच बराबर मारखुरोय जाला.

हिन्दुस्तानांतल्या मुसलमानांचीच ही गत्त जाल्या अशें न्हय. पाकिस्तानाचीय हीच गत्त जाल्या. ताणें चीनाक आपणालो कैवारी इश्ट कित्याक मानला तर? तो हिन्दुस्तानाक थर्त भियेता म्हूण न्हय?

हिन्दू बदलूंक जाय. हिन्दू बदल्लोना जाल्यार मुसलमानूय बदलपाचो ना. किरिस्तांव, शीख, बौद्ध कोण बदलचो ना. हिन्दू झगडाळ जाले, आपणाक जाय तेंच करतले अशे म्हणपाक लागले जाल्यार मुसलमान, किरिस्तांव, शीख, बौद्ध सगळे आपणालें उपद्रवमोल - न्यूसंस वेल्यू - वाडयत वतले आनी हिन्दूंक जाय तें केन्नाच करूंक दिवचे नात. हिन्दू आयज आसा तसोच उरतलो ते मेरेन मुसलमानूय आयज आसा तसोच उरतलो, किरिस्तांव, शीख, बौद्ध होवूय मुसलमानां सारकोच जातलो. हिन्दू उदार जावंक जाय. शाणो जावंक जाय. हांच्या राज्यांत आमचें कांयच वांकडें जावपाचें ना, अशें मुसलमानांक दिसूंक जाय. तेन्नाच -

हिन्दू मुसलमानांचो प्रस्न, हिन्दुस्तान पाकिस्तानाचो प्रस्न, काश्मीरचो प्रस्न सुटपाक मात पसून कळाव लागचो ना. मागीर हिन्दुस्तानांतले मुसलमानूच पाकिस्तानाक वचून सांगतले, खूब झगडले आमी इतलीं वर्सां. आतां आमचे संबंद बदलुंया. दोनूय देश एकठांय हाडून तांचो एक

महासंघ' घडोवया. आमच्या ह्या महासंघांत मागीर बांगला देश, श्रीलंका, नेपाळ, भूतान - आयज जांकां आमी 'सार्क' देश म्हणटात - ते सगळे देश येतले. आनी इतलीं वर्सां आमचे मजगतीं चलिल्ले सगळे संघर्श सासणाचे सोंपतले. दोन जर्मनी एकठांय येवंक नात व्हय? इंग्लंड, फ्रांस, जर्मनी - एकामेकांचे हाडवैरी आयज एकठांय येवंक नात व्हय? आमच्यांनीय येवं येता. काल पयर मेरेन आमी एकठांय आशिल्ले. कांय राजकी अपघातांक लागून आमी एकामेकां पसून वेगळे सरल्यात. आतां नव्या रुपान - फेडरेशनच्या रुपान - एकठांय येवंया.

'सपन' आसत हें एक. पुणून सपनां पळोवपाची शक्तूय आमी होगडावन बसल्यात व्हय? सपनांच देश वयर काडटात. सपनांच नवो नवो इतिहास घडयतात.

जाग : ऑगस्ट 1999



# 11
# सादो पुणून क्रांतिकारी वावर

स्वराज्या आदल्या शंबर वर्सांचो इतिहास बारिकसाणेन नियाळून पळेलो तेन्ना एक गजाल घणघणीत बरी नदरेंत भरली -

देश घडोवंक जे जे कोण ह्या काळांत मुखार सरल्यात, तांचे मजगतीं एकल्यानूय धर्माची उवेखणी करूंक ना. राजा राममोहन रॉय आनी तांगेलो ब्रह्म समाज, दयानंद सरस्वती आनी तांगेलो आर्य समाज, विवेकानन्द आनी तांगेलें रामकृष्ण मिशन, भांडारकर आनी तांगेलो प्रार्थना समाज, एनी बेझंट आनी तांगेली थिओसॉफिकल सोसायटी, टिळक, आगरकर, गांधी, रवीन्द्रनाथ सगळ्यांनी धर्माचो आधार घेवनूच देश घडोवपाचो वावर केला. तांणी धर्म सुधारल्यात, तांचीं धोंगां पोंगां कातरून उडयल्यांत, आनी तांचो आधारूय घेतला. ज्योतिबा फुलेंचो सत्यशोधक समाजूय धर्म सुधारून तळागाळांतल्या लोकांक वयर काडपाचो एक धर्मपंथ आशिल्लो. गोपाळकृष्ण गोखल्यांचो भारत सेवक समाजूय राजकी मळाक अध्यात्माची देख दिवपी एक धर्म मार्ग आशिल्लो.

सगळ्यांच्या फाटल्यान 1857तल्या अपेसाचो कोडू अणभव आशिल्लो. सगळ्यांक देश स्वतंत्र जाल्लो जाय आशिल्लो. म्हूण, एके वेटेन सगळे मरून पडिल्ल्या समाजांत प्राण फुंकपाचो वावर करताले, तर दुसरे वेटेन समाजाचीं कुसकीं, बरगेल्लीं, नश्टीं, पाडीं आंगां कातरून धर्माक नवें रूप दिवपाचो वावर करताले. स्वातंत्र्य हें तांगेले यात्रेंतलें एक पेणें आशिल्लें. पुणून एक नवो भारत घडोवप हीच मोख आशिल्ली.

धर्म निवळावन ताच्या आधारान देश घडोवपी देशभक्तां मजगतचे गांधी निमाणे. तांची हत्या जाली आनी हो वावर खंडीत जालो.

उपरांत आयिल्ल्या नेहरू युगांत कोणेंच हो वावर मुखार व्हेलो ना. कोणेंच ताका म्हत्व दिलें ना. खासा नेहरूंक ह्या वावराचें म्हत्त्व केन्ना समजलें ना. आफूड-भश्ट ना करपाच्या वावरांत गांधी सुमारा भायर लक्ष घालतात हें पळोवन तांकां गांधींची सुमारा भायर तिडक मारताली. (तांगेली आत्मकथा वाचल्यार कळटलें.) सगळ्यांत म्हत्वाचो प्रस्न देशाच्या स्वातंत्र्याचो. तो सोडून गांधी असल्या 'अर्थ नाशिल्ल्या' वावरांत आपणालो आनी लोकांचोय वेळ खर्चितात म्हूण ते दांत-वोंठ चाबून शिणटाले. फणफणटाले. आफूड-भश्ट ना करपाच्या वावरांत तांणी आपणालें हात-बोट लेगीत केन्ना लावंक ना. 'सगळे धर्म काळा भायरे जाल्यात, तांकां निवळावपाची बिवळावपाची कांय गरज ना, विज्ञान-युगांत ते आपशीं ना जावपाचे आसात, मरपाचे आसात अशें लंडन स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्साच्या उखलाप्या बुदवंतां भाशेन मानीत आयले, म्हणीत रावले. तांणी धर्मांची साप उवेखणी केली. धर्मांचे सुवातेर सगळ्या धर्मांची उवेखणी करपी सॅक्युलरिझम तांणी चलयलो. जयप्रकाश, लोहिया सारकेले तांगेले तरणे समाजवादी सांगातीय हेच वाटेन मुखार गेले. सगळे आपणाक नास्तीक लेखताले. आनी शिकिल्लो, सुधारिल्लो, 'आर्विल्लो' भारत तांचे फाटल्यान पिसो कसो धांवपाक लागलो.

परिणाम - आमच्या राष्ट्रीक जिवितांत एक पोकळी निर्माण जाली. आनी विज्ञान सांगता, पोकळी सदांकाळ पोकळ उरना. ती कित्यान तरी भरून येता. कोणूय तरी भरून काडटा. धर्माच्या मळा वयले सुधारक ना जाल्ल्यान ही पोकळी भरून काडपाक धर्मकोल्ली लोक मुखार सरले. धर्मकोल्ली लोकांनी संवसारभर सदां अधर्मूच मातयला. धर्माच्या नांवान लोकांक एकामेकांचो दुस्वासूच करपाक शिकयला. गिन्यानाचो उजवाड पालोवन सगळे कडेन सदां काळोखूच पातळायला. समाजाचे उदरगतींत सदां आडखळीच हाडल्यात. स्तूप मोडल्यात, तांचेर देवळां बांदल्यांत. देवळां मोडल्यांत, तांचेर मशिदी उब्यो केल्यात. मशिदी मोडून तांचेर इगर्जो बांदल्यात. देश फोडल्यात. संतांक छळ्ळ्यात, जिवेय मारल्यात. लाखांनी, कोट्ट्यांनी लोकांक - तांचो कसलोच गुन्यांव नासतना - मारून उडयल्यात वा घरदार सोडून देशा भायर धांवडावन घाल्यात. धर्माचो इतिहास असल्याच अच्छेवांनी भरिल्लो पळोवंक मेळटा.

तांकां धर्मकोल्ली - fanatic, communal - म्हूण आमी फकत गाळीच घालीत रावतले व्हय? धर्मांनी तुमकां अशें करात म्हूण सांगूंक ना, सगळ्यांचेर मोग करात म्हूण सांगलां, असलो पोको उपदेसूच करीत बसतले व्हय? सगळ्या धर्मांची उवेखणी करपी येवरोपी अर्थाचो सॅक्युलरिझमूच तांचे मुखार विकल्प म्हूण दवरतले? असल्या उपायांनी धर्मकोल्ल ना जावपाचें ना. असल्या उपायांनी धर्माचो उपद्रव मातूय उणो जावपाची आस्त ना.

खरो उपाय एकूच आसा -

सगळे धर्म देवान दिल्यात म्हूण खरे, सगळे आमकां नितीचे वाटेन मुखार व्हरूंक वावुरतात म्हूण बरे; पुणून ते घेतल्यात आमी अर्दकुट्या लोकांनी, म्हूण ते अर्दकुटे उरल्यात. अर्दकुटे धर्म पूर्ण करूंक जाय, अशे म्हणपी विवेकानन्द गांधींचो सर्वधर्मसमभाव घेवनूच आमकां मुखार सरचें पडटलें. ते खातीर वेगळ्या वेगळ्या धर्मांच्या लोकांक एकामेकां लागसार हाडपाचो वावर आमकां करचो पडटलो. आमकां म्हळ्यार, सरकाराक न्हय. सरकाराक असलीं कामां करूंक येनात. सरकाराच्या हातांत भांगर पडलें जाल्यार ताचीय माती जाता. ताच्या हातांत विवेकानन्द गांधींचो हो वावर पडलो जाल्यार ताचें कितें जायत, सागूं येना. खरेपणानशीं हो वावर तुमी आमी - अक्कल आशिल्ल्या मनशांनी - हातांत घेवंक जाय. दुसऱ्या धर्मपरंपरांनी वाडिल्ल्या चडांत चड लोकांक आमी आमचे इश्ट करून घेवंक जाय; तांगेर वचूंक जाय, तांकां आमगेर आपोवंक जाय; तांगेर वचून जेवंक जाय, तांकां आमगेर जेवपाक आपोवंक जाय. एकामेकांच्या सणा परबांनी एकामेकांगेर वचून उर्बेन आनी आपलेपणान वांटो घेवंक जाय.

सामको सादो वावर हो. कोणाच्यानूय करूं येता, हे तरेचो. पुणून तो मना पसून केलो जाल्यार वेगळ्या वेगळ्या धर्मांच्या लोकां मजगतीं जी इश्टागत नंदतली, ती एक दीस इतली घट जातली की ती तोडप लश्कर-ए-तोयबाकूय जमपाचें ना, विश्व हिन्दू परिषदेकूय साधपाचें ना.

ह्या मळार सगळ्यांत चड बायलो मुखार सरल्यो जाल्यार दुदांत साकर पडली म्हणची पडटली. देशाचें रुपूच बदलपी क्रांतिकारी वावर हाचे सारको ना.

जाग : मे 2002



# 12
# आबॅ पियॅर

खिस्तान म्हळ्ळें, उपाशीं मनशाक जो जेवंक दिता तो देवाचीच भूक भागयता. तानेल्ल्याक जो उदक दिता तो देवाचीच तान न्हिवयता. शिंयांत कुडकुडटल्याक जो पांगरूण दिता तो देवाकूच ऊब दिता...

'उपाशीं, तानेल्ल्या, शिंयांत कुडकुडटल्या गरिबाच्या रुपांतूच देव आमचे मुखार उबो आसता. ताची सेवा करात, धर्तरेर स्वर्गिंचें राज्य येतलें.'

आपणाक स्वर्ग मेळचो म्हूण न्हय, तर धर्तरेर स्वर्गिंचें राज्य हाडपा खातीर वावुरचें, ही खरी शिकवण आशिल्ली खिस्ताची.

फ्रांसांतलो आबॅ पियॅर असलोच एक किरिस्तांव. मोटवो, बारीक किडकिडीत, तांबसार कातीचो, गरुडाचे चोंची सारकें नाक आशिल्लो. तोंडार ल्हानशें काळें खाड. आनी दोळे? मुखावेल्या मनशाच्या काळजांत खोल भितर देंवन पळोवपी. वोंठां वयलो मुमुरखो हांसो दुसऱ्याचीं काळजां जिखून घेवपी. पळेनाफुडें 'आरे! हो आमचोच एक जिवाभावाचो इश्ट' कसो कोणाकूय दिसचो.

म्हणटालो, 'गरिबांची सेवा करून देवाची पुजा करात, केन्ना पुरो जावचें ना. केन्ना निर्शेणी येवची ना. हांव फकत मोग करतां, मोग सोडून दुसरें कांय करिना. म्हजे हस्तुकीं जें घडटा तें हो मोगूच घडोवन हाडटा. मोग करून पुरो जाल्ले वरी दिसता तेन्ना हांव काळजांत आस्त धरून रावतां. आस्त धरून पुरो जाल्ले वरी दिसता तेन्ना हांव भावार्त दवरतां. भावार्तानूय पुरो जाता तेन्ना न्हिदतां. दुसऱ्या दिसा जागो जातां तेन्ना पर्थून मोगान वावर सुरू करतां. हाका लागून निर्शेणी केन्ना म्हाका आफडूंक पावना.'

आबॅ पियॅराक येवरोप 'रॅग पिकर' - बोंदरां एकठांय करपी संत म्हूण वळखताले. तो म्हणटालो, 'झुजां जिखपी विरांचें म्हाका व्हडलेंशें कांय दिसना. झुजां आड वावुरतल्या पॅसिफिस्टांचेंय म्हाका कांय लागना. गरिबाये आड झुजतले लोकूच म्हाका आवडटात. म्हाका ते म्हज्या कुटुंबांतलेशे दिसतात.'

आबॅ पियॅराक गरिबांची सेवा करपाची गुदलांतूच ओड आशिल्ली. तिका जिवीत ओंपपाची ताका प्रेरणा मेळ्ळी ती - सांगल्यार खरें दिसचें ना - वीस वर्सांची बंदखण भोगून आयिल्ल्या एका 'ऍक्स-क्रिमिनला' कडल्यान. बापायक जिवानशीं मारिल्लो म्हूण तो बंदखणींत ख्यास्त भोगतालो. वीस वर्सां उपरांत तो सुटलो खरो पुणून खंयचो सुटून आयलो अशें ताका जाल्लें. कोणूच ताका लागीं करी नाशिल्लो. जिविताक उबगून तो जीव दिवपाक भायर सरिल्लो. तो जिस्त आबॅचे नदरेक पडलो. आबॅन म्हळें, 'राव, घोव नाशिल्ली एकली बायल-मनीस आसा. खुबूच गरीब. तिका हांव एक खोंप बांदून दितलों म्हणटां. म्हज्यान एकल्याच्यान ती बांदून जावपाची ना. तूं म्हाका आधार दिशीत व्हय?... खोंप उबी जातकूच मागीर जीव दी तूं... ते मेरेन तूं म्हगेरूच राव.' जिवाक उबगल्लो मनीस आपणा परस चड दुःखी एके बायल-मनशेची खोंप उबी करपाच्या वावरांत इतलो खोल बुडून गेलो की आपूण जीव दिवपाक तयार जाल्लों म्हणपाचेंय साप विसरून गेलो.

तो आबॅ पियॅरागेरूच रावन असले वावर करपाक लागलो. दुःखी मनीस आपणा परस दुःखी मनशाचें दुःख ल्हव करपाचो वावर करपाक लागता तेन्ना आपणालें दुःख विसरता तें जालेंच, ते भायर, संवसारांत निर्शेदन उबगून जियेवप समा न्हय अशेंय मानपाक लागता, अशें ह्या मनशाच्या तोंडांतल्यान आबॅन आयकलें तेन्ना आबॅक हुरूप आयलो आनी होच वावर ताणें आपणा आंगार घेतलो. जिवितांत कितें करचें तें ह्या ऍक्स-क्रिमिनला कडल्यान आबॅक कळिल्लें.

आबॅचें घर आयस-पयस. म्हालगड्यां कडल्यान ताका तें दायजान मेळिल्लें. ह्या घराक ताणें एका आश्रमाचें रूप दिलें.

आबॅ पार्लामेन्टांत वेंचून आयिल्लो. पार्लामेन्टाच्या वांगड्यांक जें मानधन

मेळटालें तें आश्रम चलोवपाक उपकारा पडटालें. एक दीस पार्लामेन्टांत एक बील आयलें. सरकारी पंगडांकूच लाव जाता अशे तरेचो एक कायदो करपाचो पार्लामेन्टान बेत केल्लो. आबॅ ह्या बिला आड उलयलो. तरी आसतना तें पास जालें तेन्ना आबॅ पार्लामेन्टांतल्यान सोडचीट दिवन भायर आयलो. आश्रमाचो खर्च आतां कसो भागतलो? दुडवांकारांच्या दारांत वचून तो 'भीक' मागपाक लागलो. आश्रमांतल्या वांगड्यांक हें कळ्ळें तेन्ना तांणी म्हळें, 'च्यॅ, आमचे खातीर तूं भीक मागतलो? ना, ना, ना. आमी शारभर भोंवतले, डस्टबिनांतलीं बोंदरां, बोतली, कावलाक काडिल्लें सगळें पुंजावन विकतले आनी आश्रम चलयतले. तुका आमी कोणाच मुखार हात पसरावंक दिवचे नात.'

आश्रमी वांगड्यांनी दुसऱ्या दिसा सावन हो वावर सुरू केलो. पारिसांतल्या गिरेस्तांच्या कानार ही खबर पडली तेन्ना तांणी आबॅच्या नांवान चेकांचो पावस शिंवरावपाक सुरवात केली.

पुणून बोंदरां पुंजावपाचें काम आश्रमी लोकांनी बंद दवरलें ना.

आबॅ म्हणटालो, गरीब जेन्ना साप निर्शेता तेन्ना ताका ताच्याकूय चड गरीब मनशांची सेवा करपाक मुखार काडचो. म्हणटकूच जिवीत जियेवपा सारकें ताका दिसता. गरिबांक खावंक जेवंक मेळटा आनी गिरेस्तांच्या काळजांत कळवळोय जागो जाता. इतलेंच न्हय, तर हे भशेन गरीब गिरेस्त दोनूय पंगडांतल्या लोकांक एकठांय येवन काम करतात तें सरकार पळेता तेन्ना सरकाराकूय ह्या कामाक आधार दिवपाची इत्सा जाता. आबॅन गरिबां खातीर घरां बांदपाचें काम हातांत घेतलें तेन्ना सरकार असलें काम करपाक जे दुडू खर्चितालें ताचे दुपेटीन खर्चूंक लागलें.

सरकारा कडल्यान कामां धेवपाची आबॅची रितूय आगळी वेगळी आशिल्ली. पार्लामेन्टाच्या एका वांगड्याक सांगून ताणें पारिसांतल्या फुटपाथांचेर रावतल्यां खातीर सरकारान घरां बांदून दिवचीं म्हूण एक बील हाडलें. पार्लामेन्टान तें पास केलें ना. योगायोगान दुसऱ्या दिसा फुटपाथाचेर न्हिदतलें एक भुरगें शियान कुडकुडून मेलें. आबॅन पार्लामेन्टाच्या वांगड्यांक उद्देशून एक उकती चीट बरयली. तांतूंत ताणें म्हळ्ळें, 'काल तुमी बील पास केलें ना. ताका लागून एक भुरगें मेलें. ताचो फुनेराल फाल्यां दनपरां

बारांक दवरला. तुमच्या काळजांत मनिसपण उरलां आसत जाल्यार सगळ्यांनी फुनेरालाक येवचें.' आबॅची ही चीट खबरेपत्रांनी छापून आयली.

पावणे बारांक आबॅक एक फोन आयलो, 'फुनेरालाक खासा बांदकाम खात्याचो मंत्रीच आपणाले हेर सगळे कार्यक्रम रद्द करून हाजीर रावतलो' म्हूण सांगून.

त्या दिसाच्या सांजच्या खबरेपत्रांनी आबॅच्या आश्रमांतल्या सव्वीस आदल्या 'क्रिमिनलां' सांगतान बांदकाम खात्याचो मंत्री उबो राविल्लो एक फोटो छापून आयलो.

तरी आसतना सरकारान फुटपाथांचेर रावतल्यांक घरां बांदून दिलीं नात. तेन्ना आबॅन घरां बांदून दिवपाचें काम आपणाल्या आंगार घेवचें अशें थारायलें आनी पारिसांतल्या दुडवांकारांक दुडवांचो आधार दियात म्हूण मागून पांच मिणटांचें एक उलोवप बरोवन तें रेडियो वेल्यान वितरावचें अशें थारायलें. तो रेडियोर गेलो. रेडियोचो डायरेक्टर म्हणपाक लागलो, 'हें आमच्या नेनांत बसना.' आबॅ डायरेक्टर घरा वतकूच ताच्या घरा गेलो आनी ताच्या भुरग्यां कडेन बोट दाखोवन ताणें म्हळें, 'ह्या भुरग्यां सारकीं भुरगीं रातीं कुडकुडून मेलीं म्हूण फाल्यां छापून आयलें जाल्यार तुका तें सोंसतलें?' डायरेक्टराक थरथरो भरलो. आबॅक घेवन तो रेडियोर गेलो आनी ताका उलोवंक सांगलें. आबॅन लोकांक सांगपाचें सगळें सांगलें आनी निमाणें म्हळें, फाल्यां आपूण अमक्या हॉटेलांत अमक्या ते अमक्या वरांचेर तुमचें दान घेवपाक बशिल्लों आसतलों. परिणाम - लोकांची हॉटेलांत खेट जाली. तांणी दिल्ले लाखाटे फोडपाक कितल्याश्या हॉटेल वेटरांक स्वयंसेवक म्हूण बसोवचे पडले. लोकांनी पयशां भायर दागिनेय हाडून दिल्ले ते भरपाक बाथरुमांतले दोन टब उपेगा हाडचे पडले. तीन सप्तकां ताचो हो कार्यक्रम चलिल्लो. पन्नास लाखां वयर रुपये एकठांय जाल्ले.

आमच्या देसांतल्या धर्मात्म्यांच्या काळजांत गरिबां विशीं कळवळो नासता अशें म्हणूं येना. पुणून ताचो विनियोग कसो करचो हें मात कोणाक खबर ना. तें हांचे कडल्यान आमी शिकूंक जाय.

जाग : फेब्रुवारी - मार्च 2003



# 13
# रैदास

खरें म्हळ्यार, दलीत विद्रोही जावपाचे. तांणी बंडां करपाचीं. दुसऱ्यांकूय बंडाची देख दिवपाची. तें सोडून ते संत कशे जाले? हिन्दुस्तानांतल्या भौसाक जांणी संस्कार-संपन्न केल्यात ते संत चडशे दलितां मजगतचे आशिल्ले. मराठी संवसारांतले गोरा कुंभार, चोखामेळा, सांवता माळी दलीत आशिल्ले. तुकारामाकूय दलीत लेखतात. कन्नड संवसारांतले कनकदास, बसवेश्वरूय दलीत आशिल्ले. तशे हिन्दी संवसारांतले कबीर, सदना, सेना, घन्ना, नाभाजी, दादू दलीत आशिल्ले.

रैदासूय दलीत आशिल्लो. जोतीं शिंवतालो.

हांचीं कोणाचींच जिवितां लोकांनी बरयलीं नात. म्हूण ते खंयच्यान खंय पावले तें कळना. शीण काडल्यार म्हणटात, 'बाबा रे, व्हडें तडीवेलें न्हंयेंत व्हरतात तेन्ना फाटल्यान चिखलांतले ताचे वाटेची कुरू मेळटा. न्हंयेंत शीड सोडून तें मुखार वचूंक लागतकूच फाटल्यान ताचे वाटेच्यो कुरवो खंय सोदपाच्यो?' परिणाम, तांचे विशिंच्या आख्यायिकांचेरूच आमकां आमची जिज्ञासा भागोवची पडटा.

रैदासाच्योय अश्यो कितल्योश्यो आख्यायिका चलत आयल्यात.

काशी थळांतल्या वया वयल्या भुरग्यांक ताणें पिशें लायिल्लें म्हणटात. ताचे फाटल्यान फुडल्यान तरणाटेच तरणाटे दिश्टी पडटाले. तांकां घेवन तो गरीब दुबळ्यांची, म्हाताऱ्या धोडाऱ्यांची, पिडेन पडिल्ल्यांची, लुळ्या-पांगळ्यांची सेवा करतालो. हे सेवेन ताका ऊबगण केन्ना येनाशिल्ली. परतें, तरणाट्यांच्या सांगाताक लागून ताचें मन सदां तरणाटेंच उरतालें.

ाणें सेवेची जी रूच घेतिल्ली ती ताणें गितांच्या रुपान उकतायल्ली. *चप्रणती* नांवाच्या ताच्या पुस्तकांत हीं सगळीं गितां पळोवंक मेळटात.

फकत तरणाट्यांचेरूच न्हय तर कांय राणयांचेरूय ताचो प्रभाव आशिल्लो. ापणें रैदासाक आपणालो गुरू मानला अशें मीराबायूय म्हणटा. इतिहासकार हणटात, रैदासाचो आनी मीराबायचो काळ एक न्हय. दोगांचोय काळ ागळो. तो मीराबायचो गुरू कसो जातलो? पुणून लोकांचो भावार्त मीराबायचेर. ीच जंय म्हणटा रैदास आपणालो गुरू म्हूण, थंय लोक इतिहासकारांचें केत्याक आयकतले? शबरीचीं उश्टायल्लीं बोरां खाल्लीं तो राम, आनी दुर्योधनाची सरबराय सोडून विदुरागेरचे सादे भाजयेन धादोशी जाल्लो तो कृष्ण, दोगूय वेगळे, दोगांयचो काळूय वेगळो. पुणून सूरदासा सारकेलो कवी दोगांकूय एकूच धरता. कुड्डो भावार्त म्हणात, कितेंय म्हणात, लोकांलें मन ह्या मळार थळ काळाच्यो शिमो उंपुनूच सदां मुखार गेलां.

चित्तोडचे राणयेन - झालीबायनूय - रैदासाक आपणालो गुरू लेखला. एके परबेक तिणें चित्तोडच्या सगळ्या ब्राह्मणांक जेवपाक आपयले. राणयेचें आमंत्रण, तिका ना म्हणूं येता? पुणून जिणें एका चामाराक आपणालो गुरू केला तिगेर राजपुतान्यांतलो खंयचो ब्राह्मण जेवतलो? धर्म बुडचो ना? ब्राह्मण आयले. आनी तांणी राणयेक म्हळें, 'तूं आमकां फकत शिदाव दी. आमी हांगाच आमच्या हातान रांदून जेवतात.' राणी तांगेली अडचण समजली. तिणें मोन्यांनी तांकां शिदाव काडून दिलो. तांणी रांदलें आनी जेवपाक तांगेली पंगत बसली तेन्ना लोकांक कितें दिश्टी पडचें? दोगां दोगां ब्राह्मणां मदीं एक एक रैदास जेवंक बशिल्लो!

*करिकै रसोई द्विज भोजन करत बैठे,*
*द्वै द्वै मधि एक रैदास को निहारिये.*

ब्राह्मणांचो गर्व देंवलो. तांणी रैदासाचे पांय धरले. रैदासान आपणालें हड्डें दाखोवन तांकां म्हळें, 'हांगा पळेयात.' आनी ब्राह्मणांक खंय थंय काती फाटल्यान आशिल्लें भांगराचें चकचकीत जानवें दिश्टी पडलें! भक्ती, भावार्त आनी मनिसपण ह्या तीन पोडांचें तें जानवें आशिल्लें, अशी हाची अर्थावणी करतात.

पुणून ह्यो आख्यायिका रैदासाच्या निर्वाणा उपरांत तिनशीं वर्सांनी

बरयल्ल्यो. आख्यायिकां वयल्यान कोणाचेंच व्हडपण सिद्ध जायना. आनी आख्यायिका कोणाचेंच आंतरीक जिवीत धांपुनूय दवरिनात. रैदासाच्या पदांच्या आधारान जाणकारांनी तागेल्या आंतरीक जिविताचो थोडोभोव अदमास लायला.

[2]

खि.स. 1400 सावन 1500 मेरेन रैदास जियेला. म्हळ्यार, पिरायेन शंबर वर्सांचो जायसर तो धर्तरेर आशिल्लो. ताणें रामानन्दा कडल्यान दीक्षा घेतिल्ली. म्हळ्यार, तो कबीराचो गुरुभाव आशिल्लो. संतपदाच्या वयल्या पांवड्यार पावलो तरूय कबीर लुगटां विणटालो. तसो रैदास जोतीं शिंवतालो. मनशाक एक कूड मेळ्ळ्या, तिच्यान काम करूंक जाता; संतान अशें एक काम वेंचून काडचें की ताका लागून ताचोय प्रपंच चलूंक पावचो, ते भायर, ताका दुसऱ्यांकूय दिवंक मेळचें - *कहे कबीर अस काम कीजै, आप जिए, औरन को दीजै* - हे देखीन रैदासान जोतीं शिंवपाचेंच काम वेंचून काडिल्लें. तागेले म्हालगडे हेंच काम करीत आयिल्ले.

काशीथळांत तो एके खोंपींत रावतालो आनी गंगेचे तडीर बसून जोतीं शिंवपाचें काम करतालो. तागेली गरिबाय पळोवन एका साधून ताका एक स्पर्शमणी दिलो. रैदासान तो काडून माळ्यार उडयलो. सुमार तेरा म्हयन्यांनी साधू परतो पावलो. पळेत जाल्यार, रैदास आदलेच खोंपींत रावता आनी आदले वरीच गरिबायेंत जियेता. 'तुका एक स्पर्शमणी दिल्लो मरे हांवें', साधून ताका उगडास करून दिलो, 'लोखणाक लायल्यार ताचें भांगर करपी स्पर्शमणी.' रैदास हांसलो आनी म्हणपाक लागलो, 'स्पर्शमणी म्हज्या काळजाक तेंकूंक नाशिल्लो जाल्यार ह्या जिविताचें भांगर कशें जावंक पावतलें आशिल्लें?' - *लोहा कंचन हिरण होई कैसे, जड पारस नहिं परसै*. साधून दिल्ल्या स्पर्शमणया परस वेगळो एक स्पर्शमणी रैदासाक मेळिल्लो - देवाच्या मोगाचो.

आपणाले जोडींतली पै पै जमोवन ताणें काशीथळांत एक धर्मसाळ बांदली. थंय येतल्या साधूंची तो सेवा करपाक लागलो. थंयच ताणें एक देवूळ बांदलें. सनातनी खुबले - 'अब्बा, एका चामारान देवूळ कशें बांदचें?'

ांणी काशीराजाक विचारलें. राजान रैदासाक विचारलें. 'फट दिसलें ,मकां म्हाराजांनू?' रैदासान परतो प्रस्न केलो आनी म्हळें, 'म्हजें देवूळ' ञ्च आनी विशाळ. निळ्या घुमटा खालचें. तांतूंत म्हजो देव आसा, जिवो ाट्टटीत हाडांमासाचो.'

*'नीला गुम्मट उच्च विशाल,*
*चरमी देव जीवत कमाल.'*

मनीस सोडून दुसऱ्या देवाक रैदास मानी नाशिल्लो. मनीस दुःखां, संकश्टां, अपेसांक लागून निर्शेता, दुर्मुखी जाता तें ताका सोंसनाशिल्लें. तो म्हणटालो -

*दुर्लभ पुंजनमु नफल पाइउ*
*विरथा जात अविवेके*

- 'कितल्याश्या जल्मांत पुण्य जोडले उपरांतूच मनीस-जल्म मेळटा. तो पिशेपणान फुकट होगडायतात, सभाग्यांनो?' आनी एक पद म्हणटा -

*नरपति एक सिंघसनिं सोईया*
*सुपने भईया भिखारी।*
*आछत राज बिछुरत दुःखु पाईया*
*सो गति भई हमारी।।*

- 'एक राजा आशिल्लो. आपूण भिकारी जालां अशें ताणें सपन पळेलें. आनी राज्य आसुनूय दुःखी जालो. तशी जाल्या गत्त आमची.'

वेवस्तेच्या नांवान तरातरांचे नेम करून मनशाक समाजान बांदून घाला. हाका लागून तो आपणालें व्हडपण विसरला. समाज बदलूंक जाय. पुणून तो बदलूंक सोदतल्या मुखार नव्या समाजाचें एक स्पश्ट चित्र आसूंक जाय. रैदासा मुखार असलें एक चित्र आशिल्लें. तो म्हणटा -

*बेगमपुरा सहर को नाउ।*
*दुःख अंदोहु नहिं तिहि ठाउ।।*
*ना तसवीस खिराजु न मालु।*
*खडफु न खता न तरसु जवालु।।*
*अब मोहि खूब वतन गह पाई।*
*उहूं खैरि सदा मेरे भाई।।*

- 'एक नगरी आसा (म्हज्या सपनांत). नांव तिचें बे-गमपूर. (गम = दुःख). थंय दुःख ना. निर्शेणी ना. अवनत ना. कर भरचो पडना. वैभवाचो बेश्टो संचय ना. भंय ना, त्रास ना. हुलपप ना. अशी एक सुवात ही जंय फकत कल्याण, सगळ्यांचें कल्याण, बरें भलेंच (पळोवंक मेळटा). दुसरें कांय ना.'

आनी निमाणें दोन वळी जोडटा -

*कह रविदास खलास चमारा।*

*जो हमसहरी सो मितु हमारा।।*

- 'चामार रैदास म्हणटा, जो कोण हे नगरींत रावता ताका हांव म्हजो इश्ट लेखतां, सांगाती मानतां.'

एके तरेचो स्वर्ग ताणें ह्या पदांतल्यान लोकां मुखार दवरलो. पद रोखडेंच लोकांचे जिबेर घोळपाक लागलें. मेळत ताच्या तोंडांतसून आयकूंक येवपाक लागलें. सत्ताधीश भियेले. हो आतां लोकांक कर भरूं नाकात, धनीक गरीब वेगळेचार ना करात, ऊंच उणाक वेगळेचार मानूं नाकात अशें शिकोवपाक लागला आनी, हे भाशेन, राजशक्ती ना करपाक आनी अराजक मातोवपाक भायर सरला अशें म्हणपाक लागले.

रैदासाक छळ्ळा ह्या लोकांनी. थोडो न्हय.

खरेपणानशीं ताणें स्वर्ग निर्माण केल्लो. थंय यक्ष गंधर्व नाशिल्ले. अप्सरा नाशिल्ल्यो. सुधा नाशिल्ली. सगळे तरेच्या बांदपासांतल्यान मेकळो जाल्लो फकत मनीस आशिल्लो.

तरणाटे ताचे कडेन ओडटाले मनशाचें व्हडपण तो गायता म्हूण. मनशांत आशिल्ल्या देवाक तो मानता म्हूण.

[3]

रैदासाक गुरू मानपी लोक आशिल्ले. पुणून लक्षांत दवरपा सारकी गजाल - रैदासान कोणाक आपणालो शिष्य मानूंक ना. ताणें आपणालो पंथूय चलोवंक ना. पुणून ताच्या प्रभावांत जे आयले तांच्यांत उद्धवदास नांवाचो एकलो आशिल्लो. ताका शिष्य आशिल्ले. तांचे मजगतच्या वीरभाण नांवाच्या एकल्यान पंथ सुरू केल्लो. आनी ताका ताणें 'साध संप्रदाय'

म्हूण नांव दिल्लें. ह्या संप्रदायाचे लोक सत्याक देव मानताले. म्हूण तांकां 'सतनामी' ह्या नांवान लोक वळखताले. आयजूय ह्या संप्रदायाचे लोक उत्तर भारतांत, पंजाबांत बी खंय खंय दिश्टी पडटात. ते आपणाक रैदासाचे परंपरेंतले मानतात. फळा वयल्यान रुखाची परिक्षा घेवची जाली जाल्यार 'सतनामी' लोकांच्या विचारां वयल्यान रैदासाच्या विचारांचो अदमास लावं येता. 'सत्य सोडून कोणाक देव मानूं नाकात. खंयचेच मुर्तीची पुजा करूं नाकात. कोणाच मुखार तकली बागोवं नाकात. सत्येचो संपत्तेचो मद सोडात. बडवाचारां पसून पयस रावात. अफीण, भांग, गांजो, तम्बाकू, पान उश्टावं नाकात. मेळत तेन्ना सोपूत घेवं नाकात (सोपूत घेतल्यांक ते हलकट लेखताले). नमळायेन, देवाचेर भावार्त दवरून, नीट आनी उजू वाटेन चलात, कोणाक वायट उतर दिवं नाकात, फाटल्यान कोणाची अखटाय करूं नाकात, ऊंच उणाक वेगळेचार मनांतलोच पुसून उडयात.' हे तरेचो उपदेस 'सतनामीं' करतात तो रैदासाचोच उपदेस आशिल्लो. रैदासा भाशेन 'सतनामी'य नक्षत्र, तीर्थ, म्हूर्त मानी नात.

चामारांक समाजा भायर दवरपी, तांची सावळी लेगीत आपणाचेर पडूंक पावची न्हय हाची जतनाय घेवपी काळ तो. त्या काळा वयलो रैदास मनशा कडेन 'मनीस' म्हूण पळेयात हें समाजाक कशें सांगूंक पावलो, अजाप जाता. समाजा कडल्यान ताणें थोडे अवमान सोंसूंक नाशिल्ले. 'हय, जातीन उणाक हांव, पातीन उणाक हांव, उणाक घराब्यांतूच म्हजो जल्म जांला - *जाती ओछा पाती ओछा, ओछा जनमु हमारा*; म्हजे म्हालगडे बनारसांतल्या मेल्ल्या गोरवांचें चामडें काडुनूच जियेल्यात - *मेरी जाति कुटुंबा ढला ढोर ढावंता, नित हि बनारसी आसमासा* अशें तो नेटा नेटान सांगता. हाचें कारण, मनीस खंयचेय जातींत जल्माक येवं, तो मनान नमळ आसत जाल्यार देवाच्या दरबारांत ताची पत कोणाय परस उणी नासता हेंच ताका समाजाक सांगपाचें आशिल्लें, कित्याक, *पारस जो है लोहकू, कृपा जो है दीन हीन* - स्पर्शमणी सोदता लोखणाक, तसो देव सोदता दीनहीनाक, नमळ मनशाक.

रैदास विखाचो आनी अमृताचो घोंट वांगडाच पियेल्लो. *बिखु अमृतु बसहि इक संगा*. उणाक जातींत जल्माक आयिल्लो आसुनूय ताच्या

काळजांत दीसरात ब्रह्मध्यान चलतालें. म्हूण अठराय सिद्धी तागेर उदक भरताल्यो. रैदास पांच शतमानां आदलो. ताचें उतर, ताचें संगीत आयजूय जिवें आसा. लोकांचे जिबेर घोळटा.

प्रस्न पडटा, रैदास फकत संत आशिल्लो काय विद्रोही आशिल्लो? आनी जाप मेळटा, तो संतूय आशिल्लो तसो विद्रोहीय आशिल्लो. येदो तेजिश्ट म्हा-पुरूस ज्या समाजांत जावन गेलो त्या दलितांच्या 'उद्धारा'ची भास आमच्या तोंडांतल्यान कशी भायर सरता, समजना. खरेपणानशीं आमकां लज दिसपाची तांची आमी अखटाय करीत आयल्यात म्हूण. आनी प्रायश्चित्त घेवपाचें आमी.

जाग : ऑगस्ट 2002



# 14
# गुरू नानकदेव

संताचें जिवीत म्हणटकूच तें चमत्कारांनीच भरिल्लें आसूंक जाय, असो सरसमान सगळ्यांचो समज. ज्ञान विज्ञान तत्वज्ञानाच्या मळार एका फुडले एक दिग्विजय केल्ल्या आयच्या युरोपाचो लेगीत. म्हणटकूच, जाका जावन गेल्यार पांचशां वयर वर्सां जालीं त्या गुरू नानक़देवाचें जिवीत चमत्कारांच्या जाळांत घुसपल्लें मेळ्ळें जाल्यार अजाप कसलें?

पुणून, *गुरूग्रंथसाहिबांत* - शीखांच्या ह्या पवित्र पुस्तकांत - ताचीं णवशां वयर गितां घेतल्यांत. तीं नियाळून, तर्जून तांतुंतल्यान जाणकारांनी ताच्या जिविता विशिंचीं जीं इतिहासीक तथ्यां सोदून आमचे मुखार दवरल्यांत तांचे वयल्यान दिसता -

विक्रम संवंत 1526 वर्सा अक्षय तृतियेक, लाहोरच्यान तीस मैलांचे वाटेर आशिल्ल्या तलवंडी गांवांत ताचो जल्म जाल्लो. गांवचो मुखेली एक मुसलमान आसलो आनी गांवांत हिन्दू तशे मुसलमान एकठांय एकचारान रावताले. हाका लागून भुरगेपणांतूच नानकदेवाचेर धर्मीक एकचाराचे संस्कार पडिल्ले. एक हुशार आनी निर्मळ भुरगो म्हूण भोंवतणचो लोक ताका वळखतालो. शाळेंत उजवो. पंजाबी, हिन्दी, संस्कृत आनी फारसी भासो तो शिकलो. तेन्नाच ताका हिन्दू आनी मुसलमान दोनूय जमातींच्या साधूंच्या सांगातांत रावपाची, तांचो उपदेस आयकुपाची आनी एकांतांत उरलो जाल्यार ताचेर चिंतपाची संवंय लागली. बापायक ताचो हुसको जावपाक लागलो. ताका संवसारांत बांदून दवरपा खातीर ल्हान पिरायेरूच ताचें ताणें लग्न केलें. व्हंकलेचें नांव सुलखणी. सभावानूय ती सुलखणी. पिराय भुरगी म्हूण कुळारा उरली. बापायन, ते भायर, ताका एका पसऱ्यार

कामाक लायलो. पुणून नानकदेवाचें मन कामांत लागूं नाका? एक दीस पसऱ्यार एकलो पीठ घेवपाक आयिल्लो. ताका पीठ मापून दितना एक दोन तीन करीत करीत तेरांचेर पावलो तेन्ना 'तेरा' उतरान मनान खंयचे खंय पावलो. 'तेरा' म्हळ्यार पंजाबींत 'तुजो'. 'हांव तुजो, हांव तुजो - *मैं तेरा, मैं तेरा'* करीत गिरायकाचे पोतयेंत एकार एक माप ओतीत रावलो. परिणाम दुसरो कितें जातलो? पसरकारान ताका कामा पसून मेकळो केलो.

नानक रोखडोच यात्रेक भायर सरलो. तलवंडी सावन कामरुपा मेरेन चलत गेलो. वाटेर जितलेय साधू संत मेळ्ळे तितल्यांकूय प्रस्न विचारीत, ते कितें सांगतात ताचेर चिंतीत चलत गेलो. तेन्ना भोंवडेंत ताचे जिबे वयल्यान गितां भायर सरपाक लागलीं. 'मर्दाना' नांवाचो एकलो मुसलमान तरणाटो ताचे वांगडा आशिल्लो. संगिताचो जाणकार. ह्या गितांक चाली दिल्यो नात जाल्यार तीं उबून वतलीं अशें ताका दिसलें आनी ताणें तांकां चाली दिल्यो. हाका लागून हीं गितां लोकांचे जिबेर घोळपाक लागलीं.

कांय दिसां उपरांत तो दुसरे यात्रेक भायर सरलो. हे खेपे तो बिकानेर, अजमेर, आबू करीत करीत पुरीक गेलो आनी थंयच्यान लंकेक गेलो. हे यात्रेंत सैदो आनी घेबी नांवाचे दोग इश्ट आशिल्ले. आठ वर्सां उपरांत ताणें तिसरी यात्रा केली. कैलास मानस मेरेनची. हे यात्रेंत तो तिबेट आनी दक्षीण चीन मेरेन वचून आयलो. चवथे यात्रेक मक्का मदीना करून तो जेरूझालेम दामिस्क आनी बगदाद मेरेनचो वाटार पळोवन आयलो. हे भाशेन, ताणें चारूय दिको 'पादाक्रान्त' केल्यात. सगळे कडेन तो साधू-संतांक, योगी-महायोगींक, ऋषी-महर्षींक, सूफींक मेळ्ळा. तांच्या पांयां सरीं बसून शिष्यभावनेन तांकां प्रस्न विचारल्यात आनी ज्ञानूय जोडलां. पुणून आपणें जोडलां तें ज्ञान भायलें, खरें ज्ञान न्हय, अशें ताका खोलायेन दिसपाक लागलां तेन्ना ताची नदर आपशीं आपणाल्या अंतस्कर्णा कडेन गेल्या. आनी अवचीत एक दीस ताका अंतस्कर्णाच्या खोल तळाक बशिल्लो 'महागुरू' दिश्टी पडला. काळखांत अकस्मात दिवो पेटचो आनी पुराय संवसार स्पस्ट बरो दिश्टी पडचो तशेंशें कितें ताका जालां. आनी ताच्या तोंडांतसून उतरां फुटल्यांत - *'गुरुमुखी लाघा, मनमुखी गंवाइया'* - 'गुरुमुखांतल्यान जें मेळ्ळें ताका लागून मनमुखांतलें आपशीं गळून पडलें.' ह्या अणभवाक अणभवी लोक 'विद्या' म्हणटात. आनी विद्या मनशाक

सगळ्या बांदपासांतल्यान सदां मेकळी करता - *सा विद्या या विमुक्तये.* हिन्दींत असल्या मनशाक 'पहूँचा हुआ' म्हणटात. इंग्रजींत realised. उपरांत, ताच्या रुपांत लेगीत बदल जाला म्हणटात. कोजागिरीच्या चंद्रा भाशेन खंय तें निर्मळ आनी पवित्र दिसपाक लागलां. आनी ताचे जिबे वयल्यान जीं उतरां फुटल्यांत तीं भक्तांक म्होंवा परसूय गोड लागल्यांत.

चारूय दिकांनी देवा-धर्माच्या नांवान चलिल्लें पाखंड पळोवन ताचें मन खंतीन भरून आयलां. पुणून कबीरा भाशेन ताणें कोणाक कुटल्यो मारूंक नात, कोणाक चिमटे काडूंक नात. कबीर नानका आदलो. संतूच. पुणून तो लोकांचे कुड्डे भावार्त पळोवन उसळटालो. केन्ना केन्ना सणकुटेर सणसणीत बरें फुलयतालो. मशिदींत मोट्या मोट्यान 'अल्लाह-ओ-अकबर' करून 'बांग' पुकारपी मुल्लाक तो विचारतालो, *'क्या साहिब तेरा बहिरा है?'* - 'भेड्डो रे तुजो धनी? आरे, मुयेच्या पांयांतलीं पांयजणां लेगीत ताका आयकूंक येतात! मागीर, मोट्या मोट्यान तूं ताका उलो कितें मारता? - *'चिंटी पांव घुंगर बाजै सो भी साहब सुनता है।'* नानक कबीरा भाशेन उलय नाशिल्लो. पुणून कुड्ड्या भावार्तांची टिका करपाची ताची वेगळीच एक तरा आशिल्ली. एक खेपे काशीथळांत ताणें कांय भावार्त्यांक गंगेंत देंवन, उदेंते कडेन तोंड करून पितरांक तर्पण करता आसतना पळेले. नानकगुरू अस्तमे कडेन तोंड करून गंगेचें उदक शिंपडावंक लागलो. 'हें कितें करता तूं?' ताका पंड्यांनी विचारलें.

'हांव पंजाबांतलो. तलवंडी गांवचो. तो अस्तमे दिकेन येता... थंय आमचें शेत आसा. तें हांव शिंपतां.' नानकदेवान थंडसाणेन जाप दिली.

पंडे ह्यॅ ह्यॅ ह्यॅ करून हांसले. म्हणपाक लागले, 'सभाग्या, काशींतलें उदक तलवंडीक कशें पावतलें?'

पितरांचें तर्पण करतल्यां कडेन बोट दाखोवन मुमुरख्यांनी हांसून नानकगुरून तांकां विचारलें, 'हांचें तर्पण स्वर्गार कशें पावता तर?'

टिकेची ही तरा कोणाक दुखयना. पुणून जो चुकता ताका ताची चूक दाखोवपाक मातूय उणी पडना. मनशाक चूक 'चूक' म्हूण कळटकच तो तिच्या जाळांतल्यान सुट्टा आनी पुराय बदलता.

हे भाशेन ताणें लोकांच्यो कितल्योश्यो चुको निवळावन तांकां नीट वाटेर हाडल्यात.

देव सोदपाक मनीस पूर्व-पुरातन काळा सावन रानां-वनांनी वचून रावला. रानां-वनांनी सोरोप, जिवाणीं, वाग, शिंवां सारकीं क्रूर सावदां रावतात. पुणून तांची ताका आडखळ जायना. आडखळ जाता ती मनशांची. नानक म्हणटा, 'देव सोदपाक रानांत वचपाची मातूय गरज ना. फुलांत गंध, हारशांत पडबिंब तसो देव तुजेच भितर - *'घट ही खोजो भाई'* - 'तुज्यांतूच ताका सोद.'

तो खंयच्या रुपान आसा? सत्याच्या.

*'गुरुग्रंथसाहिबां'*त नानकगुरूचें *'जपुजी'* पुस्तक सगल्यांत पयलें घेतलां. ताचें तें सगळ्यांत म्हत्वाचें पुस्तक. सकाळच्या वेळार शीख ताचो पाठ करतात तें जालेंच, पंजाब सिंधांतले हिन्दूय भक्तिभावान ताचो पाठ करतात. ताची सुरवातूच सत्याच्या स्तवनान जाता -

*एक ओम्कार, सतनामु, करता, पुरुखु*
*निर्भऊ, निर्वेरू, अकाल मुरती,*
*अजुनि, सैभं, गुरू प्रसादि.*

- गुरूचे कृपेन सांगतां - 'जें एकूच आसा तें सत्. ताणेंच सगळें रचलां, तेंच समर्थ, ताका कोणाचो भंय ना, कोणा कडेन ताचें वैर (दुस्मानकाय) ना. तें काळा पेले कडलें, तें अजन्मा, स्वयंभू. जेन्ना कितेंच नाशिल्लें तेन्नाय तें आशिल्लें. युगांची वांटणी जाली तेन्नाय तें आशिल्लें. आयजूय आसा. फुडाराकूय आसतलें.'

*'आदि सचु, जुगादि सचु, हैभी सचु, नानक होसि भी सचु.'*

जें जशें आसा तशेंच तें पळोवप म्हळ्यारूच सत्य पळोवप, ताकाच धरून चलप हो ताचे शिकवणेचो आपरोस. पंजाबी भाशेंत 'पंच' म्हूण एक उतर आसा. एका भजनांत नानक म्हणटा -

*पंच परवाण, पंच परधानु...*
*पंचा का गुरू एकु धियानु...*

'प्रज्ञे' वयल्यान पंच उतर आयलां - प्रज्ञेकूच प्रमाण मानूंक जाय. प्रज्ञेकूच प्रधान (मुखेल) मानूंक जाय. प्रज्ञेकूच गुरू मानून ताचें ध्यान करूंक जाय. प्रज्ञा म्हळ्यार शुद्ध बुद्धींतलें सत्. ईश्वराक सत् मानपी लोक संवसारांत आसात. पुणून सत्याकूच ईश्वर मानपी लोकां मजगतचो नानक पयलो. आमच्या काळजांत बसला तो 'गुरू' सत्य. ताकाच प्रमाण

मानून चलूंक जाय अशें तो सांगीत रावलो.

ल्हानपणांतूच ताका मुसलमानांचो सांगात मेळिल्लो. कितल्याश्या मुसलमान संतां सांगातांत तो रावला. तांचे कडल्यानूय तो खूब शिकला. हजार जातींनी वांटून गेल्ल्या हिन्दू समाजांत ताची वाड जाल्ली. हाका लागून ऊंच उणाक वेगळेचार तो मानी नाशिल्लो. मुसलमान समाज ताका आवडूंक लागिल्लो. ताणें आपणाल्या शिष्यां मजगतीं समानताय हेच रितीन हाडिल्ली.

आनी ताची ही रीत कांय सनातन्यांक उस्तऱ्यां गेल्ली.

एके यात्रेंत तो एका शिष्यागेर जेवंक रावलो. शिष्य मेस्त. 'खत्री घराब्यांत जल्माक येवनूय तूं एका मेस्तागेर जेवपाक रावता?' एकल्यान ताका विचारलें. 'भाई, यह पसीने की कमाई की रोटी है', ताणें जाप दिल्ली. 'इतली गोड आनी पवित्र रोटी तुका तुज्या जमीनदारागेर खावंक मेळची ना.'

सुरवाते सुरवातेक तो भेसूय विचित्र करी. मुसलमान फकीर घालतात तसली तोपी माथ्यार आनी हिन्दूं सारको तिबो कपलाक. मुसलमानां विशीं ताका आपलेपण दिसतालें म्हूण कितें, तांचे कान पिळपाक तो फाटीं रावला व्हय? मक्केक पाविल्लो तेन्ना काबा कडेन पांय करून तो न्हिदलो. एका मुल्लान येवन ताका विचारलें, 'तूं अल्लाचे दिकेन पांय करून न्हिदला तो कितें?'

'अशें?' नानकान विचारलें आनी म्हळें, 'चुकलां हांव. अल्ला ना ते दिकेन म्हजे पांय कर, उपकार जातले.'

मुल्ला येदेंशें तोंड करून ताचे वशीन पळेत रावलो.

कोणें एकल्यान बेश्टें म्हणूंक ना -

*नानक शाह फकीर*
*हिन्दू का गुरू*
*मुसलमान का पीर.*

जाग : डिसेंबर 2002



# 15
# आमी फटयतात, आपणाकूय लोकांकूय

खंयचो गेलों ताचें उलोवप आयकुपाक, अशें जालें. 'हांव जाती-बिती मानिना, कोणाक उणाक लेखिना... सगले म्हाका सारके' हें ताच्या तोंडांतल्यान आयकलें आनी म्हाका भितरले भितर मोट्यान हांसूंक आयलें. 'म्हाका भांगरूय सारकें, मातीय सारकी' म्हणटल्या वेदांत्या सारको म्हाका तो पोको दिसलो. म्हजो हांसो म्हज्या ओंठांर उदेला आसूंक जाय. तो म्हज्या तोंडा कडेन पळेत रावलो. हांसता कित्याक काय म्हूण विचारता? हांवें मनांतल्या मनांत ताका विचारलें. आनी जाप दिली, तूं आपणाक आमचे परस वेगळो मानता म्हूण. वेगळोच न्हय, तर व्हड मानता म्हूण. आपणाक तूं फटयता हें तूं नकळ म्हूण... खरेपणानशीं, आमचेच सारको तूं. आमी खंय जाती-बिती मानतात? खंय कोणाक उणाक लेखतात?...

पुणून, एक सांग रे, तुवें तुजेच घरकान्नीक 'तुका आयज पुरो जालां... तूं मातशी आड पड... हांव च्या करून हाडटां.' अशें केन्ना म्हळां व्हय? आमी केन्ना म्हणूंक ना. रांदचे कुडींत तिका केन्ना आधार दिला व्हय? केन्ना नुसतें उजरावन दिलां? केन्ना भाजी शिनून दिल्या? केन्ना सोय वांटून दिल्या? तपलें वाळून दिलां? आमी दिवंक ना. तिका घरचीं सगळींच कामां करचीं पडटात म्हूण केन्नाय तिची काकूळट दिसल्या तेन्ना चडूच जाल्यार तिच्या आधाराक आमी एक रांदपीण हाडून दवरल्या. आनी आयदनां घांसपाचें, मुस्तायकी उमळपाचें, सान्न मारपाचें काम रांदपीण करिना म्हूण रांदपिणे भायर तिका एक वावराडी हाडून दिल्या... तुवें आमचे परस वेगळें कितें केलां व्हय? आमचेच वरी तुवेंय तिच्या गळ्यांत एक मणी हाडून

बांदला आनी 'तूं म्हजी घरकान्न' म्हूण तिका एक 'पदवी' दिल्या. आनी तिचे कडल्यान रांदपिणीचें, वावराडेचें आनी 'शयनेषु रंभे'चेंय काम घेतलां. घरांत जंय समतावाद तुका चलोवंक येवंक ना तो घरा भायर कितें चलयतलो, कपळ?

तुका शिक्षणय आमचे वरीच सामन्ती देखीचें मेळ्ळां. आमचे सारक्या शिकिल्ल्या कोणाक तुवें नाल्ल पाडपाक माडार चडिल्लो पळेला? गार्फार चडून कोणें कोबल्यान आंबे काडल्यात? कोण जोत घेवन केन्ना शेतांत देंवला? आमच्या सामन्ती संस्कारान जशीं बायलांचीं कामां 'उणाक' लेखल्यांत तशीं हींय कामां मानायांनी करपाचीं - म्हूण, उणाक लेखल्यांत.

वावराड्यो, मानाय कामेऱ्यां बगर आमचो कोणाचो झोपाळो केन्ना हाल्लो ना, तुजोय हालूंक ना. मागीर, आमचे परस तूं वेगळो वा व्हड कसो?

समतावाद जिबेर न्हय, जिवितांत आसूंक जाय. आमच्या जिवितांत तो ना. तुज्याय ना. तुजे आनी आमचे मजगतीं फरक इतलोच - तूं निर्लज्जपणान आपूण समतावादी म्हूण सांगता. आमकां सांगपाचें काळीज जायना.

समतावादाचो उपदेस करून समतावाद येवपाचो ना, लोकांक समतावादाचें प्रशिक्षण दिवंक जाय हें ह्या देशांत एकल्याकूच कळिल्लें - गांधीक. दुसऱ्या कोण्णाक ना. तांणी साबरमतीक 'देशसेवा करपा खातीर आनी देशसेवा कशी करची हाचें शिक्षण दिवपा खातीर' एक आश्रम सुरू केलो. आनी ह्या आश्रमाचे देखीन देशांत जायते कडेन असलेच आश्रम चलपाक लागले. आश्रम गांधींची एक लॅबोरेटरी आशिल्लो. आश्रमांत येवन राविल्ले सगळे सगळीं कामां करताले. घरांत सान्न मारताले, भायर मारताले. मुस्तायकी उमळटाले, आयदनां घांसताले, कुदळ खोरें घेवन भूंय खणटाले, आनी 'रसोड्यां'तलींय सगळीं कामां करताले. आचार्य कृपालानी सारकेले रोटयो लाटून दिवपाचें काम करताले. किशोरलाल मशरूवाला तांदूळ दाळ वेंचून दिवपाचें, भाजी शिनून दिवपाचें काम करताले. कृपालानी त्या वेळार कॉंग्रेसचे अध्यक्ष आशिल्ले आनी मशरूवाला गांधी सेवा संघाचे अध्यक्ष आशिल्ले. गांधी विचाराचे दोगूय व्हड भाष्यकार. राजेनबाबू आनी राजाजी ह्याच संस्कारांत वाडिल्ले. दोगूय स्वराज्यांत राष्ट्रपती-भवनांत

पावले तरूय आपणालें पुडवें सदरो उमळुनूच मान्र्यांतल्यान भायर आयल्यात.

खासा गांधी हीं सगळीं कामां करताले.

कामां मजगतीं ऊंच उणाक पांवडे उरले जाल्यार तीं करतल्यांचेय पांवडे समाजांत ऊंच उणाक उरतले. कामां कामां मजगतचे आनी मनशां मनशां मजगतचे हे पांवडे ना करपा खातीर सगळीं कामां सारकीं, सगळ्यांचो पांवडो सारको म्हणपाची देखूच ह्या आश्रमांनी सगळ्यांक घालून दिल्या.

आश्रमांनी सगळ्यांत चड म्हत्वाचें मानिल्लें तें पायखिळे निवळ करपाचें काम. आमचे नदरेन बुरशांतलें बुरशें. पुणून आश्रमांत पावल दवरिनाफुडें पयल्या पाठाच्या पयल्या प्रस्नाची जाप सगळ्यांक पयलींच दिवची पडटाली. 'बुरशें काम कोण करता? घाण करून दवरता तो, काय घाण काडटा तो?' 'घाण करून दवरता तो' ही जाप तांचें मनूच तांकां दितालें. उपरांत, पायखिळे निवळ करपाचें काम तोंड वांकडें करून कोणूच करी नाशिल्लो. आश्रमान ह्या मळार तरातरांचे प्रयोग करून 'सफाई शास्त्र' नांवाचें एक 'शास्त्रू'य विकसावन काडिल्लें.

आयजूय देशांत जंय जंय 'गांधी आश्रम' चलतात थंय थंय ह्या 'शास्त्रा'क धरुनूच पायखिळे निवळ करपाचें काम चलता. इतलेंच न्हय तर हे पायखिळे देशाचे जमनीक 'रुप्या-सारें' आनी 'भांगरा-सारें'य दितात. एका पायखिळ्याच्या सान्याचें मोल दिसाक एक रुपया धरलें जाल्यार वर्साक तिनशें पंयसश्ट रुपयाचें सारें दर एका पायखिळ्याक लागून देशाक मेळटा. आतां हिशोब करून पळोवया. देशांत पांच लाख गांव. देशांतले शंबरांतले अयंशीं जाण आयजूय गांवांनीच रावतात. सगळ्या गांवांनी हे तरेचे पायखिळे आमी उबे केल्ले जाल्यार, एका घरांत पांच मनशां ह्या हिसपान सोळा कोटी पायखिळे दिसाक सोळा कोटी रुपयांचें भांगरा रुप्या सारें देशाक दितले आशिल्ले. तिनशें पंयसश्टांनी हे संख्येक गुणात, पांच हजार आठशें चाळीस कोटी रुपयांचें सारें देसाक वर्सान वर्स फुके सवाय मेळूंक पावतलें आशिल्लें.

मागीर, रसायनीक सान्याची गरज देशाक भासतली आशिल्ली?

वयले वयल्यान पळेल्यार हें आत्मनिर्भर अर्थवेवस्तेचें एक आंग कशें दिसतलें. आत्मनिर्भरतचें तें आंग आशिल्लेंच. ते भायर, 'उणाक' कामां विशिंचे आमचे सामन्ती संस्कार हुमटावन उडोवपाचो वावरूय तें करतालें.

मनीस जेन्ना आपुणूच आपणालो पायखिळो निवळ करपाचें काम करता तेन्ना इल्लो इल्लो करून तो सामन्ती संस्कारांतल्यान मेकळो जावपाक लागता. मागीर, उणाक मानिल्लीं कामां करपाक ताका अडचण येना. ताच्या मनांतल्यो कितल्योश्यो गांठी सुटून ताच्यांत कितलेशे क्रान्तिकारी बदल घडून येतात. तो, मागीर, आपणाक कोणाच परस ऊंच मानिना. ताच्यांतले हे ऊंच उणाकपणाचे संस्कारूच पुसून वतात. असल्या सामन्ती संस्कारांतल्यान मेकळो जाल्ल्या मनशाकूच आपूण जाती-बिती मानिना, आपूण कोणाक उणाक लेखिना, सगले आपणाक सारके अशें म्हणपाचो नैतीक अधिकार मेळटा. धोंगां-पोंगांचे भाशेंत सांगचें जाल्यार 'वयल्या' जातींचे लोक जेन्ना 'सुदरां'चीं कामां करपाक लागतले तेन्नाच तांचीं पावलां समतावादाचे दिकेन पडपाक लागतलीं. आमचें दिसपट्टें जिवीत - आमची lifestyle - हे तरेची व्हय? न्हय मू? मागीर 'आमी जाती-बिती मानिनात' हीं 'शापातां' कोणायच्या तोंडांतल्यान आयिल्लीं आयकतकूच हांसो कित्याक येवचो ना?

दांभिकपणाकूय इल्ली तरी मुरवत आसता. इतलें निर्लज्ज दांभिकपण हांवें जाल्यार दुसरे कडेन खंयच पळोवंक ना.

हांव देशा भायर पावलां तो फकत जपानांत, चीनांत आनी हालींच अमेरिकेक. जपानांत कोणागेरूच वावराडी ना. रांदपीण ना. घरचींच मनशां घरचीं सगळीं कामां करतात. श्रीमंतांतल्या श्रीमंत लोकांगेर लेगीत सगळीं हेच देखीन चलतात. ही देख तांणी खंयच्याच गांधी आश्रमांत रावन घेवंक ना. संस्कारी जिविताचें एक आंग म्हूण तांणी ती चलयल्या. अमेरिकेंत लेगीत श्रीमंतांतल्या श्रीमंत मनशाच्या मनांत नोकरां चाकरां कडल्यान कामां घेवपाचो संस्कार पळोवंक मेळना. कोणाकूच कसलेंच काम करपाक लज दिसना. जपान आनी अमेरिका, म्हणुंया, शारांचे देश. चीन तर आमच्या देशा सारकोच लाखांनी गांवांचो देश. थंयूय कोणागेर नोकर चाकर नात. गांवांत भंगीय नात. तें कित्याक, चीनांत हांवें खंयच्याच रेल्वे स्टेशनार, विमानतळार, बस स्टँडार हमाल पळेले नात. हमाल नाशिल्ल्यान जण एकलो आपणाच्यान उखलूंक जातलें तितलेंच सामान घेवन प्रवास करता. घरांत रांदपीण, वावराडी नाशिल्ल्यान सगळीं उण्यांत

उणीं आयदनां वापरतात.

कामां कामां मजगतचो ऊंच उणाक फरक फकत आमच्याच देसांत पळोवंक मेळटा. कामां खातीर नोकर चाकर लावप हें श्रीमंतीचें - गिरेस्तकायेचें - लक्षण अशें फकत आमीच मानीत आयल्यात. खरेपणानशीं हें अन्नाडीपणाचें लक्षण. श्रीमंती संस्कार घरंदाज आसूंक जाय. सामंती संस्कार अन्नाडी आसतात. आमची सामन्ती संस्कारांत वाड जाल्या म्हूण ह्या देशांतले 'शिकिल्ले' तशे श्रीमंत अन्नाडीच उरल्यात. अन्नाडी मनशाकूच आपूण जाती-बिती मानिना, आपूण समतावादी अशें 'सांगचें पडटा'. घरंदाज मनशाच्या जिवितांतूच ताचो समतावाद दिश्टी पडटा. तूंय आमचे सारकोच सामन्ती संस्कारांत वाडिल्लो मनीस. तुज्या तोंडांतल्यान समतावादाची भास आयकतकूच हांसो कित्याक येवचो ना?

जाग : जानेवारी 2002






# 16

# एक व्हड दुस्मान आमचो

पयश्यां बगर झाडाचें पान लेगीत हालना. पयसो मनशाच्या हातांत येवंकूच जाय. पुणून कितलो? 'कितलोय... स्काय इज द लिमीट', आमकां जाप मेळटली.

आयचो संवसार हेच दिकेन धांवत सुटला.

पुणून एक गजाल मतींत धरूंक जाय - पयसो आमचो सेवक आसता ते मेरेन तो आमचो इश्ट उरता. आमकां जाय तीं कामां करता. पुणून पयसो आमचो धनी जाता तेन्ना मात तो आमचो व्हडांतलो व्हड एक दुस्मान जावन पडटा.

सगळ्यांत पयलीं तो आमकां अन्नाडी करता.

आमी, मागीर, आमचे कडेन कितलो पयसो आसा तें लोकांक दाखोवपाक लागतात, ताचें प्रदर्शन करपाक लागतात. आनी सगळ्यांत अळशिकावणें म्हळ्यार, दुसऱ्यांक आमी पयश्यां वयल्यान मेजपाक लागतात.

संस्कारी मनीस, मागीर, आमचे पसून पयस वचपाक लागतात.

हेरांचें हांव नकळ, पुणून मनीस जेन्ना मनशाक पयश्यां वयल्यान मेजपाक लागता तेन्ना म्हजें मन विद्रोहान उसळटा तें हांवें पळेलां. 'ताचे कडेन कोट्ट्यांनी रुपया भरल्यात' अशें कोणूय कोणाय संबंदान सांगता तेन्ना 'हाचे कडेन दुसरें कितेंच ना' अशें मनांतल्या मनांत म्हणटां आनी 'हांका कसलेंच मोल ना' अशें थारावन ताचो वारो लेगीत लागूंक दिना. ताचे मुखार उबे रावन कांय जाण शेंपडी हालयतात तें पळेतां तेन्ना 'कितले लाचार जाल्यात हे लोक' अशें म्हणटां आनी भितरले भितर फणफणपाक

लागतां. तांकां मागीर हांव विट्टां. इतलेंच न्हय, तांचे परस चड पयशेकारांचो तिरस्कार करपाक लागतां.

पयशेकारांचो तिरस्कार म्हाका भुरगेपणा पसून. भुरगेपण दीवाक गेल्ल्यान घडये जावंये. दीवाक कितलेशे पयशेकार पळेल्ले. जे मुस्तींत रुपयाचें मोल रुपयो आशिल्लें ते मुस्तींतले लक्षाधीश ते. 'दारांत लेगीत उबे करपा सारके न्हय हे' अशें ते पिरायेर लेगीत दिसतालें. आयजूय केन्नाय कोणूय पयशेकार पळेतां तेन्ना म्हज्या दोळ्यां मुखार दीवचोच खंयचोय एक लक्षाधीश उबो रावता. आनी मनांत हांव, 'शी, म्हाका आफडूं नाका' अशें म्हणटां.

तिरस्काराची सुवात मागीर रागान घेतली.

आतां पळेतां, पयशेकारांची म्हाका आतां काकूळट दिसपाक लागल्या.

चडश्या सगळ्या पयशेकारांक एकूच पिशें - पयशे करपाचें. ह्या पिश्याक लागून ते पयशेकार जावंक पावल्यात काय पयशेकार जाल्ल्यान तांकां हें पिशें लागलां, हें कुवाडें म्हाका अजून सुटूंक ना. इतलें खरें, तांचें हें पिशें पळोवन म्हाका तांची काकूळट दिसता. पिशेपण एक वेळ कुशीक दवरूं येता, पुणून ते पयश्यांचो हुसको काडटात तो मात मातूय सोंसूं नज जाता. आमकां सगळ्यांक तरातरांचे हुसके आसतात. पुणून खंयचोच हुसको आयुश्यभर आमचेर आपणालो शेक चलयना. हांचो हुसको हांची फाट केन्नाच सोडिना. पयश्यांच्या हुसक्या सारको मनशाक खंती, सुतकी, नाउमेदी करपी हुसको दुसरो ना. गरिबाक पयश्यांचो हुसको हें, म्हण, समजूं येता. कित्याक, पयशे नाशिल्ल्यान ताची खंयचीच गरज भागूंक पावना. हांचें घर भरून दार ओतता, तरूय हांकां पयशांचो हुसको. तो कित्याक आसचो हेंच समजना. तो हांची न्हीद खळयता. केन्ना केन्ना थतर वितर करून उडयता. पयसो करून हांणी आपणालें सुखूच ना करून उडयलां, अशें दिसता.

एक खेपे शिमल्याक पाविल्लों. एका हॉटेलांत राविल्लों. शेजारच्या रुमांत दिल्लींतलो एक कोट्ट्याधीश येवन राविल्लो. गुजराती. हांवूय अर्दो गुजराती, म्हूण मुखार सरून हांवें ताका म्हजी वळख करून दिली. बायलेक घेवन आयिल्लो. दीस रात तो दिल्लीक फोन लायतालो. फोनार बिझनेसाच्योच खबरी करतालो. सगळ्यांक आयकूंक येताल्यो. हांवें बायलेक

विचारलें, 'हो हांगा कित्या खातीर आयला?'

'सुसेगाद बरो चार दीस रावतलो म्हूण आयला.' तिणें जाप दिली.

म्हळें, 'दिल्लींतलेंच मन घेवन तो हांगा आयला... तें ताका हांगा सुसेगाद रावंक दिवपाचें ना...'

'कितें करतलीं? वता थंय तो तें मन घेवन वता', तिणें जाप दिली.

हांव ओगी रावलों. मनांत म्हळें, 'होच एकलो आगळो वेगळो पयशेकार न्हय. सगळ्या पयशेकारांची हीच गत जाता... पयसो हांचो सुसेग ना करता, हांचें सूख ना करता... वेळार जेविल्लो, सुस्त न्हिदिल्लो, सुर्यास्त सुर्योदय पळोवपाक, तें कित्याक, बायले कडेन उलोवपाक, भुरग्यां वांगडा खेळपाक वेळ आशिल्लो पयशेकार अजून म्हाका पळोवंक मेळूंक ना.'

आनीक एकल्या पयशेकाराक हांव वळखतां. ताका आपणाले पयशे कोणूय तरी चोरतलो म्हणपाचो भंय. कोणूय तरी आपणाक नाडटलो म्हणपाचो भंय. मुखार कोणूय आसूं, तो चोरूच आसतलों अशें धरून तो ताचे कडेन पळेता. इश्टांक पातयेना. सोयऱ्यांक पातयेना. तें कित्याक, पुतांक आनी धुवांकूय पातयेना. 'हे म्हजे म्हऱ्यांत येतात ते पयश्यांक लागून.' हेच नदरेन तो सगळ्यां कडेन पळेता. चोरांचो भंय सगळ्यांक आसता. म्हाकाय आसा. पुणून चोर पिशे नासतात. ते कोणागेरूय चोरपाक वचनात. म्हगेर आयल्यार पुस्तकां सोडून कांयच मेळपाचें ना हें आनीक कोणाय परस चड - खासा म्हजे परस चड - चोरांक खबर आसा. म्हगेर केन्नाच ते चोरी करपाक येवपाचे नात. चोर हेंवूय बेस बरे जाणात - कमाऊ-खाऊ पयल्या वर्गातल्या लोकां कडेन पयशे आसले जाल्यार ते घरांत आसचे नात. बँकेंत आसतले. दागिने आसले जाल्यार 'लॉकरां'त दवरिल्ले आसतले. तांगेरूय ते चोरी करपाक वचचे नात. वतले कोणागेर? जांचे कडेन white आनी black अशे दोन तरांचे पयशे आसात तांगेर, ब्लॅक पयसो घरांत आसता हें ते जाणात. आनी घरांत तो खंय आसता तेंवूय जाणात. तो ते सोदून काडटात आनी चोरतात.

डॉबरमॅन आल्सेशियन सुणींय ते विक्ख घालून मारून उडयतात.

आनी पोलीस? तांणी केन्ना खंयच्या चोराक आयजवेर धरला व्हय?

पयसो आमच्या हातांत येवंक जाय - जाय तें जाय तेन्ना घेवपा खातीर,

जाय तेन्ना जाय थंय वचून राव़पा खातीर, जाय थंय भोंवपा खातीर. सुशेगाद बरे रावपा खातीर, हुसक्यां मेकळें जिवीत जियेवपा खातीर. सुखान जगपा खातीर. पयसो जर आमचे हुसके वाडोवपाक लागलो, आमचो सुसेग ना करपाक लागलो, आमची न्हीद खळोवपाक लागलो, आमकां थतरवितर करपाक लागलो, हिमटे, दुबावी करपाक लागलो जाल्यार -

पयशाक आमचो सगळ्यांत व्हडलो दुस्मान लेखचो पडटलो.

कोणें एकल्यान म्हळां - to be rich is a vulgar satisfaction - खरें आसूंक जाय हें.

सगळे पयशेकार आयुश्यांन निमाणे फटवल्यात.

जाग : मे 1996



## 17

# देशाचे अवनतीचें मूळ - नवश्रीमंती

समाजाक नवें रूप दिवपा खातीर जांणी जांणी आयजवेर संवसारांत सुधारणेचो वावर केलो ते सगळे मध्यम वर्गांतले लोक आशिल्ले. क्रान्त्यो जांणी घडोवन हाडल्यो तेवूय सगळे मध्यम वर्गांतलेच आशिल्ले. मध्यम वर्ग सदांच समाजाचे फाटीचो कणो उरला. नितीच्या ज्या पांवड्यार हो वर्ग आसता त्याच पांवड्याची देशांत राजनीत चलता. त्याच पांवड्याची ताची अर्थनितूय आसता. आयज देशाची राजनीत आनी अर्थनीत अवनती कडेन पावल्या आसत, तिका अवकळा आयल्या आसत जाल्यार, धरून चलूंक जाय, मध्यम वर्ग नितीचे नदरेन पडला, ताकाच अवकळा आयल्या.

समाजांत मध्यम वर्गा भायर आनीक दोन वर्ग आसात. एक 'वयलो', दुसरो 'सकयलो'.

वयलो वर्ग केन्नाच कसल्योच सुधारणा घडोवन हाडिना. कसल्योच क्रान्त्यो करिना. समाजांत कसलोच बदल जाल्लो ताका नाका. समाज चलत आयला तसोच चंद्र सूर्य आसासर चलत रावचो ह्या मत्ताचो तो आसता. सुधारणांचो तो सदां विरोधूच करीत आयला. सदां क्रान्त्यां आडूच रावला, वावुरला.

सकयलो वर्ग? बावडो मर मर मरून दुसऱ्यांचींच पोटां सदां भरीत आयला आनी बदलाक आपणा खातीर भूक उपासा सारकीं अपेसां आनी दुःखांच पुंजायत रावला. 'हें अशेंच सदां चलत रावपाचें... आमच्या नशिबांत बरे दीस केन्नाच येवपाचे नात' हे निर्शेणेंत जियेत आयला.

पुणून हो निर्शेल्लो खर्शेल्लो वर्ग केन्ना केन्ना तिडकीन पेटुनूय उठला.

ताका पेटोवपी कोणूय मेळ्ळा तेन्ना. तेन्ना तो जयप्रकाशां फाटल्यानूय गेला, केन्ना इन्दिराजीं फाटल्यानूय रावला. कोणा फाटल्यान वचूंक जाय हें तो थारायना. तें काळ थारायता. न्हंयेंत पडिल्ल्या लाकडाच्या लोळग्या सारकी गत्त ताची. लोळगो न्हंयेचे व्हांवतेंत पडिल्लो आसलो जाल्यार न्हंय व्हांवतली त्या नेटान तोय व्हांवत वतलो. तडी वयल्या झोंपांत झिरकून पडलो जाल्यार ताका धुकलून व्हांवतेंत सोडपी कोणूय येसर थंयच झिरकून रावतलो. ताच्या गळ्यांत जड फातर बांदलो जाल्यार न्हंये तळाक लागतलो आनी कुसऽसर थंयच पडून रावतलो. ताका आपली अशी इत्सा वा प्रेरणा नासता.

ह्या अर्थान ताचें मोल शून्य.

पुणून समाजांतलें हें शून्य जेन्ना खंयच्याय आंकड्या फाटल्यान रावलां तेन्ना त्या आंकड्याचें मोल ताणें धा वांट्यांनी वाडयलां. म्हूण समाजांत सुधारणा वा क्रान्त्यो घडोवन हाडपाक जे जे वावुरल्यात तांणी ताका आपणा फाटल्यान ओडून हाडपाचो सदां यत्न केला. आनी हो लोक ज्या प्रमाणांत तांचे फाटल्यान रावला त्या प्रमाणांत तांच्या सुधारणांचें वा क्रान्त्यांचें मोल वाडलां.

पुणून एक लक्षांत दवरूंक जाय, ह्या वर्गान समाजाचें नेतृत्व केन्नाच आनी खंयच करूंक ना. नेतृत्व केलां तें सदां मध्यम वर्गानूच.

आयज आमच्या देशाचो मध्यम वर्गूच इबाडला. कुसला, लांचखायरो जाला, आचारभ्रष्ट जाला.

ताका असो कोणें केलो?

एकूच जाप मेळटली -

वेव्हारवादा कडेन - प्रॅग्मॅटिझमा कडेन - चड लगट केल्ल्यान तागेरूच जल्माक आयिल्ल्या तागेल्या पोरान - नवश्रीमंतान.

संस्कृतायेचे नदरेन नवश्रीमंताचो पांवडो उणाक. व्हल्गार. नितीचे नदरेन आपल्या वांदडाचो. सुवार्थी, आत्मकेन्द्रीत. आस्पती नदरेन दुडवांचे राशीर लोळपी. तो सत्येर ना. पुणून सत्येचीं सगळीं सुतां तो आपणा हातांत घेवन बसला. कोणा हातांत सत्या आसची हें तो थारायता. वेंचणुकेंत तो उबो राविना, पुणून उबे रावतात - ते मागीर खंयच्याय पंगडाचे आसूं - 'ताचेच लोक' आसतात. ताचो आधार नासत जाल्यार राम लेगीत रामाच्या ह्या

देशांत वेंचून येवपाचो ना: तो 'आपणाल्या'च लोकांक वेंचून हाडटा. हाका लागून जें सरकार येता तें ताच्याच बोल्सांत उरता. प्रशासनांत - ब्युरोक्रसींत - ताणें 'आपणाले'च लोक भरल्यात. हे लोक कसलेंच आनी कित्याचेंच उत्पादन करिनात. पुणून उत्पादन करतात तांणी तें कोणाक, खंयचे दरेन विकचें, नफो कितलो काडचो, सरकाराक कितलो टॅक्स भरचो आनी कोणाचीं बोल्सां कितलीं आनी कशीं भरचीं हें तेच थारायतात. आयज देशाचे अर्थवेवस्थेचेर तांचेंच नियंत्रण चलता.

ताचे इत्से बगर अर्थवेवस्थेचें पान लेगीत हालना.

रातयांच अब्जाधीश जावप हें नवश्रीमंतांचें सपन. हर्षद मेहता तांगेलें आराध्य. हाका लागून देशाचे अर्थवेवस्थेक सट्ट्याचें रूप आयलां. संवसारीकरण, उदारीकरण, निजीकरण हीं हांचींच देश लुटपाचीं आवतां. हेच लोक देशांत भौराष्ट्रीय कंपन्यांक घेवन आयल्यात.

तांचीं घरां पळोवचीं. जमनीर पाशाण मेळटलें. कार्पेट तर आसतलीच. धुवेचें वा पुताचें लग्न थरत जाल्यार अंबानींक लेगीत लजयत इतलो खर्च करतले. लालू प्रसादान धुवेचें लग्न ज्या दबाज्यान केलें त्या दबाज्यान बिहारांतल्या आदल्या संस्थानिकां मजगतच्या कोणेंच करूंक ना जातलें. आनी लक्षांत दवरूंक जाय - लालूप्रसाद संस्थानीक न्हय, तर एक 'समाजवादी' फुडारी.

कॉंट्रेक्टर, बिल्डर, स्मगलरांचो वर्ग हांच्यांतल्यानूच वयर सरला. ताच्या 'सिक्स्टी white आनी फॉर्टी black' ह्या गणितान देशाचीं सगळींच मोलां सकल वयर करून उडयल्यांत. काळे पयशे जोडपाचें, लिपोवपाचें आनी धंद्यांत घालपाचें एक नवें अर्थशास्त्र्य हांणीच विकसावन काडलां.

आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार, हांचे आड आयज कोण्ण उतर लेगीत काडिना. कित्याक? हांतले अर्दा परस चड भौजन समाजांतले लोक म्हूण! ते सत्येर येतात आनी लोकांक जमनी 'खावंक' दितात. तांचीं 'कन्वर्शनां' करून दितात. जमनीची दरूय वाडोवन दितात. तांची थोडी सायबाजात्रा करची, आमकांय थोडें करप्शन करूंक मेळटलें. 'सगळेच करतात. थोडेंशें आमी केलें म्हूण कितें इबाडटा?' ही देख सगळ्यांनी घेतल्या.

काळ्या पयशांची एक समान्तर अर्थवेवस्था देशांत हाकाच लागून उबी

जाल्या. रिझर्व बँकेन वर्सान वर्स सगळ्योच नोटो बदलून दिवच्यो, अंदू वर्साची खंयचीच नोट - पांच रुपयांची, धा रुपयांची लेगीत - फुडल्या वर्सा चलची ना असो नेम करचो; कोणाकूच दोनां परस अदीक खेपे वेंचून येवंक मेळचें ना, भौन भौन त्याच लोकांक मंत्री जावंक मेळचें ना असो कायदो करचो म्हणात, ती रानांतली हुयेल थरतली. कोणाक आयकूंक येवपाची ना. कित्याक, काळ्या पयशांची समान्तर अर्थवेवस्था उबे करपी तेच आनी कायदे करपी तेच. तरातरांचे 'घोटाळे' करपीय तेच आनी घोटाळे करतल्यांक ख्यास्त दिवपाचें काम जांच्या हातांत दिलां तेवूय तेच. चोरूय तेच, पोलिसूय तेच. त्याच त्याच लोकांक भौन भौन वेंचून हाडपीय तेच, त्याच त्याच लोकांक भौन भौन मंत्री करपीय तेच. लांच घेवपीय तेच, लांच दिवपीय तेच.

कोण आपणा पांयार गुंडो मारून घेतलो?

हाका उपाय ना? आसा. ज्या मध्यम वर्गाच्या पोटांत नवश्रीमंत जल्माक आयला! त्याच वर्गाच्या पोटांत आनीक एक पूत जल्माक आयला. तो अजून वयार येवंक ना. येतलो तेन्ना आमचीं सगळीं प्रमेयां उरफाटीं पराटीं करून उडयतलो. आयज तो पेटून उठूंक ना. पुणून ताच्या मनांत जी निर्शेणी तुर्ताक खदखदूंक लागल्या तीच ताका एक दीस जाग हाडटली, ताका विद्रोहान उबी करतली आनी तो पेटून सगळें सकल वयर करून उडयतलो. आयच्या काळखाच्या पोटांतूच फायची फांतोड लिपून रावल्या म्हणटात ती निखटी कवी-कल्पना न्हय. एक उगडें नागडें सामाजीक सत्य तें. आयजवेर संवसारांत जितल्योय क्रान्त्यो आयल्यो त्यो ह्याच सत्यान घडोवन हाडल्यात. रोमी साम्राज्य मातये भरवण जालें तें ह्याच सत्याक लागून. आदलें इजिप्त इतिहासजमा जालें तेंवूय ह्याच सत्याक लागून. आर्विल्ल्या काळांत च्यांग-काय-शेकाचें चीन ना जालें तेंय ह्याच सत्याक लागून.

आनी लक्षांत दवरूंक जाय - हे सगळे बदल रगताचे व्हाळ व्हांवले उपरांतूच जाल्यात.

आमचो देश जगा भायलो ह्या भ्रमांत कोणें रावचें न्हय.

जाग : जुलै 2001



# 18
# मोहन

सगळेच ताका विसरले. हांव विसरूंक पावूंक ना. ताका विसरप सोंपें न्हय. केन्ना केन्ना ताचो उगडास जाता आनी मन खंतीन भरून येता.

1956/57तली खबर. हांव तेन्ना मुम्बयंत. 'गोमंत भारती' चलयतालों.

आंगार गाबार्दिनाचो 'सूट', (ते मुस्तींतलें उंची लुगट हें), पांयांत बाटाचे उंची बूट, हातांत शिश्याचें 'रॉत', रुप्याची मूठ आशिल्लें, नाकार भांगराचे फ्रेमींतलो चश्मो (झिरो नंबरचो) - टॅक् टॅक् टॅक् करून बावीस चोवीस वर्सां पिरायेचो एक भुरगो 'गोमंत भारती'च्या म्हज्या ऑफिसांत आयलो. पळेनाफुडें, कित्याक म्हूण कोण जाणा, म्हाका तो निकुबाब कारापुरकारांचो कोणूय तरी आसूंक जाय अशें दिसलें.

'गुड आफ्टरनून... हांव मोहन कारापुरकार' ताणें आपणाली वळख करून दिली.

'निकुबाबाचो कोण?'

'पुतणयो...' म्हाका जाप मेळ्ळी.

हांवें मुमुरख्यांनी हांसून म्हळें, 'बापोलया पुतणया मजगतीं भेसांत भूंय मळबा इतलें अंतर आसा.'

'निकुआप्पा त्यागी. भितरल्यान तसो भायल्यान. हांव भितरल्यान भोगी... भितर जसो तसो भायर जगूंक सोदतां...' ताणें जाप दिली. 'भितरल्यान भोगी आसतना, भायल्यान त्यागी म्हूण दाखोवपाक लागलों जाल्यार तीं दांभिकपणां जातलीं...'

म्हाका जाप आवडली, हांवें म्हळें, 'हाका Integrity म्हणटात... फाल्यां

तुज्या आंगार खादीचो सदरो, खादीचें पुडवें दिश्टी पडलें जाल्यार म्हाका अजाप जावपाचें ना. भोग आनी त्याग तुजे पिरायेर सारकेच बळिश्ट आसतात... केन्ना त्याग तकली वयर काडीत, सांगूं येना... तुर्ताक देशांत त्यागाचें वातावरण ना...'

ताणें विशय बदल्लो. 'तुमी हांगा कितें करतात?' ताणें विचारलें.

'गांधी विचाराचो प्रचार करतां... हांगा स्टडी सर्कलां चलतात... व्हडले व्हडले गांधीवादी हांगा येतात, तांचीं उलोवपां दवरतां... रोमी लिपयेंत एक सप्तकी नेमाळें चलयतां... पुस्तकां छापतां...' हांवें जाप दिली.

'गांधीवाद ह्या काळार चलतलोसो दिसता?'

'चल्लोना जाल्यार चलोवंक जाय.' ही जाप दिवन हांवें म्हळें, 'फाल्यां आमचें स्डटी सर्कल चलतलें... तूं यो...'

हांवें ताचो पत्तो बरोवन घेतलो आनी स्टडी सर्कलांक तो येवपाक लागलो. भाशणांक हाजरी लावपाक लागलो.

गिमाचे सुटयेंत बोर्डीक हांवें एक शिबीर घेतिल्लें. आचार्य भिसे हांच्या आश्रमांत. पंदरा वीस गोंयकार भुरगीं (चले, चलयो) आयिल्लीं. तीन सप्तकां एकठांय रावलीं. तांगेलो पुराय दीस आश्रमी जीवनांत बांदिल्लो उरतालो. ते भायर सकाळ दनपार बौद्धिकां चलतालीं. काकासाहेब, दादा धर्माधिकारी, वैकुंठभाई मेहता, मगनभाई देसाई, ताराबाई मोडक अशे कांय नांवाजते मानेस्त येवन गेल्ले. मोहन ह्या शिबिरांक आयिल्लो. ताचेर कोणाचो आनी कित्याचो कसलो परिणाम जालो, कळ्ळेंना. पुणून प्राणलाल कापडियांच्या भाशणाचो खूब म्हळ्यार खूबच परिणाम जालो. प्राणलाल खादी कमिशनचे सेक्रेटरी. खादीचें अर्थशास्त्र तांचो खाशेलो विशय. खादींत कांय अर्थ ना म्हणपी नास्तिकांतल्या नास्तिकाक लेगीत खादी बगर देश वयर सरपाचो ना हें पटोवन दिवपी एक जाणकार. सांजचो मोहन म्हजे सरीं येवन म्हणपाक लागलो, 'आयजूच हांव खादीचें व्रत घेवंक सोदतां... म्हाका तुजो एक सदरो आनी लेंगो दी.'

म्हळें, 'व्रत घे... पुणून सदरो लेंगोच कित्याक न्हेसूंक जाय?... पँट बुशशर्ट वापरूं येता...'

'तूं कित्याक सदरो लेंगो घालता?'

म्हळें, 'हांवें खादी घालपाक सुरवात केल्ली तेन्ना सदऱ्या लेंग्याची फॅशन चलताली. आयज ती फॅशन उरूंक ना. आनी म्हाका दुसरो भेस आतां आवडना...'

'हांव सदरो लेंगोच घालतलों.'

हांवें ताका एक सदरो आनी एक लेंगो दिलो. लेंसूय एक दिलो.

शिबिरांतल्यान मुम्बय येनाफुडें मोहन नीट फोर्टांतल्या खादी भवनांत गेलो. थंय 'रेडीमेड' सदरे लेंगे मेळटाले. ते भायर, लेंस, तुवाले, बानयानां, लुंग्यो मेळटाल्यो... जाय तें घेतलें. गांधीचीं कांय पुस्तकां घेतलीं आनी खाराक घरा (भावागेर) आयलो. मोहनाचो हो नवो अवतार पळोवन भाव तिडकीन उसळ्ळो. 'हें तुका कोणें शिकयलें? आमच्या घरांत एक निकुआप्पा आसा तो पुरो... आनीक आनीक निकुआप्पा ह्या घरांत नाकात...'

पुणून मोहनांत बदल घडून आयिल्लो तो वयलो वयलो नाशिल्लो. मुळा सावन जाल्लो. तो सकाळ सांजवेळ प्रार्थना करपाक लागलो. चरख्यारं सूत काडपाक लागलो... 'करियर' कसलीच करप ना, देशसेवे खातीर जिवीत ओंपप असो नित्शय करून बसलो. अभ्यासाचें कितें जालें, याद ना. चड करून खोबरेंच जालां जातलें.

त्याच वर्सा पुरुषोत्तम काकोडकार पुर्तुगालाच्यान परतल्ले. एक डायनमिक फुडारी म्हूण तांची छाप आशिल्ली. एक गांधीवादी म्हुण्णूय आशिल्ली. विनोबा, जवाहरलाल सारकेल्यां कडेन तांचो दाट संबंद आशिल्लो. दिल्लींत ते जवाहरलालांगेर रावताले. मोहन तांच्या व्यक्तित्वान बरोच प्रभावित जालो. तांच्याच हाता खाला रावन काम करप असो ताणें नित्शय केलो.

गोंय कारवार शिमेर आंगडीक काकोडकारांनी खादीचें एक उत्पादन केन्द्र सुरू केल्लें. मोहन आंगडीक गेलो. केन्द्राक आश्रमाचें रूप दिवंक जाय असो ताचो विचार आशिल्लो. 'शरीरश्रमा'चें व्रत घेतलें आनी काम करपाक लागलो.

मदीं कसल्या तरी निमित्त्यान तो मुम्बय आयिल्लो. म्हाका येवन मेळ्ळो. आंगार खादी सदरो-लेंगो आशिल्लो. पुणून पयलीं सारको 'स्टार्च' केल्लो न्हय. सादो धुल्लो. नीळ घाली नासतना. हांवें म्हळें, 'ह्या तोंकार केन्ना वचूंक जायना... मनशान 'नॉर्मल' आसूंक जाय, चार चौगां भाशेन जियेवंक

जाय. 'कॉमन सॅन्सा'न चलूंक् जाय. अतिताय कित्याचीच करूंक जायना...' पुणून अतिताय मोहनाच्या रगतांतूच आशिल्ली. ताका उपाय नाशिल्लो. काकोडकारांचो तो 'अंध' शिष्य जालो. तांचे मुखार तो कदेलार लेगीत बस नाशिल्लो. पांया कडेन बसतालो. तोवूय रामा मुखार हनुमान बसता (चित्रांत आमी पळेतात) तसो.

रोखडीच, गोंयची सुटका जाली आनी मोहन गोंयांत आयलो. काकोडकारांचो निश्ठावंत सांगाती म्हूण ताणें चार पांच वर्सां कॉंग्रेसींत आनी खादी कार्यांत सारल्यांत.

एक दीस काकोडकारां वयलो ताचो भावार्त उडून गेलो. तांकां सुवार्थी, आत्मकेन्द्रीत, फटींग म्हणपाक लागलो. एका काळा वयलो अंध भक्त हो तांचो, दुसऱ्या तोंकार पाविल्लो. हृषिकेश प्रकरणा वेळार अख्खें गोंय एका तोंकार, जाल्यार मोहन दुसऱ्या तोंकार उबो राविल्लो. 'ताचो कोणेंच कांटो काडूंक ना... ताका तितलें मोल ना... तो लिपून रावला, तागेली ट्रीक ही... Criminal mentalityचो मनीस हो...' अशें म्हणपाक लागिल्लो.

असले अश्रद्ध अवस्तेंत आसतना ताणें सोऱ्याचें व्यसन लावन घेतलें. आरे आरे म्हणटासर तो सगळ्यां पसून पयस गेलो. आदल्या मोहनाचें कुस्कूट लेगीत ताच्यांत दिसना जालें. ताका स्किझोफ्रेनिया जाल्या अशें ताचे इश्ट म्हणपाक लागले. दोतोराक दाखयलो. दोतारान ताका न्हिदेच्यो गुळयो दिल्यो. मोहन गुळयोय घेना जालो. कोणाचेंच आयकना जालो.

ओपीनियन पोला वेळार ताणें एक कलापथक उबें केलें. शंकर भांडारी, उल्हास बुयांव, काटकार भयणी हांकां घेवन. हें पथक नुरुद्दीन मवान्याचे मोटारीन गोंयभर भोंवपाक लागलें. तें खूब लोकप्रिय जाल्लें. मोहनान ह्या पथका खातीर आपणाल्या बोल्सांतले पयशे (म्हळ्यार आवय कडले घेवन) खर्च केल्यात. केन्ना केन्ना म्हणचें, तुमच्यो सगळ्यांचो उडयो उद्योगपतींच्या दुडवांच्या नाड्यार चल्ल्यात. हांवें कोणा मुखार हात पातळावंक ना. म्हजे आवय कडल्यान पयशे घेतल्यात आनी सगळो खर्च केला.

हांगाय ताका कोडू अणभव आयलो. म्हजे कडेन शिणून म्हणचें, 'ओपीनियन पोलांत आमकां हार पडली जाल्यार ती आमकां लागून पडली अशें म्हणचें पडटलें, आनी, आमी जिखले जाल्यार आमी नालायक आसुनूय

उखले अशें म्हणचें पडटलें.'

बोर्डीच्या शिबिरा पसून ताची आनी शंकर भांडाऱ्याची दाटी जाल्ली. ती का सारकी वाडत गेल्ली. शंकराच्या प्रभावानूच तो कोंकणीवादी जाल्लो. ाय मळार ताका कांय 'फटींग' दिश्टी पडले. नांवां घेवचीं आनी 'हे ाकोडकाराचेच जातीचे' अशें म्हणचें. ताच्या भावार्ताक वेर गेल्ली. सगळ्यां ोशीं कोडू जाल्लो. मनशाच्या मनिसपणा वयलो भावार्त उडून गेलो हणटकूच प्रामाणीक मनीस मनीस-घाणो जाता. दुसऱ्यांच्या ामाणीकपणाचोय तो दुबाव घेवपाक लागता. मोहनाचें अशेंच जाल्लें. तो ामाणीक आशिल्लो. कोणाचोय लाव घेवपी नाशिल्लो. फटिंगपणां ताका न्ना जमलीं नात, ताणें केन्ना केलीं नात. ताणें सगळ्यांक सोडून दिले, सगळ्यांनी ताकाय सोडून दिलो.

निमाणीं धा पंदरा वर्सां तो म्हाका मेळूंक ना. शंकर भांडाऱ्याचे स्मशानयात्रेक तो आयिल्लो. कमर बागवल्ली. हातांत बडी आयिल्ली. दांत सगळे पडिल्ले. सत्तरींतलो म्हातारो कसो दिसतालो. पळोवन म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकां आयलीं. म्हजे म्हऱ्यांत आयलो तेन्ना हांवें म्हळें, 'शंकरान आपणालें मरण आपूण जावन ओडून घेतलां. आतां नंबर तुजो... हांव आयजूच सांगून दवरतां, जे मरण ओडून घेतात तांचे स्मशानयात्रेक वचप ना असो निर्णय आयजूच घेतां...'

'हांव तुजो आयजूच निरोप घेतां...' अशें म्हणून ताणें म्हज्या पांयांक हात लायलो. ताचे दोळे भरून आयिल्ले.

अकस्मात एक दीस तो भायर पडिल्ल्याची खबर आयली. आनी हांव घुटमळ्यांत पडलों. 'हाका पावपाक वचचें काय ना' ह्या प्रस्नाची जाप सोदतासर बरोच वेळ लागलो. हांवें गोदूबायच्या तोंडा कडेन पळेलें, 'वच... घरचो मनीस तो', ताणें म्हळें. म्हाकाय दिसलें, एका काळार ताच्यांतल्या ध्येयवादी तरणाट्याचेर हांव भाळिल्लों. वचूंक जाय. आनी गेलों.

स्मशानांत ताच्या येद्याश्या पुतान ताचे कुडीक अग्नी दिलो तेन्ना म्हजे दोळे भरून आयले. आनी, कांय वर्सां पयलीं वाचिल्ले एके कथेचो उगडास जालो -

एक चित्रकार आशिल्लो. तो येशूचें पुराय जिवीत चित्रावंक सोदतालो.

निष्पाप, निष्कपट बाळ येशूचें चित्र काडपाक तो 'मॉडेल' सोदीत भोंवपाक लागलो. एके कडेन एक भुरगो ताका जाय तसलो दिश्टी पडलो. खोश्शी जावन तो ह्या भुरग्याक स्टुडियोंत घेवन आयलो. ताका मुखार बसयलो आनी ताचें तोंड काडलें.

उपरांत कितलींशीं वर्सां गेलीं. येशूचें जिवीत तो चित्रायत रावलो. सगळे प्रसंग चित्रावन जातकूच येशूक धरून दिवपी जुडासाचें चित्र काडपाक तो 'मॉडेल' सोदीत भोंवपाक लागलो. ताका सामकें कोडू जाल्लें तोंड जाय आशिल्लें. अख्खो संवसार ताणें उमथो घालो. अखेरेक एका गांवांत पियेवन खळयेंत पडिल्लो एक मनीस ताका दिश्टी पडलो. ताका जाय आशिल्लो तसोच तो आशिल्लो. खुशालभरीत जावन ताका तो स्टुडियोंत घेवन आयलो. मुखार बसयलो आनी ताचें तोंड तो चित्रावंक लागलो. तोंड चित्रावन जाल्लें. अकस्मात चित्रकारान ताच्या दोळ्यां कडेन पळेलें. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो झरी व्हांवताल्यो. 'कितें जालें?' चित्रकारान ताका विचारलें. 'कितलींशीं वर्सां जालीं, तुवें असोच म्हाका हांगा हाडून बसयल्लो आनी येशूचें चित्र काडिल्लें.'

'तो तूं आशिल्लो?' चित्रकारान विचारलें.

'हय, हांवूच आशिल्लों.' मॉडेलान जाप दिली.

मोहन कारापुरकारालीं हीं दोनूय रुपां हांवें पळेल्यांत.

मोहनाक वचून आतां कांय वर्सां जातलीं. अजून म्हज्या दोळ्यां मुखार ताचीं हीं दोनूय रुपां उबीं रावतात.

कोंकण टायम्स : जानेर-मार्च 2001






# 19
# भरिल्लो कळसो

विश्वनाथबाब सहकारींक तांगेली धूव ज्योत्स्ना एक दीस आमगेर घेवन आयली. 'विद्‌वान... कितेंय विचार, नवें कितेंय मेळटलें' अशी तिणें पयलींच तांची वळख करून दिल्ली. पिरायेन म्हजे परस चड जाणटे न्हय. पुणून हात कडकडटात, पांय जमनीक सारके लागनात. तकली? तरतरीत. कितें भरलां भितर, थाव लागपाचो ना. म्हायतीचो भरिल्लो कळसो. उलोवंक लावपाक कितेंय तरी विचारूंक जाय आशिल्लें म्हूण विचारलें, 'भारतियांक चार आंकड्याची ओड कित्याक? चार वेद, चार आश्रम, चार पुरुषार्थ, चार वर्ण...'

'पयलीं तीन आंकड्याक म्हत्व आशिल्लें', तांणी जाप दिली. 'ॐकाराच्यो मात्रा तीन अ उ म... पुराणांतले पृथ्वी, आकाश, पाताळ हे तीन लोक. पंचागांतले काळ तीन - काल, आयज, फाल्यां. शैव कपळाक गंध वा भस्म लायतात तेन्ना तीन आडव्यो रेगो ओडटात... बौद्‌धांचीं तीन रत्नां, बुद्‌ध, धर्म आनी संघ... तशे आरंभाक तीन वेद, तीन आश्रम, तीन पुरुषार्थ आनी तीन वर्ण आशिल्ले. आर्यांनी अनार्यांक आपणाले सत्रे खाला हाडपाचें थारायलें तेन्ना अनार्यांचे सगळे समज, सगळ्यो मान्यतायो, सगळ्यो चाली-रिती (आनी जाय जाल्यार म्हण, सगळ्यो पिसायोय) एकठांय केल्यो आनी ताचो चवथो वेद केलो. ताका अथर्ववेद म्हूण एक नांव दिलें. ऋग्वेद, सामवेद, यजुर्वेद हांचे भायर हो चवथो वेद, अथर्ववेद. तशे, आश्रमूय आरंभाक तिनूच आशिल्ले - ब्रह्‌मचर्य, गृहस्थ आनी वानप्रस्थ. शंकराचार्यान बौद्‌धांचे देखीन आपणाले मठ सुरू करून संन्याशी तयार केले. तेन्ना

आश्रमवेवस्थेंत संन्यास नांवाचो चवथो आश्रम आयलो. पुरुषार्थूय तिनूच आशिल्ले, काम अर्थ आनी धर्म. पुणून सगळ्या बांदपासांतल्यान मेकळो जावपाची एक ओड मनशांत आसा म्हणपाचें आमच्या म्हालगड्यांनी पळेलें आनी तांणी मोक्ष नांवाचो एक चवथो पुरुषार्थ तयार केलो. मोक्ष म्हळ्यार, खरेपणानशीं, ज्ञान. मनशाक बांदपासांतल्यान मेकळो ज्ञानूच करता... वर्णूय तिनूच आशिल्ले. ब्राह्मण, क्षत्रीय आनी वैश्य. शुद्रांक ते मुस्तींत मनशांतूच धरूंक नाशिल्ले. ते 'चतुष्पाद' - चार पांयांच्या जनावरां सारके असो समज करून घेतिल्लो आमच्या म्हालगड्यांनी.... तुका अजापांचो धसको बसतलो, तांकां मनशांत आसपावन घेतले ते मनून - जाका आयज सगळे शुद्र गाळी घालतात. मनू कायदे घडोवपी legislator नाशिल्लो. फकत codifier - कायद्यांचें संपादन करपी - आशिल्लो. ताणें म्हळें, चार पांय आशिल्ले प्राणी निसरनात. दोन पांयांचे सोंपेपणान निसरतात. शुद्रांक समाजा भायर दवरप समाज़-धारणेचे नदरेन निखालूस समा न्हय. तांकांय वर्णवेवस्थेंत आसपावन घेवंक जाय. आनी, हे भाशेन, वर्णवेवस्थेंत ताणें शुद्रांचो चवथो वर्ण घालो.'

'गणिताची आवड आसा?' अवचीत तांणी म्हाका प्रस्न केलो.

भितरले भितर हांसलो. म्हळें, 'ना. गणित शिकपाचें तें कितेंय मेजूंक येवचें म्हूण न्हय? कितें मेजतलों? पयशे? मेजपा इतले ते केन्ना हातांत आयलेच नात. आतां मेरेन hand to mouth - कमाऊ खाऊ जिवीत जियेलां. आयले ते खर्चून उडयले. हातांत पानदुडूय उरलो ना. उरलें तें वाशील बाकी शून्य. वेदीक आर्यांचो वंशज हांव. शून्य तांणीच दिलां न्हय? हेंच दायज सांबाळून रावलां.'

रोखडीच तांची रसवंती सुरू जाली - 'वेदीक आर्यांनी दशमान - decimal रीत सोदून काडली. ते पयलीं हांगा द्रवीड आशिल्ले. तांगेले मेजपाचे रितीक 'अष्टक' म्हणटाले. आठ आठांच्या हिसपान ते मेजताले. वेदीक आर्यांनी तांचेच कडल्यान हो आठांचो पाडो घेवन चलयलो. ऋग्वेदाचीं तांणी आठ 'अष्टकां' केलीं. एका एका अष्टकांत आठ आठ अध्याय घाले. हेच परंपरेक धरून पाणिनीन आठ अध्यायांचें व्याकरण बरयलें. ताका 'अष्टाध्यायी' नांव दिलें. बौद्धांनी हीच रीत मुखार चलयली. तांगेल्या

ुत्तनिपातां'त एक 'अष्टकवर्ग' येता. धम्मपदाचे अट्ठकथेंत आठ मेल्ल्या ानी आठ जिव्या कोंब्यांच्या दानाचो उल्लेख येता. हेच रितीक धरून गयांक आनी रत्नांक आठ आठ तासां पडपाक लागलीं. वांकड्या ाकड्या आंगाचो एक अष्टवांकूड रुशी जल्माक आयलो ह्या देशांत. ाका 'अष्टावक्र ऋषी' नांव पडलें. आठ दुणे सोळा ह्या नेमान 'षोडशकल रुष' जाले, 'षोडषोपचार पुजा' सुरू जाली. आठ त्रीक चोवीस. सांख्यांनी कृतीचे चोवीस 'विकार' सांगले. आठ चोक बत्तीस. म्हापुरसाचीं लक्षणां त्तीस. बत्तीस बत्तीस कथांच्यो 'बत्तिशी' सुरू जाल्यो... बत्तीस दुणे ौंसश्ठ. चौंसश्ठ कला विकसावन काडल्यो. एक दीस तांकां आठां ल्यान वचूंक जाय अशें दिसलें. आठां मुखावेल्या आंकड्याक जो नवो ांकडो लायलो ताका 'णव' (= नवो) नांव दिलें. खंयचेय संख्येंतले णव ाव उणे करचे. जाप शून्य येतली. Noves fora nada (ते पुर्तुगेजूय ाणात). हे भाशेन शुन्याचो सोद लागलो. खंयच्याय आंकड्या मुखार ून्य लायलें म्हणटकूच आंकड्याचें मोल धा वांट्यांनी वाडूंक लागलें. ांकड्यांची बेरीज करतकूच 'हातचो एक' येवपाक लागलो. दोन हातांच्या ा बोटांक 'हातचो' ही संज्ञा मेळ्ळी. मागीर ऋग्वेदाचीं धा 'मंडळां' जालीं. ा श्लोकांची एक 'पद्धती' आनी धा पद्धतींचें एक 'शतक' जालें. भर्तृहरीन शृंगार-शतक, नीति-शतक, वैराग्य-शतक हीं शतकां रचलीं. चार वेद आनी स वेदांगां मेळून धा ग्रंथ जाले. धाय ग्रंथ पाठ आशिल्ल्या पंडिताक ते 'दशग्रंथी' म्हणपाक लागले...

'आर्यांनी दशमान रीत सुरू केली खरी. पुणून द्रंविडां कडल्यान घेतिल्ली अष्टक रीत तांणी केन्ना सोडली ना. दोन रिती एकठांय केल्यो आनी दोनांयच्या समन्वयाचो अठरांचो पाडो चलयलो. पुराणां कितलीं? अठरा. महाभारताचीं पर्वां अठरा. भगवद्गीतेचे अध्याय अठरा. गीतेंतले स्थितप्रज्ञाचे श्लोक अठरा. गीते आदलीं म्हत्वाचीं उपनिषदां अठरा. ईषोपनिषदाचे श्लोक अठरा. मुंडकोपनिषदान यज्ञकर्मां सांगल्यांत, अठरा. कुरुक्षेत्रार सैन्य उबें केलें - अठरा अक्षौहिणी. एक अक्षौहिणी म्हळ्यार 21870 रथ, 21870 हती, 65610 घोडे, 10350 पदाती. ह्या आंकड्यांतलें निमाणें शून्य काडून उडय आनी उरिल्ल्या आंकड्यांची बेरीज कर. कितें येता

पळे-

2 + 1 + 8 + 7 = 18

6 + 5 + 6 + 1 = 18

10 + 3 + 5 = 18

आर्य आनी द्रविडां भायर ऑस्ट्रीक कुळयेंतलेय लोक ह्या देशांत येवन राविल्ले. संथाल, मुंडा बी आयचे कांय आदिवासी हे कुळयेंतले. तांगेलीय मेजपाची एक खाशेली रीत आशिल्ली. आर्यांनी फकत हातांचींच धा बोटां मेजलीं. हांणी हातां वांगडा पांयांचींय धा बोटां मेजून विसांचें एक माप निर्माण केलें. एक वीस, दोन विसो, तीन विसो मेजीत मेजीत वीस विसां कडेन पावतकूच तांगेलो infinite (अनंत) सुरू जातालो. अजुनूय ही रीत देशांत चलता. इंग्लंडाकूय ही रीत पावल्या. थंय विसांच्या मापाक score म्हणटात. Four scores not enough, live to complete five म्हूण टागोरांच्या अंयशाव्या जल्मदिसा गांधीन तेलेग्राम धाडिल्लो, याद आसा? हाचो अर्थ, 'चार विसो पुरो जायनात. पांच पुऱ्यो कर' असो जाता. फ्रांसांतूय खंय खंय विसांचें माप चलता. पंच्यांयशींक ते 'कात्र व्हां सांक' म्हळ्यार, चार विसो आनी पांच म्हणटात.'

आंकड्यांचो खेळ इतलो रुचीक, अर्थान आनी इतिहासाचे नदरेन इतलो उपाट भरिल्लो आसत म्हणपाचो अदमासूच नाशिल्लो म्हाका. हो मनीस गोंयांत आशिल्लो जाल्यार मदीं मदीं ताचे सरीं वचून बसतलों आशिल्लों. आनी ही बांय उसपीत रावतलों आशिल्लों. पुणून तो रावता सांगलीक. हांवें धुवेक म्हळें, 'बापायक हांगा हाडून दवर गो तुगेर...'

हे गजालीक धा तश्री वर्सां जाल्यांत जातलीं. पोरूंच तांणी संवसार सोडलो म्हूण तांचे धुवेन पयर सांगलें तेन्ना वायट वायट दिसलें. तांचे संबंदान कितेंय तरी बरोवंक जाय अशें दिसलें. पुणून तांणी सांगिल्लें सगळें लक्षांत उरूं नाका? विशय म्हजो न्हय. पुणून मेंदू ब्लॉटिंग पेपरा सारको. तो कितें कितें ओडून घेता. तशें ताणें हेंय घेतिल्लें. स्पस्ट नाशिल्लें. 'डिसायफर' करचें पडटालें. कितें करचें ह्या घुटमळ्यांत पडिल्लों. जिस्त ह्या वेळार 'मराठी अभ्यास परिषदे'च्या 'भाषा आणि जीवन' नेमाळ्याचो दिवाळी आंक मेळ्ळो. तांतूंत मो.गो. धडफळेंचो 'दहा न् आठ, अठरा' लेख

यला. तो वाचता आसतना 'आरेच्या! हें सगळें हांवें धा वर्सां पयलीं यकल्लें. अठरा अक्षौहिणीची अर्थावणीय आयकल्ली...' (धडफळ्यांनी एका विदेशी विद्वानाच्या तोंडांतसून आयकल्या) अशें दिसलें. 'देव वता' म्हणटात तो, म्हळें, असो. धडफळ्यांच्या आधारान (तांचे उपकार ठोवन) हें टिपण बरयलां. धडफळ्यांच्या लेखांत धा वर्सां पयलीं आयकल्लें सगळें येवंक ना. नाका येवं. पुणून जें आयलां तें धा वर्सां पयलीं यकल्ल्या गजालींची उजळणी करपाक, म्हळें, पुरो.

व्यासंगी मनीस गोंयकारां मजगतीं नात अशें न्हय. आसात, पुणून ते पून उरतात. तांचे मजगतचेच हे विश्वनाथबाब सहकारी एक, म्हज्या जवितांत येवन गेल्यात. एक दोन वरां पुरते जावं. पुणून मनाचेर खोल शी एक छाप दवरून गेल्यात. विसरप सोंपें न्हय तांकां.

जाग : जानेवारी 2002





# 20

# मळब उकतें उकतें जालां...

गायक कलाकार खंय मनांतल्यान एकामेकांचेर जळत आसतात. आसतीत घडये. म्हाका खबर ना. हांव तांच्या संवसारांत व्हडलोसो घोळूंक ना. पुणून साहित्यकार एकामेकांचेर जळटात ते हांवें पळेल्यात. कवी तर खुबूच.

कितले आगळे वेगळे आशिल्ले लक्ष्मणराव आनी बाकीबाब! दोगूय कोणाचेरूच जळऽ नाशिल्ले. एकामेकांचेर तर निखालूस ना. दोगूय एकामेकांचे गूण आनी अवगूण जाणा आशिल्ले, तशे, एकामेकांचें व्हडपणूय वळखल्ले. दोगूय मराठी शारदेचे निष्ठावंत सेवक, तशे कोंकणीचे कट्टर पुरस्कर्ते. पिरायेन तांचे परस ल्हान आशिल्ले आमी - आमच्यांत कोणांतूय प्रतिभेची ल्हानशी कीट दिश्टी पडत जाल्यार तिका तोंडान फूंक घालपाक मोटे उर्बेन दोगूय मुखार सरताले.

पुंडलीक नायक आयज नावाजतो जाला. पुणून ताका कोणूच वळख नाशिल्लो त्या काळांत तो एक दीस आपणाल्यो कांय कोंकणी कथा घेवन आमगेर आयलो. 'जाग प्रकाशना'न त्यो छापच्यो ही आस्त धरून. हांवें ताका म्हळें, 'गोंयांत एक व्हड कथाकार आसा, लक्ष्मणराव. तो गोंयचोच न्हय, तर भारतांतलो एक व्हड कथाकार. ताका ह्यो कथा पयलीं वाचूंक दी. ताचे परिक्षेंत तूं पास जालो जाल्यार त्यो छापून हाडपाचो वावर मोटे उमेदीन करीन हांव. 'जाग प्रकाशना'क छापप जमलेंना जाल्यार दुसरे खंयचेय प्रकाशन संस्थे कडल्यान छापून घेन... लक्ष्मणराव तूर्त वेलंगां येवन रावल्यात...'

पुंडलीक वेलंगां गेलो आनी तांकां आपणाली फायल दिवन आयलो. तांचीं कितें उलोवणीं जालीं, खबर ना. पुणून दुसऱ्या दिसा दनपरां फायल घेवन लक्ष्मणराव आमगेर आयले! भितर सरचे पयलींच तांणी म्हळें, 'आरे! कसलो रे भुरगो हो! बावीस तेवीस वर्सांचो... हे पिरायेर तो ह्या पांवड्याच्यो कथा बरयता जाल्यार म्हजे पिरायेचो जातलो त्या वेळार केद्या ऊंच पांवड्याच्यो बरयतलो रे!' अशें म्हणून पुंडलीकाचे एके एके कथेची तुस्त तोखणाय करीत रावले. 'कासय' कथा तांकां खूब मानवल्ली. 'कथा बरीच, पुणून रुपक म्हूण ती वाचीत जाल्यार खुब्ब बरी. हे पिरायेर ताका इतलें कशें कळ्ळें, समजना.'

पुंडलीकाच्यो ह्यो कथा 'मुठय' ह्या नांवान मडगांवचे 'सेवा समिती'न उजवाडा हाडल्यात.

अशेच एक दीस लक्ष्मणराव आमगेर आयले. तांकां त्या दिसांनी चलूंक खूब त्रास जातालो. फाटीचो कणो दुखतालो. तरी आसतना वेलंगां सावन नंगरा मेरेन वीस पंचवीस मिणटांची वाट चलून आयिल्ले. 'जागा'चो एक आंक म्हजे मुखार दवरून विचारूंक लागले, 'ही 'रूद्र' कथा बरयल्या तो गजानन जोग कोण? खंयचो, कितें करता, खंय रावता?' हांवें म्हळें, 'खंय रावता, कितें करता, म्हाका खबर ना. पणजे 'राजहंसां'त ताचो पत्तो मेळटलो. पंचवीस तीस वर्सां भितल्लो भुरगो तो...' लक्ष्मणराव तडक पणजे गेले. मुजरत गजानन जोगाक मेळपाक आनी ताची फाट थापटुपाक!

नवे पिळगेंतल्या कोंकणी कथाकारांक आपणाल्या अणभवांचो सार सांगचो म्हूण तांणी चार नव्या कथाकारांच्यो कथा घेवन तांचें समीक्षण बरयलां. 'कथाशिल्प' नांवान तें उजवाडा आयलां. एके तरेचें गुरूपुस्तक हें, कथाकारां खातीर बरयल्लें. ऊंच पांवड्याचें एक पुस्तक ह्या निमित्यान कोंकणीक मेळ्ळां.

बाकीबाबांतूय हो गूण आशिल्लो. आपल्या पुताची वा धाकल्या भावाची करची तशी मंगेश पाडगांवकरांची तांणी अर्थ-अपुर्बाय केल्या. मनोहररायांचीय खूब केल्या.

गोंयची सुटका जाल्या ताच्या दोन तीन म्हयन्यां उपरांत उमाशंकर जोशी, प्रभाकर माचवे, मंगेश पाडगांवकर गोंयांत आयिल्ले. बाकीबाब त्या

वेळार पणजेच्या आकाशवाणी केंद्रांत एक अधिकारी आशिल्ले. आकाशवाणीचे वतीन तांणी एक भौभाशीक कवी-संमेलन घडोवन हाडलें. 'तुंवें अध्यक्ष जावचें पडटलें', तांणी म्हाका म्हळें.

'कवी-संमेलनाचो अध्यक्ष हांव? च्ये. म्हजो आनी कवितेचो कांय संबंद ना.' हांवें म्हळें.

'नासूं. पुणून गुजराती जाणा जाल्लो तूंच आमचे मजगतीं आसा. आनी उमाशंकरांक तूं कितल्याश्या वर्सां सावन लागिंच्यान वळखता', तांणी जाप दिली.

म्हजें गुजरातीचें ज्ञान आनी उमाशंकरां कडली म्हजी इश्टागत फकत निमित्याक कारण जाल्ली. तांगेलो 'अंतस्थ हेतू' वेगळो आशिल्लो. कोंकणीची चळवळ ते मुस्तींत खूब नेटान चलताली. आनी हांव ते चळवळींत अवसर आयिल्ले वरी आघाडेर रावन झुजतालों. 'पकडा त्या रवींद्राला' हे तरेच्यो हालेट्यो ते मुस्तींत मराठीचे वेदी वेल्यान जाताल्यो. म्हाका लोकां मुखार 'प्रोजेक्ट' करप हो एकूच हेतू बाकीबाबांचो आशिल्लो.

ह्या कवी-संमेलनांत माचवे, उमाशंकर, पाडगांवकर आनी बाकीबाब हांच्यो कविता जाले उपरांत हांवें मनोहररायांक तांच्यो कविता म्हणपाक पाचारण केलें. मोटवीच मूर्त. लुटूलुटू करून मायका मुखार येवन उबी रावली आनी '*खूब खूब करचें आसा। रगतान मळो शिंपचो आसा। जिणे फातरीर काळीज घांसून। वीज जगाक दिवची आसा।। सुल्तानाक हाणचो आसा। बेबदडाक चेपचो आसा। गांवांत म्हज्या न्यायासूळ ऊंच उबो रोमचो आसा।।*' ही कविता सुरू केली. मनोहर लक्ष्मणरावांलो पूत. बापाय वरीच 'भाराची कूड' घेवन जल्माक आयिल्लो. भार आयिल्ले वरी कविता म्हणटालो. कविता अजून सोंपूंक नाशिल्ली. वेदीर बशिल्ल्यां मजगतच्या कोणाचो तरी हुडको म्हज्या कानार पडलो. पळेत जाल्यार, बाकीबाब हुडके दिवन रडटात! लेंसान दोळे आनी नाक पुसतात. वेदी वेल्यान सकल देंवतकूच हांवें तांकां म्हळें, 'बाकीबाब, आयज म्हाका तुमचो एक नवो अवतार पळोवंक मेळ्ळो' म्हाका वेंगेंत घेवन तांणी म्हळें, 'तुजे आनी मनोहरा सारकीं वादळी व्यक्तित्वां जे चळवळीक मेळ्ळ्यांत तिका संवसारांतली खंयचीच ताकत चिड्डूंक पावपाची ना, कळ्ळें?' ('वादळी

व्यक्तित्वां', हीं तांगेलींच उतरां).

एक दीस, आपणाले एका बराबर पांच कवितां झेले घेवन र. वि. पंडित कोंकणीच्या मळार देंवलो. तांचो प्रकाशन सुवाळो जाला ताचे दोन दीस पयलीं हांवें आनी पंडितान बाकीबाबांक पांचूय झेले व्हरून दिले. सुवाळ्यांत बाकीबाबांनी आपणाली *'जागी जाल्या गोंयची सासाय येतलो भार, येतलो भार...'* ही कविता म्हळी. दुसरो कोणूय कवी आशिल्लो जाल्यार येद्या व्हड कवीच्या तोंडांतल्यान आयिल्ली ही तुस्त तोखणाय आयकून आपणाक एक व्हडांतली व्हड तसरीप मेळ्ळ्या अशें मानतलो आशिल्लो आनी, सुवाळो सोंपतकूच बाकीबाबांच्या पांयांक एक तर हात लायतलो आशिल्लो वा तांकां वेंग तरी मारतलो आशिल्लो. पुणून पंडित तो! 'Maior de todos' - 'सगळ्यां परस व्हड'. ताणें 'थँक्यू' म्हूण सादो हात लेगीत तांकां दिलो ना. म्हाका खूब वायट दिसलें. हांवें बाकीबाबांक म्हळें, 'खूब ल्हान मनीस हो. Petty minded...'

'कवी व्हड रे तो...'

'ल्हान मनीस व्हड कवी केन्नाच जावंक पावना', हांवें म्हळें.

'हांवें म्हज्यो अपेक्षा उकतावन दाखयल्यो... फुडें ताच्या नशिबाचो तो...' अशें म्हणून बाकीबाब दुसऱ्या कोणा कडेन उलोवंक लागले.

म्हजोय एक अणभव सांगता. हांवें तो खूब जाणांक सांगला. खूब कडेन बरोवन, उलोवनूय उकतायला. म्हजे नदरेन खूब म्हत्वाचो म्हण.

खूब वर्सां राजकर्णांत घुसपल्लें मन हांवें एक दीस तांतलें काडून घेतलें. राजकारण सगळें मनांतलें पुसुनूय उडयलें. आनी आतां फकत साहित्य घेवन बसप अशें थारायलें. एका वेगळ्याच खंयच्या तरी वातावरणांत वचून रावंक जाय अशें दिसलें. येवरोपाची भोंवडी करून येवची अशें मनांत आयलें. पुणून पयशे नाकात? ते खंयचे हाडटलों? येणावळ तर कसलीच ना. म्हजे कडेन एक टेलस्कोप आशिल्लो. नक्षत्रविद्येची थोडी-भोव वळख आशिल्ली. जानेराचो म्हयनो. मळब निव्वळ बरें. एक्क कूप नाशिल्लें. आनी काळख्यो राती. टेलस्कोप हाडून आंगणांत मांडलो आनी विश्व ब्रह्मांडाचे भोंवडेक गेलों. चार म्हयने अंतराळांतल्या खांचीं कोनशांनी भोंवलों. मुम्बय, दिल्लीक गेलों. थंयच्यान नक्षत्रविद्येवेलीं नवीं पुस्तकां घेवन आयलों

आनी पावसाळ्यांत, *'ब्रह्मांडांतलें तांडव'* नांवाचें एक पुस्तक बरोवन काडलें. छापणावळ पुण्यांत जाल्ली. थंयच्यान पार्सलां आयलीं. तेन्ना पुस्तकाची पयली प्रत घेवन हांव पर्वरे गेलों. बाकीबाबांच्या हातांत ती दिवन हांवें म्हळें, 'म्हजें कवितेचें पुस्तक घेवन आयलां... तुमचो आशिर्वाद घेवंक.'

'वाचून पळेतां' अशें म्हणून तांणी पुस्तक उकतें करी नासतना मेजार दवरलें. म्हाका मातशें विचित्रशें दिसलें. दुसऱ्या दिसा तांणी तें वाचपाक घेतलें. दोन दीस लागले पुरें करपाक.रोखडेच उठून लक्ष्मीनारायण पारजागेर गेले. तो तांगेलो शेजारी. 'मातशी तुजी गाडी काड. आनी म्हाका पिरवळा व्हरून हाड.' अशें म्हळें आनी निट्ट पिरवळा आयले. म्हाका घट्ट वेंगेंत घेवन तांणी म्हळें, 'आमी सगळ्यांनी कोंकणीक कविता दिल्यो. तुंवें एक महाकाव्य दिलां... संस्कृताय - बिंस्कृतायेचेर तूं बरयता तें बरें आसा. तुका ह्याय विशयांत गती आसा तें पळोवन म्हाका अजाप जालें... म्हज्या दोनूय दोळ्यांत मोतिबिंदू जाल्यात ते काडून घेतां आनी मागीर कांय दीस तुगेरूच येवन रावतां. संवसार सोडचे पयलीं अख्खें ब्रह्मांड एक फावट तुज्या सांगातान पळोवन घेवपाचें मनांत आसा...'

हें आयकून म्हाका जी खोस जाल्या ती ल्हाना समानांतली न्हय. हांवें ही खबर वचत ताका सांगल्या ती बेश्टी न्हय. चुकून माकून केन्नाय ज्ञानपीठ मेळ्ळें, न्हय, नोबेल इनाम लेगीत मेळ्ळें जाल्यारूय हांव ही खबर सांगीत रावतलों. इतली म्हत्वाची ती म्हज्या जिवितांतली. येदी व्हड तसरीप दुसरी आसूं नज.

बाकीबाब आनी लक्ष्मणरावूच हे तरेची खोस दिवंक जाणा आशिल्ले. आमचे पिळगेन पळेल्ले वडा पिंपळा सारके दोन म्हारूख हे. तांणी आमकां सांवळी दिल्या आनी थाकायूय दिल्या. दोनूय म्हारूख आयज हुमटून पडल्यात. आनी...

मळब उकतें उकतें जालां...

अपरांतक : जुलै 2004



# 21
# जाणटेपण

मांय-सुनांक पडना तशें बापूय-पुतांकूय खूब फावटीं पडना. इस्टेटीच्या वांट्याक लागून पडना ताचेकूय चड दोन पिळग्यां मदल्या अंतराक लागून पडना.

पूत सोळा वर्सांचो जालो म्हणटकूच ताका इश्ट लेखचो आनी इश्टा कडेन चलता ते भशेन पुता कडेन चलचें, अशें आमगेल्या म्हालगड्यांनी म्हळ्ळें. कांय बापायंक हें कळना. हाका लागून पूत चाळीस वर्सांचो जालो तरूय बापूय ताका धा वर्सांचोच आशिल्ले वरी लेखता आनी ताका हें करूं नाका, तें करूं नाका म्हूण सांगत रावता. पूत आयकना. तो आपणाक जाय तेंच करता.

हाका पळेयात -

हो चार वर्सां पयलीं रिटायर जाला. बरी गडगंज इस्टेटूय ताणें करून दवरल्या. ताका एकूच पूत. पस्तीस वर्सांचे पिरायेचो. तो कसलो तरी नवो उद्‌देग सुरू करूंक सोदता. तीग पार्टनर ताका मेळ्ळ्यात. उद्‌देगांत घालपाक ताका लाखभर रुपया जाय. बापाय कडेन वीस पंचवीस लाख आसात. तो बापाय कडेन मागता. बापूय ना म्हणटा. 'उश्णे दी', पूत म्हणटा. बापूय दिना. बापायच्या दोळ्यां मुखार ताचे पार्टनर उबे रावतात. 'हे फटींग... हांच्या बापायंक हांव वळखतां. तांचो सांगात सोड' अशें तो पुताक सांगता. पूत तांगेलो सांगात सोडिना. कित्याक, तेवूय पयशे घेवन आयल्यात. हो मागीर बापायचो नाद सोडून दिता. खंयच्यान तरी रीण काडटा. आनी उद्‌देग चलयता. तरी आसतना बापूय ताका 'हांचो सांगात

सोड' म्हूण सांगीत आसता. 'हे बरे लोक न्हय, तुका फटयतले... पळेशीत तूं' अशें म्हणटा. पूत जाप दिना. मागीर बापूय फणफणटा. 'आतां पूत लेगीत म्हजें आयकना... म्हाका आतां घरांत लेगीत कांय किंमत उरूंक ना.' अशें म्हणून पिरपिरत रावता.

बापूय-पुता मजगतचें अंतर वाडत गेलां.

खरेपणानशीं, बापूय फकत कुडीन रिटायर जाला. मनान जावंक ना. मनान तो अजुनूय पंदरा वर्सां आदल्या - पूत धा वर्सांचो आशिल्लो तेन्नाच्या - संवसारांत जियेता. काळाचे व्हांवतेंत पंदरा वर्सां आदलो संवसार व्हांवन गेलो, हें ताच्या लक्षांत येना. देखून पंदरा वर्सां आदीं धा वर्सांच्या पुता कडेन चलतालो तसो आयज तो पस्तीस वर्सांचो जाल्लो आसतनाय चलता. पंदरा वर्सां आदलो संवसार आयज उरूंक ना म्हणपाचें ताच्या लक्षांत आयिल्लें जाल्यार तो हें करूं नाका, तें करूं नाका, हाचे वांगडा भोंवूं नाका, ताचो सांगात धरूं नाका असलीं फर्मानां काडचो नाशिल्लो. पुताक शिटकावणी दितलो आशिल्लो आनी थंयच थांबतलो आशिल्लो. पुताक ताच्या कर्तुत्वा सयत मेकळो सोडटलो आशिल्लो. कुडीन रिटायर जाल्ल्या मनशान मनानूय रिटायर जावंक जाय. म्हणटकच, मागीर, पूत आपणालें आयकना, आपणाक आतां घरांतूय कांय मोल उरूंक ना... आपणाले इत्सेक कोण मानिना असले शीण काडीत तो बसचो ना. आपणालो हट चलोवचो ना. पुताक ताच्या संवसारांत ताका जाय तें करपाक मेकळो सोडटलो. आनी आपुणूय ताच्या हुसक्यांतल्यान मेकळो जातलो.

मरण येवन आमच्या हातांतलें जें झोंबून घेवन वतलें तें सगळें रिटायर जायनाफुडें मनशान आपूण जावन सोडून दिवंक जाय. म्हणटकूच उरिल्लें आयुश्य तो विमुक्ति-सुखाच्या आनंदांत सारूंक पावतलो. प्रसन्न उरतलो. हे प्रसन्नतायेचो परिणाम ताचे भोंवतणच्या वाटारांत जाल्लो पळोवंक मेळटलो. ताच्या घरांत एके तरेचो स्वर्ग देंविल्लो दिश्टी पडटलो.

मनशाक मनान रिटायर जावंक येवंक जाय.

खूबश्या जाणांक मनान रिटायर जावंक येना. रिटायर जातकूच कितें

करचें हेंच समजना. पंचवीस तीस वर्सां मनीस सद्दां तींच तींच कामां करीत रावलो - अमक्याच वरांचेर उठप, अमक्याच वरांचेर ऑफिसांतल्यान घरा येवप - हे भाशेन एका सारकीं तींच तींच कामां दोन तीन दसकां मेरेन करीत रावलो म्हणटकूच मनशाक तांची संवंय जाता. मनीस रिटायर जाता तेन्ना अवचीत ताचें हें 'रुटीन' सुट्टा. तें सुटलें म्हणटकूच कांय दीस मेकळें मेकळें-शें दिसता. पुणून थोड्याच दिसां भितर ताच्यांत एके तरेचें रितेपण येता. आपूण पोको, पोलो, रिकामो जाल्ले वरी ताका दिसपाक लागता. हें रितेपण कशें भरून काडचें हें ताका समजना. दिसाचीं चोवीस वरां, मागीर, ताका चोवीस दिसां सारकीं सोंपून सोंपनाशिल्ले वरी दिसपाक लागतात.

आनी मनीस ल्हवू ल्हवू करून थतरवितर जाता. घुमो, मक्ख, कसलीच उमेद नाशिल्लो, चिडचिडो जाता.

मनशान पयलींच एक नित्शय करूंक जाय -

म्हजे हात-पांय मोडल्यार उपकरतात. तकलेक हांव थतरवितर जावंक दिवचों ना. तिका कांयच जावंक जायना. ती थीर उरतली म्हूण यत्न करतलों. 'मुद्राराक्षस' नाटकांत चाणक्याच्या तोंडांतल्यान एक वाक्य आयलां - *'बुद्धिस् तू मा गान मम्'*. चाणक्याचें पुराय सैन्य ताका सोडून गेलें. इतलेंच न्हय तर तें ताचे आड गेलें. चाणक्य काचाबूल मात लेगीत जालो ना. ताणें इतलेंच म्हळें, 'वचूं दी कोण वतात तांकां... म्हजी बुद्द म्हाका सोडून वचना जातकूच जाली...'

आपणाली बुद्द निमाणे मेरेन इतली थीर उरतली असो हावेस मनशान तरणेपणांतूच बाळगूंक जाय. ती थीर दवरपाची साधनाय ताणें तेच पिरायेर सुरू करूंक जाय आनी आयुष्यभर ती एका सारकी करीत रावंक जाय. म्हातारपण येतकूच ही साधना करूंक रावलो जाल्यार मनीस ती केन्नाच करूंक पावचो ना. जाणटे पिरायेर ताका ती कशीच जमपाची ना.

ही साधना कशी करपाची?

कुडी पसून तकली तरणेपणांतूच वेगळी काडून.

श्रीरामकृष्ण एक ओपार दिवन सांगताले, सोलिल्ल्या नाल्लाचेर कोयतेन

धपको घालचो. नाल्लाचीं दोन वळीं जातलीं. भितरले कातले बरोबर भायले कट्टेचेय दोन कुडके जातले. होच नाल्ल सुकत घालात. ताचें खोबरें करात. कातली कट्टे पसून वेगळी जातली. नाल्लाचें गुडगुडें जातलें. मागीर कट्टेचेर धपको घालात. कट्टी फुट्टली. गुडगुडें तशेंच उरतलें.

हे भाशेन तरणेपणांतूच मनशान तकलेचें गुडगुडें करून घेवंक जाय. म्हणटकूच कूड पिडेन जावं म्हातारपणान कितलीय दुबळी पडूं, तकलेक कांयच जावपाचें ना. ती सदां थीर उरतली.

तरणेपणांतूच ही साधना करूंक जाय.

खासा आपणाली देख दिवन बुद्ध म्हणटा -

हांव दीस-रात वैभवांत लोळटालों. तरणे पिरायेचो आशिल्लों. नाच-गाण्यांत गुल्ल रावतालों. एक दीस मनांत विचार आयलो, आयज हांव तरणे पिरायेचो आसूं, फाल्यां जाणटो जावपाचों आसां. जाणट्यांक पळोवन कांय जाण उबगतात. हांवें उबगप समा जावचें ना. म्हाका तें सोबचें ना. हो विचार तकलेंत येनाफुडें म्हजो तारुण्य-मद जिरलो. हांव लागणीन (सहानुभूतीन) जाणट्यां कडेन पळोवपाक लागलों. असोच आनीक एक दीस आनीक एक विचार तकलेंत घोळपाक लागलो. म्हळें, आयज म्हजी भलायकी बरी आसूं. पुणून केन्ना पिडेन हांतुळणार पडन, सांगूंक येना. केन्नाय पडूं येता. कोणाकूय पिडेन हांतुळणार पडिल्लो पळोवन जायते जाण उबगतात. हांवें उबगप समा जावचें ना. म्हाका तें सोबचें ना. मनांत हो विचार येनाफुडें म्हजो आरोग्य-मद जिरलो. हांव पिडेस्तां कडेन आपलेपणान पळोवपाक लागलों. एक दीस आनीक एक विचार तकलेंत आयलो. म्हळें, आयज हांव जिवो आसां खरो. पुणून केन्नाय तरी मरपाचोच आसां. पिकिल्लें फळ देटांतलें सुटून गळून पडटा तशें मनशाचें जिवितूय गळून पडटा. मनीस मरता. मरणाचें भान दवरी नासतना नेणार लोक जियेतात तशें जियेवप म्हाका सोबना. हो विचार येनाफुडें म्हजो जिवीत-मद जिरलो.'

कूड जराधर्मी, व्याधीधर्मी तशी मरणधर्मी म्हणपाची जागरूक जाणवीक दवरुनूच मनीस जियेत जाल्यार ताची बुद्द थीर जावपाक कळाव लागचो ना. पिडेस्तांची सेवा करची, जाणट्यांक आधार दिवचो आनी मरणाचो

उगडास धरून जियेवंचें - मनशाची बुद्द थीर जायत रावतली. पयलींच वैज वखदां वांगडा एक पिवण दिताले. ताका 'अनुपान' म्हणटाले. जरा-व्याधी-मरणाचें अनुपान घेवन मनशान जियेवचें. म्हणटकूच ताचें मन प्रसन्न उरतलें. आनी प्रसन्न मनूच बुद्द थीर करतलें. बुद्द थीर दवरप म्हत्वाचें.

जिवितांत सुखांय येतात. दुःखांय येतात. जैतांय मेळटात, अपेसांय मेळटात. सुखान वा जैतान भुरकुटून वचचों ना आनी दुःखान वा अपेसान पिंर्जळचों ना अशें थारावन मनशान जियेत रावचें. ओड, तिडक, भंय सगळ्या पेल्यान वतलों अशें थारावन जियेवंचें. कांसव जशीं आपणालीं आंगां सगळे वसल्यान भितर ओडून घेता, तशीं मनशान विशयां कडसून आपणालीं इन्द्रियां फाटीं ओडून घेवचीं. तेन्नाच बुद्द थीर उरता. इन्द्रियां मस्तीं. व्हडल्या व्हडल्यांचीं मनां तीं बळयां ओडून व्हरतात, हें मतींत धरून तीं आपणा सुवादीन दवरपाचो यत्न करचो.

गीतेच्या दुसऱ्या अध्यायांत - निमाण्या एकुणीस श्लोकांत स्थितप्रज्ञाचीं लक्षणां सांगल्यांत. स्थितप्रज्ञ म्हळ्यार थीर बुद्दीचो मनीस. गांधीन आपणाले प्रार्थनेंत हे एकुणीस श्लोक आसपावन घेतिल्ले. सामान्यतायेन लोक 'देवा, हें दी, तें दी' म्हूण प्रार्थना करतात. प्रार्थना म्हळ्यार मागप. गांधींची प्रार्थना वेगळे तरेची आशिल्ली. आपणाल्या आदर्शांचो आपणाक उगडास करून दिवपाक ते प्रार्थना करताले. देव मानात, वा मानूं नाकात. गांधींची ही प्रार्थना करात. बुद्द थीर दवरपाक ती उपकारा पडटली.

रिटायर जातकूच आपूण कितें करतलों हाचोय विचार मनशान पयलींच करूंक जाय. इतलेंच न्हय तर जें करतलो म्हणटा ताची सिर्विसेंत आसतनाच संवंय लावन घेवंक जाय. आपूण केन्ना रिटायर जातलों हाचो मनशाक अदमास आसता. तरी आसतना रिटायर जायसर तो हो विचार करिना.

म्हजो एकलो इश्ट रिटायर जावपाक आयिल्लो. रिटायर जातकूच आपूण आपणाल्या गांवांत वतलों, शेतकाम करतलों, भाजी-पालो काडटलों, आनी उरिल्ल्या वेळांत वाचतलों आनी बरयतलों म्हणटालो. मुदलांतलो साहित्य-रसीक. म्हूण तो हें सगळें करतलो अशें दिशिल्लें. पुणून कांयच

करूंक पावलो ना. पयलीं ऍक्स्टेंशन मागलें. स म्हयन्यांचें मेळ्ळें. मागीर घरा वचचेंच पडलें. जंय तरणाट्यांक सिर्विसी मेळनात थंय जाणट्यांक कोण सिर्विसेक दवरतलो? घरा येतकूच कांय दिसांनी गांवांत गेलो. जमनीची कमाइसकी बी केली. पुणून म्हयन्या दोन म्हयन्यां उपरांत आशिल्लो तसो पणजे रावंक आयलो. 'वळखीचो कोणूच उरूंक ना रे गांवांत... सगळे गांव सोडून गेल्यात... कोणाय कडेन उलोवपाक वचून बसतलों म्हळ्यार कोणूच ना.' अशें म्हणून परतलो. थोडीं-भोव पुस्तकां वाचलीं. उपरांत तिंवूय सुटलीं. लक्षूच लागना जालें. बरोवपाक सुरवात केल्ली. इब्सनचें एक नाटक रुपांतरीत करपाक घेतिल्लें. पांच सात पानां केले उपरांत वाज आयलो आनी सोडून दिलें. पुराय इब्सन ताका रुपांतरीत करून कोंकणींत हाडपाचो आशिल्लो. सिर्विसेंत आसतनाच वाचपा बरोवपाची संवंय लावन घेतिल्ली जाल्यार रिटायर जातकूच 'पूर्ण वेळ लेखक' म्हूण मुखार येत आशिल्लो. पुणून संवंयूच लावन घेवंक नाशिल्ली. मागीर, कितें करचें, ताका समजना जालें. उदेता तो दीस खावपाक येता-सो दिसपाक लागलो. ताका जीव जड जालो. उमेद गेली. करतां करतां घुमो जालो. डिप्रेशन आयलें आनी -

तीन चार वर्सां भितर भायर पडलो.

मनीस जे मेरेन काम करता ते मेरेन तो उरता. काम नासतकूच जिवीत रितें जाता. आनी एक दीस तो संवसार सोडून वता. सैमाचो एक नेम आसा - मनशाचो जे मेरेन उपेग आसता ते मेरेन सैम ताका दवरता. उपेग सोंपलो म्हणटकूच मरणाक धाडून ताका तें घेवन वता.

'अकाली निधन' नांवाचें मरण सैमांत ना. मरूंक जाय त्याच वेळार सगळे मरतात.

जाग : मार्च 1996



# 22

# मरणा परस व्हड आमी

दनपारची म्हाका अर्द वर तरी न्हीद जायच. न्हिदून उठ्ठकूच नवो ताल्ल जावन उठ्ठां आनी सकाळच्या आदेसाक करतां तितलेच उमेदीन दनपारच्या आदेसाक काम करपाक लागतां. एक नवो दीस मेळिल्ले वरी दिसता.

काल आयतार आशिल्लो. कोण कोण येत रावले. दनपरां न्हिदूंक पावलों ना. तिनसांज जातासर पुरो जालें आनी णवांकूच न्हिदलों. परिणाम - आयज सकाळीं साडेचारांक जाग आयली. तोंड धुलें. वाचूंक बसचें अशें दिशिल्लें. पुणून, म्हळें, दिवो पेटोवचो पडटलो. आनी कुडींत न्हिदिल्ल्या दुसऱ्यांची न्हीद खळटली. म्हूण कुडींतलो भायर आयलों आनी राजांगणांत वॉल्तेर घालून बसलों.

म्हळें, दीस उदेता तो पळेतलों.

सगळो वाटार किण्ण पडिल्लो. दोगी तिगी किडी किरकिरून किण्णसाणेक खोलाय हाडटाल्यो. ही खोलाय अंतस्कर्णांत भरून घेवपाचो यत्न करपाक लागलों. नदर वयर गेली. पुनर्वसुचें व्हडें दिश्टी पडलें. प्रकृती आनी पुरूस, ब्रह्म-हृदय आनी प्रभास, आश्लेषा आनी एकाकी, कितलिंशीं वळखीचीं नखेत्रां दिश्टी पडलीं. पळेतां पळेतां केन्ना दोळो लागलो, कळ्ळेंच ना. जाग आयली तेन्ना दीस मातसो वयर सरिल्लो. वासरेंतले घडयाळीचो टीक् टीक्, टीक् टीक् आवाज कानार पडलो. कितें म्हूण कोण जाणा, ह्या आवाजाचेरूच चित्त केन्द्रीत जालें. म्हणटासर, हो टीक् टीक्, टीक् टीक् आवाज म्हजेच दिकेन चलत येतासो दिसलो.

सट्ट जालें. हो आवाज म्हळें, म्हज्या मरणाच्या पावलांचो, घडयाळीचो न्हय. म्हजें मरण टीक् टीक्, टीक् टीक् करून एक एक पावल मुखार घालीत म्हजे भेटेक येता!

कच्च जालें. म्हळें, येदे बेगीन येतलें तें? च्ये, कितलिंशीं कामां अर्दकुटीं पडल्यांत. तीं बेगीन पुरीं केल्लीं बरीं. ना जाल्यार तीं अर्दकुटींच उरतलीं.

उठलों आनी भितर येवन कामाक लागलों.

चार चवगां सारकोच एक मनीस हांव. एक दीस मरतलों म्हूण जाणां. मरण केन्ना कोणाक चुकोवंक येवंक ना म्हुण्णूय जाणां. जल्माक आयिल्ले सगळेच मरतात म्हूण जाणां. व्हडले व्हडले मेल्यात हेंवूय जाणां. पुणून जियेतां तो मात केन्नाच मरचों ना, अशें धरून. मरपाचें तें दुसऱ्यांनी, हांवें फकत तांकां पावपाक स्मशानांत वचपाचें, अशें मानून. मरण म्हज्या पावलार पावल घालून सांगातान चलत येता हाचें भान म्हाका ना. हे उतार पिरायेर लेगीत.

कितलेशे सांगाती गेले. कांय जाण तर ऐन उमेदीचे पिरायेर उब्या उब्यांनीच गेल्यात. मरणाच्या सांगातांतूच जियेत आयलां. तरी आसतना म्हाका मरण येतलें म्हणपाची जाणवीक म्हाका जायना. तत्त्वान मरणाचें सत्य पटप वेगळें आनी, मरण दार खटखटावपाक लागता तेन्ना खोलायेन 'दिसता' तें वेगळें.

रैहाना तैयबजी नांवाची एकली साध्वी म्हज्या जिवितांत येवन गेल्या. तिणें एक दीस म्हाका सांगिल्लें, 'भावा रे, तें येतलें हांतूंत दुबावूच ना. ताची वाट पळेत बसूं नाका. तें आयलां, येवन तुजे मुखार उबें रावलां, आयजूच तुका तें घेवन वचपाचें आसा हें घट मतींत धर आनी आयुष्याचो सगळो हिशोब आयजूच पुरो कर. जें फाल्यां करपाक दवरलां तेंवूय आयजूच करून उडय. जें आयज करपाचें येवजिलां तें आतांच कर. Only then you shall learn to live, rather than simply pass through it. मरणाचो जागरूक उगडास दवरून जियेले बगर जिविताक खोलाय येना. जिवितांत मोल आसा तें खोलायेक, पिरायेक न्हय...'

रैहानाबेनीचो आवाज कानांत घुंवघुंवपाक लागलो.

बशिल्लों काम करपाक. पुणून मरणा संबंदानूच येवजीत रावलों. ञ्च्यां मुखावयलें तें हालच नाशिल्लें. अवचीत मनांत आयलें, 'मरपाचों ना य तर हांव? आसां. मागीर, आयजूच कित्याक मरून घेवचें न्हय? ायजूच, ह्याच खिणाक मरून घेतिल्लें बरें. मरण येवन म्हजे कडलें कितें ान वतलें? म्हजे हुसकेच मू? हांवें ते आयजूच आपखोशयेन सोडून ल्ले बरे. म्हजे वांगडा कांय ते येवपाचे नात. म्हजे फाटल्यानूय उरपाचे त. हांव ना जातलों त्याच खिणाक तेवूय ना जातले. मागीर, हांवें ते तांच सोडून कित्याक दिवचें न्हय?'

खिणा दोन खिणां पुरतोच हो विचार तकलेंत घोळ्ळो, आनी तकले यलें वजें सर्रर करून देंविल्ले वरी दिसलें. जीव ल्हव, सामको ल्हव ालो. आनी हांव एके तरेच्या विमुक्ती-सुखाच्या आनंदांत पेंवपाक लागलों.

फाटल्या कांय वर्सां सावन कितल्योश्यो गजाली हांवें आपखोशयेन ोडून दिल्यात. कितल्याश्या वावरांतल्यान आंग आनी मन काडून घेतलां. केतल्योश्यो दायक्यो फाफडून उडयल्यात. कित्यांतूच लक्ष घालिना. केतेंच लावन घेना. एका अर्थान सगळ्या बांदपासांतल्यान मेकळो जालां. यास असो कसलोच घेवन बसूंक ना. तरणेपणांत पावल दवरलां त्या ळ्ळार जे ध्यास घेवन बशिल्लों ते सगळे शार्ती पावल्यात. कोणाकूय ागून पावूं, शार्ती पावोवपाक म्हजेंय हातबोट लागलां... आतां कितेंच केलेंना जाल्यार कोण शिणपाचो ना, कोणाचें कसलेंच लुकसान जावपाचें ना. कितेंच इबाडपाचें ना. मरण आयज, ह्या खिणाक, आयलें जाल्यार ताका म्हजे कडलें झोंबून घेवपा सारकें कितेंच मेळपाचें ना. एक कूड आसा. तीय कावलाक आयल्या. व्हरूं दी ताका व्हरतलें जाल्यार ती. तिचो मोह ना म्हाका.

मरणाचेर खीण भर जैत जोडिल्ले वरी दिसपाक लागलें.

कांय जाण म्हणटात, मनशान असलो कसलोय एक वावर हातांत घेवचो की जो ताच्यान एकल्याच्यान केन्ना करूंक जावपाचो ना. तसो, ताच्या एकल्याच्या आयुष्यांत केन्ना पुरो जावपाचो ना. आनी तो जीव ओतून

करचो. म्हणटकूच, मरण येवन ताका घेवन गेलें जाल्यारूय ताचे निर्मणेक तें कशेंच हात लावंक पावपाचें ना. मरणाचो शेक फकत सैमाच्या संवसारांत चलता. मनशाचे निर्मणेच्या संवसारांत तो चलना. सैमाच्या संवसारांतली मनशाची कूड .मरण घेवन वता, ताचे निर्मणेक तें हात लावपाचो धीर करिना. मनीस नाका उरूं. पुणून तो जें करता तें उरता. ना जायना.

मनशाची निर्मणी केन्ना ताका उगडासाच्या रुपान दवरता, केन्ना प्रेरणेच्या रुपान दवरता. व्हडले व्हडले चित्रकार आनी शिल्पकार संवसारांत आयिल्ले. व्हडले व्हडले गीतकार आयिल्ले, साहित्यकार आयिल्ले. मरण सगळ्यांक घेवन गेलें. तांगेल्या चित्रांक, शिल्पांक, गितांक, बरपांक तें हात लावंक पावूंक ना. बुद्ध, सोक्रतीश, येशू, मार्क्स, गांधी हांकांय तें घेवन गेलें. तांच्यो प्रेरणा तें ना करूंक पावूंक ना. मरणाचेर ह्या सगळ्यांनी जैत जोडलां. हांचे मुखार ताचें शाणेपण चलूंक ना.

अवचीत जिबेर रवीन्द्रनाथांचें एक कडवें घोळपाक लागलें,

*जत बडो होओ तुमि, मृत्यूर चेये तो बडो नोओ.*
*आमि मृत्यूर चेये बडो एइ शेष कथा बले.*
*जाबो आमि चले...*

- केदेय व्हड जाशात गा तुमी. मरणा परस व्हड जावपाचे नात मू? आमी (साहित्यकार) मरणा परस व्हड, इतलेंच एक सांगून हांगासल्ल्यान हांव वचपाचों आसां!

जाग : नव्हेंबर 1995



## 23

# मॅडिकल एथिक्स

बाथरुमांतल्यान भायर सरनाफुडें हुंबऱ्यारूच बिसेनजी कोंसळून पडले. ताळ्यांतलो गुर्रर गुर्रर हो एक आवाज सोडीत जाल्यार ते आसात म्हूण दाखोवपी कितेंच तांच्यांत उरूंक नाशिल्लें. तांकां सेरेब्रल हॅमोरेज जाल्ली. 'हांका रोखडच्या रोखडे हॉस्पिटलांत व्हेल्ले बरे', दोतोरान म्हळें.

'व्हेले म्हूण बरे जावपाची आस्त आसा व्हय तर?' हांवें विचारलें. 'निमाणे मेरेन उपाय करूंक जाय अशें आमच्या मॅडिकल एथिक्सांत म्हळां.' म्हाका जाप मेळ्ळी. हॉस्पिटलांत ते तीन दीस उरले. तांचें प्रेत भायर व्हरता आसतनाच कोणें एकल्यान पुटपुटून म्हळें, 'बरे गेले... ना जाल्यार स स, सात सात म्हयने ते अशेच उरूं येताले.'

दोतोरांची 'मॅडिकल एथिक्स' कोणाक सुसेगाद मरूंक दिना. उपाय करून कांय उपेग जावपाचो ना म्हणपाचें बेस बरें खबर आसून लेगीत दोतोर निमाणे मेरेन उपाय करीत रावतात.

महाकाश्यप खूब बरो ना म्हणपाचें कळनाफुडें बुद्ध ताचे खबरेक गेलो. 'कशें दिसता जिवाक?' बुद्धान विचारलें.

'आपणाल्या व्याधी-धर्माक धरून कूड काम करता... पिडा जातात त्यो मात सोंसनात, भगवंता', काश्यपान जाप दिली. बुद्धान त्या वेळार ताका जो उपदेस केला तो 'सात बोध्यंगां' ह्या नांवांन **मज्झिमनिकायां**त आयला. 'चित्त जागरूक दवरून सगळीं कामां करचीं; बऱ्याक कितें पडटलें, कितें पडचें ना हें सारकें समजून घेवन बऱ्याक पडटलें तेंच करचें; सगळीं कामां

उर्बेन आनी खोशयेन करचीं; तकली शान्त दवरची; समाधानांत रावचें;
लागना तें लावन घेवचों ना, अशें थारावन चलचें, म्हणटकूच पिडे
पडिल्लो मनीस पिडेंतल्यान मेकळो जातलो', हो सार ह्या उपदेसाच
सूत्रांत निमाणें म्हळां, काश्यप ह्या सात बोध्यंगांक पाळो दिवन चल
आनी थोड्याच दिसां भितर 'आळवा पाना वयलो दंवाचो थेंबो आपसू
गळून पडचो तशी ताची पिडाय गळून पडली.' तो बरो जालो. बुद्धाच
महापरिनिर्वाणा उपरांत ताच्या उपदेसाक थीर रूप दिवचें म्हूण पय
'संगिती' राजगृहांत भरिल्ली ती ताणेंच आपयल्ली. तिचें अध्यक्षपद
ताणेंच चलयल्लें. इतलो तो बरो जाल्लो.

सात बोध्यंगांचो हो उपदेस एका धर्मपुरसाचो. तो आयकुपीय ए
भावार्ती बौद्ध आशिल्लो. पुणून आमच्या ह्या देसांत चरक नांवाचो ए
वैज जावन गेला. ताणें **चरक संहिता** म्हूण आपणाली एक 'मॅटॅरि
मॅडिका' बरयल्या. खंयचे पिडेक खंयचें वखद दिवचें आनी पिडेंत पडिल्ल्या
खंयचे पिडेक खंयचें पथ करूंक लावचें, हें सांगपी वैजकी ग्रंथ तो. तांतुं
म्हळां, 'सगळे उपाय करून मनीस बरो जावपाची आस्त उरना तेन्ना वैजा
ताका मेकळेपणान सांगचें : बाबा रे, आमच्यांनी जाता तें आमी करू
पळेलें. आतां आमी तुका ईश्वरा सुवादीन करतात... तूं ताचें नांव घे. ब
जावपाचें नशिबांत आसलें जाल्यार बरो जातलो. नासलें जाल्यार शा
चित्तान प्राण सोडूंक पावतलो.'

हीच मॅडिकल एथिक्स हालिंच्याय दोतोरांनी चलोवंक जाय आशिल्लें

म्हज्या बापायचे पिळगेंतल्या दोतोरां कडेन पेशन्ट येताले ते निर्मोळ
मोडशी, दंत असल्यो कित्याय कितें खावन पियेवन जाल्ल्यो चार
तरांच्यो पिडा जाल्ले, वा, मलेरिया, फ्लू, टायफॉयड सारके जोर आयिल
पेशन्ट आसताले. अनिमिया, टी.बी. जाल्लेय कांय जाण पावताले. ह
चडश्यो पिडा सैमूच बऱ्यो करतालें आनी सैमाक आधार दिवपीच वखद
दोतोर ते मुस्तींत दिताले. हालिंसाराक दोतोरां कडेन येतात त्या पेशंटां
उद्देगीक 'विकासा'न बक्षीस म्हूण दिल्ल्योय पिडा जाल्ल्यो आसता
आनी ह्यो इतल्यो किचकनडीच्यो आनी गडखळ आसतात की सैमा

बावड्याक त्यो बऱ्यो करूंक येनात. दोतोरांक पेशन्टाचेर तरातरांच्या वखदांचो मारो करचो पडटा. आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार, खासा दोतोरांक ह्या वखदां भितर कितें आसता तें सारकें खबर नासता. बरें, वखदां तरी पातयेवपा सारकीं व्हय? कांय वर्सां पयलीं पेनिसिलीन आयलें आनी रामबाण वखद जाल्ले वरी दोतोर ताचीं इंजेक्शनां पेशंटांक दिवपाक लागले, तेन्ना बाजारांत बनावटी पेनिसिलीन मेळपाक लागलें. कांय वेळार दोतोरांक इंग्लंडांतल्यान पेनिसिलीन मागोवचें पडटालें. कित्याक, बाजारांत मेळटा त्या पेनिसिलीनाचो भरवंसो तांकां नासतालो. सगळ्याच मळांचेर उरफाट्या काळजाचे लोक वावरूंक लागल्यात. वखदां तयार करपी लोकां मजगतींय ते आसात आनी खेदाची गजाल म्हळ्यार, दोतोरां मजगतींय असले लोक आसात. **चरक संहितें**त म्हळां, दोतोर असो आसूंक जाय की ताचेर नदर पडनाफुडें पेशन्ट अर्दो बरो जावंक जाय. ताणें नाडी पळोवपाक हात हातांत घेनाफुडें उरिल्ल्या अर्दांतलो अर्दो बरो जावंक जाय, आनी, तो उण्यांत उणीं वखदां दिवपीय आसूंक जाय. ताणें पेशन्टाक 'हवा उदक भूंय विखाळ जावंक ना असलेच सुवातेर वचून राव, वारो वत भरपूर प्रमाणांत घोळटा असल्याच घरांत राव, सकाळ सांज पासय मार, जमता जाल्यार कुदळ घेवन पोरसांत सद्दां वरभर तरी काम कर, सादें भाजीपाल्याचें शिवराक जेवण जेव, बेगीन न्हीद, बेगीन ऊठ आनी चित्त शुद्ध दवरपा खातीर सकाळ सांज नेमान प्रार्थना कर,' अशें सांगूंक जाय, आनी प्रार्थना कशी करची तीय पेशंटांक शिकोवंक जाय.

घटप्रभेक हांवें असलो एक वैज पळेल्लो. दोतोर माधव वैद्य. ताचें 'आरोग्य धामू'य पळेल्लें. प्रसन्न व्यक्तिमत्वाचो दोतोर. पेशन्टाचेर ताची नदर पडनाफुडें पेशन्टाक आपूण बरो जालों अशें दिसतालें. 'आरोग्य धामां'त आर्विल्ले पद्धतीचे सगळे उपचार जाताले, ऑपरेशनांय जातालीं. पुणून तें हॉस्पिटल नाशिल्लें. 'आरोग्य धाम' आशिल्लें. हवाय सुंदर. बरो जावपाक हवाच पुरो जाताली. तांतूंत दो. माधव वैद्याचे 'सेवे'ची भर पडटाली.

असलीं आरोग्य धामां आमच्यांनी आमच्या इकराय तालुक्यां भितर

चलोवं येतालीं. पुणून -

'विकासा'चे भिकेचे दुवाळे लागिल्ल्या नवश्रीमंत राजकर्ण्यांनी गोंय ज धर्तरे वयलो सर्ग आशिल्लो ताका धर्तरे वयलो नर्क करून उडयलो!

म्हजें एक मत्त जालां -

सत्तर वर्सां वयर पिराय जाल्ल्या मनशान निमाणो स्वास सोडपाक हॉस्पिटलांत वचूंक जायना. ताणें घरच्यांक सांगून दवरूंक जाय, म्हर आयुश्य सोंपपा कडेन पावलां. आतां गेलों म्हूण कोणाचेंच लुस्कान जावपाच ना. म्हाका निमाणे घटकेक हॉस्पिटलांत व्हरूं नाकात. दोतोर कितें सांगूं, निमाणो स्वास म्हाका घरांतूच घेवंक दियात. इंटेंसिव्ह कॅर, बायपास ऑक्सिजन, सोर, ब्लड ट्रान्स्फ्यूजन, डायलिसीस, कितेंच म्हाका नाका हे उपाय उतार पिरायेचो अपमान करतात. सभ्य मनशाक ते सोबनात हाल हाल करून म्हाका मारूं नाकात. शान्तपणान वचपाक आधार दियात. म्हाका सुद्द उरली जाल्यार, तुजें आतां सोंपपा कडेन पावलां अशे स्पस्ट सांगात. आनी निमाण्या खिणाक देवाचें नांव घेवपाक म्हाका मेकळे सोडात. उपचार करून कितलो तेंप जिवो दवरतले तुमी म्हाका? चार स म्हयने वा दोन चार वर्सांच मू? पामर जिजीविषे परस शान्तपणान मरपाचोच हावेस मनशान हे पिरायेर बाळगूंक जाय आनी, घरच्यांनी (आनी दोतोरांनी) ताचो हो हावेस पूर्ण करपाक ताका आधार दिवंक जाय.

जाग : जून 2001





# 24

# दोतोरकी - एक मिशन

म्हज्या एका इश्टाची धूव लग्नाची जाल्या. बापूय तिचे खातीर थळ सोदता. पयर मुजरत आयिल्लो. एक नांव घेवन म्हणपाक लागलो, 'हो मनीस तुगेलो सोयरो. तागेलो पूत अंदू दोतोर जाता. आमगेल्या xxx चें ताचे कडेन जुळोवं येत व्हय तुका? बापायक विचारून पळेशीत?...'

हांवें म्हळें, 'ब ऽ रे भशेन विचारीन. पुणून, ताका विचारचे पयलीं तुगेले धुवेक हें थळ पसंत आसा काय ना हें विचारून पळोवं नाका आशिल्लें?'

'तूंच विचारून पळे', ताणें म्हळें.

हांव दुसऱ्या दिसा तांगेर गेलों. हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो खबरी करून जातकूच हांवें तिका विचारलें, 'हो भुरगो तुका पसंत आसा?' ती फटक् करून उसळ्ळी. म्हणपाक लागली, 'दोतोर? म्हाका नाका. हांव जायत्या दोतोरांक वळखतां. अन्राड्यांतले अन्राडी. कितेंच वाचिनात. निश्ठुरांतले निश्ठूर लोक हे. पेशन्टाक बरो कसो करचो हाचे परस ताका कसो लुटचो हाचोच चड विचार करपी. दोतोरांच्या गळ्यांत तुमी स्थेथोस्कोप घालतात. म्हजें चलिल्लें जाल्यार हांव तांच्या हातांत (तांच्या धंद्याचें प्रतीक म्हूण) एक खोरें दितलें आशिल्लें आनी 'ओडात जाय तितलो दुडू' म्हूण सांगतलें आशिल्लें...'

अवचीत् तिच्या तोंडांतल्यान एक रुशीवचन भायर सरलें, 'दोतोरकी हें पयशे जोडपाचें साधन जावंक दिवंक जायना. पोटा खातीर दोतोरांनी दुसरो खंयचोय धंदो करचो. दोतोरकेचो उपेग फकत सेवे खातिरूच करूंक जाय...'

हें आयकनाफुडें तकली खंयचे खंय गेली -

वीस पंचवीस वर्सांचे पिरायेर प्रिन्स क्रोपाटकिनचें A word to young men नांवाचें एक ल्हाणकुलें पुस्तक वाचिल्लें. रशियेंतलो हो एक विचारवंत एक क्रान्तिकारी. आपणाक लागिल्लें पिशें दुसऱ्यांक लायत भोंवतालो कितलेशे तरणाटे ताच्या प्रभावांत येवन 'पिशे' जाल्ले. तागेल्या क्रान्तिकार दलाक येवन मेळिल्ले. जांचें शिकप सोंपलां आनी संवसारीक जिवितां पावल दवरपाचे पिरायेचे जे जाल्यात तांचेर ताची नदर आसताली. तांक तो सांगतालो, तुमचे मुखार आतां कितें करचें, हो प्रस्न उबो रावल आसतलो. हय मू? तर आयकात, हांव सांगतां, कितें करचें तें. धरून चलुंया, तुमच्यांतलो एकलो दोतोर जाला. ताणें दवाखानो घाला. एकले गरीब ताका आपणागेर घेवन वता. तागेली बायल बरी ना. अशे एके अशी पाळणींतल्यान घेंवन वता, जंय दोगांक सांगातान चलूंक येना. एकल्य फाटल्यान दुसऱ्याक चलचें पडटा. असले पाळणींतल्यान तो दोतोराक एके चाळींत घेवन वता. एके काळखे कुडींत व्हरता. थंय एके हांतरे एकली बायल जोरान फणफणटा ती दिश्टी पडटा. कुडींत कांय हाडकुर्ट पोरां आसात. तीं दोतोराक भियेवन कुशीक रावल्यांत. तिगेलीं भुरगीं हीं घोव खंयच्या तरी एका कारखान्यांत काम करतालो. तीन म्हयने जाले, तो बेकार आसा. वर्सांतल्यान अशें दोन तीन खेपे जाता. तो कामार वता तेन्न मरसर काम करता. मदींच एक दीस ताका कामा वयलो काडून उडयतात पुणून, तो बेकार आसता तेन्ना तागेली बायल खंय खंय कोणागेर वचून काम करता आनी थोडें भोव जोडून हाडटा. म्हूण तांगेलो संवसार आत मेरेन चलत आयला. तूर्ताक तीय हांतुळणार पडल्या...

दोतोर ही दुर्दशा पळेता. कित्याक लागून हें कुटूंब हे दुर्दशेक पावल हें एका खिणांत ताच्या लक्षांत येता. बायल हांतुळणार पडल्या. कित्याक तिच्या पोटांत अन्न सारकें पावूंक ना. 'पुस्टीक' अन्न तर नाच ना. सादे 'भूक मारपी'य पडूंक ना. ती रावता त्या घरांत वोत वारो घोळना. दोतोर आतां तिका कसलो उपाय सुचयतलो? सद्दां शेरभर दूद पिये, भायर उकत्या मळार सद्दां भोंवंक वच, हें घर सोडून बऱ्या, निवळ घरांत वचून

राव म्हूण सांगतलो? खरेपणानशीं हिचे पिडेक होच एक उपाय. पुणून तिका तो पुटवपाचो ना. दोतोर मातसो दोळे उकते करून पळेत जाल्यार हे चाळींत ताका असलेच दुसरे खूबशे जाण पळोवंक मेळटले. शेजरा एकली बायल-मनीस ह्याच कारणाक लागून खांक खांक खांकता. ताचे पेले कडले कुडींत एकली मडवळण रावता. ती ह्याच कारणाक लागून जोरान फणफणटा. सगळ्यांक एकूच उपाय आसा - रावपाची सुवात बदलप. ही चाळ सोडून वोत वारो घोळटा असले दुसरे चाळींत वचून रावप. उकत्या मळार भोंवप. संतुलीत (म्हळ्यार, वितामिनां, कार्बोहायड्रेट्स, फॅट्स, मिनरल्स हांचें सारकें प्रमाण आशिल्लें) जेवण-खाण घेवप. दूद पियेवप, तांतयां, नुस्तें भरपूर खावप. पुणून, हो उपाय सुचोवपाचो धीर दोतोराक जायना. कित्याक, हें सगळें करपाक जे परिस्थितींत लोक आसूंक जाय ते परिस्थितींत ते नात म्हणपाचें तो जाणा. तो मागीर, 'पाड पडूं ह्या संवसाराचें' अशें म्हणटा आनी ते बायल-मनशेक दोन चार तरांच्यो गुळयो दिवन आनी एक इंजेसांव मारून दवाखान्यांत परतता.

दवाखान्यांत पावतकूच तो ह्या नरकांत रावतल्या लोकांचें कितें करचें हाचेर येवजिता आसतनाच तागेलो एकलो इश्ट थंय येता. तोय दोतोर. ताचोय एक दवाखानो चलता. तो म्हणटा, आयज आपणाक एका उद्योगपतीन आपणाली गाडी धाडून आपणाल्या बंगल्यार व्हेल्लो. तागेली घरकान्न बरी नाशिल्ली. कितलेशे दीस जाले, तिका न्हीद पडना. खाल्लें पचना. पुराय आयुष्य तिणें तरातरांचे शृंगार करून घोवा वांगडा ह्या त्या पार्ट्यांनी हा हा, ही ही करीत खर्चिलां. आपणें तिका सांगलें - 'त्यो पार्ट्यो-बिर्ट्यो आतां सोडून दी. उकडिल्ली भाजी भरपूर खा. सादें जेवण जेव. शारा भायर, उकत्या मळार सकाळ सांज अर्द अर्द वर पांयांनी चलून, पासय मार, तकली थंड दवर...'

आतां पळेयात -

तेवटेन ती बायल जेवंक खावंक सारकें मेळना म्हूण हांतुळणार पडल्या. आनी हेवटेन ही घे म्हूण खावंक जेवंक आसतना, दुयेंत जाल्या. एके वटेन भूक आसा, अन्न ना. दुसरे वटेन अन्न आसा, भूक ना.

हे दोन देखाव पळोवन तुमकां कितें जातलें?

कांय लोक मनान दुबळे आसतात. असले देखाव पळोवन पळोवन 'संवसार हो असोच चलपाचो' अशें थारावन ते मेकळे जातात. असले देखाव पळोवपाची तांकां मागीर संवंय जाता आनी एक दीस तांचें काळीज भेरेता. तेवूय मागीर ल्हवू ल्हवू 'सुखी' लोकां मजगतीं रावपाक आंवडेतात. सुखी जावपा खातीर खोऱ्यांनी दुडू ओड ओड ओडूंक लागतात. पुणून तुमी खरेपणानशीं 'मनीस' आसशात जाल्यार तुमी तुमचें मन भेरेवंक दिवचे नात. तुमच्यांतलें मनिसपण मरूंक दिवचे नात. 'ना, हो अन्याय. तो चलूंक दिवंक जायना. जे परिस्थितींतल्यान हीं दोन 'जगां' जल्माक आयल्यांत ती परिस्थितीच मुळा थावन बदलूंक जाय' अशें म्हणून तुमी उसळ्ळे बगर रावचे नात. सगळ्यांक जेवण-खाण मेळूंक जाय, सगळ्यांक न्हेसूंक पांगरूंक मेळूंक जाय, सगळ्यांक रावपा खातीर हवेशीर घरां मेळूंक जाय. सगळ्यांक शिक्षण मेळूंक जाय. संवसारांतलें सगळें दळदीर, सगळें अज्ञान ना जावंक जाय, अशें ज्या दिसा तुमकां मना पसून दिसपाक लागतलें त्या दिसा तुमी खिणाचोय कळाव लायनासतना आमच्या क्रान्तिकारी दलाक येवन मेळटले आनी संवसार बदलपाच्या कामाक पोटतिडकेन लागतले...

- चाळीस पंचेचाळीस वर्सां पयलीं वाचिल्लें हें सगळें आयज म्हज्या उतरांनी म्हाका येवजलें आनी हांवें मनांत म्हळें, ज्या दिसा समाज मुळा सावन बदलूंक जाय अशें दोतोरांक दिसतलें त्या दिसा सावन ते दोतोरकेचो उपेग पयशे जोडपाचें साधन म्हूण करचे नात. सेवेचें एक साधन म्हूण करतले.

हांवें म्हज्या इश्टाचे धुवे कडेन तोखणायेन पळेलें आनी तिका म्हळें, 'तुका विचारून हांवें बरें केलें. हो चलो पयशे जोडपा खातिरूच दोतोर जाला. एक 'मनी-मेकींग मशीन' ह्या रुपांतूच तो जियेवपाचो आसा. ताचोय बावड्याचो अन्याय ना. आयचें जग कित्याचोय उपेग पयशे जोडपा खातिरूच करता. तरी आसतना, खंय खंय जग बदलूंक भायर सरिल्ले 'पिशे' लोक दिश्टी पडटात. हांवें पळेल्यात. तसलो कोणूय दिश्टी पडलो जाल्यार तुका विचारूंक येवं मू?'

ती मुमुरख्यांनी हांसली आनी म्हणपाक लागली, 'हांवूच सोदून काडटां. तुमी बेश्टी तकालस कित्याक घेतात?'

प्रिंस क्रोपाटकिनाचें पुस्तक म्हजे कडेन आशिल्लें. ताणें दोतोरां भायर विज्ञानिकांक, आदोगादांक, इजनेरांक, मास्तरांक, कलाकारांक, लेखकांक, असलेंच कितें कितें सांगलां. सोदून काडचें पडलें, पर्थून एक फावट वाचून काडपाक.

जाग म्हयनाळें



# 25

# अवनती कडेन व्हरपी एक व्यसन

लोक सोरो कित्याक पियेतात? गरीब पियेता, तो नागवला म्हूण. दुसऱ्यां खातीर तो अन्न पिकयता, आपूण अर्द-पोटार उरता; दुसऱ्यां खातीर लुगटां विणून दिता, आपूण बोंदरां न्हेसता; दुसऱ्यां खातीर घरां बांदून दिता, आपूण खोंपींनी रावता, हाची ताका जाणवीक जाता आनी ती ताका खाता म्हूण. ताका दुःख भोगता, तो देवाक उलो मारता. तरूय देव ताका पावना. ताका उपाय येवजना.

आपणालें हें दुःख विसरायेर घालपा खातीर तो पियेता.

पुणून गरिबूच पियेता अशें न्हय. गिरेस्तूय पियेता. कांय कांय वेळार तर गिरेस्तूच चड पियेता. तो कित्या खातीर पियेता? तोवूय नागवला म्हूण. बरोऽ सुखांत जियेतलो म्हूण तो वेपार-उद्देग सुरू करता, रिणां काडटा, हप्ते भरता, हाका खोशी दवर, ताचीं बोल्सां भर, हाचे पांय धर, ताका पॉलीश कर असल्याच राटावळींनी ताचो दीस सोंपता. जें सूख मेळचें म्हूण तो आंवडेता तें ताका केन्ना मेळूंक पावना. तें कित्याक, बायल-भुरग्यां वांगडा खबरी करपाक, हांसपाक-खेळपाक ताका वेळूच मेळना. ताका सारकी न्हीद लेगीत पडना.

हें टॅन्शन देंवोवपा खातीर तो पियेता.

एकल्याक साठ भर जाल्लीं. तागेल्या दोग चल्यांनी आनी इश्टांनी ह्या निमित्त्यान एका हॉटेलांत एक 'पार्टी' दवरिल्ली. म्हाका आमंत्रण आशिल्लें म्हूण गेल्लों. चडशे सगळे नव-श्रीमंत आयिल्ले. म्हजे सारकेले दोग तीग

'शिवराकू'य आयिल्ले. आमचे खातीर 'सॉफ्ट ड्रिंकां' आयलीं. उरिल्ले 'व्हिस्की'चे ग्लास घेवन बसले. अर्द पावूण वर बसलों. मागीर ल्हवू कूस मारली. कांय दिसांनी एके सभेंत तो मेळ्ळो. 'कितें रे, त्या दिसा तूं नाच जालो. तुका सगळे कडेन सोदलो. मागीर कोणें तूं गेलो म्हूण सांगलें.'

म्हळें, 'अर्द पावूण वर हांवें त्या वातावरणांत भरसुपाचो यत्न केलो. पुणून यत्न करुनूय भरसप म्हाका जमलें ना... म्हजे म्हाकाच मागीर हांव अन्राडी कसो दिसपाक लागलों. म्हळें, न्यूनगंड कित्याक वाडय? म्हूण कूस मारली.'

'सांगून वचपाचें', ताणें शीण काडलो.

म्हळें, 'तूं वचूंक दिवचो नाशिल्लो म्हूण सांगूंक आयलों ना... पोरण्या युगांतलो मनीस हांव. नव्या युगा कडेन in tune जावप म्हाका आतां जमपाचें ना. खूब उशीर जाला.'

सोऱ्यान 'टॅन्शन' देंवता जातलें, तरतरी येता आसतली, जिवीत जियेवपा सारकें दिसता आसतलें, दुःख विसरायेर पडटा जातलें... पुणून हें सगळें मेंदवाचेर सोऱ्याचो शेक चलता ते मेरेन जाता वा दिसता. सोऱ्याचो शेक एक दोन वरां वा चार स वरांच चलता. उपरांत देंवता. मागीर हात पांय गळिल्ले वरी दिसपाक लागतात. आनी मनीस तरतरी हाडपा खातीर पर्थून एक फावट ग्लास हातांत घेता. हे भाशेन, भौन भौन पियेत रावलो म्हणटकूच मनशाक पियेवपाची संवंय जाता, सोऱ्या बगर चलना अशें जाता आनी इल्लें इल्लें करून मागीर ताका सोऱ्याचें व्यसन लागता.

सोऱ्याचें व्यसन लागिल्ल्या मनशाक सरसमान लोक 'बेब्दो' म्हणटात.

बेब्दो मनीस एका सारको बडबडत आसता. ताका थोडो भोव अध्यात्म कळटा आसत जाल्यार अध्यात्मूच चड बडबडटा. आपणाले हे spiritual talks चल्ल्यात म्हणटा. तरणाटो आसत आनी चारित्र्यान मातसो सदळ आसत जाल्यार जितलें पोजडें उलोवं येता तितलेंय उलयता. जें करूंक ना तें आपणें केलें म्हूण भासयता... ताका सुद्द उरना, सारकें चलूंक येना. केन्ना केन्ना रस्त्यार वा खळयेंत पडटा. लोक मागीर ताका घरा हाडून पावयतात. आनी ताका हाची खंतूय जायना, लजूय दिसना.

असल्या मनशाक सभ्य कसो म्हणचो, समजना. सभ्य मनशाक मान-मर्यादा आसूंक जाय, प्रतिश्ठा आसूंक जाय, 'डिग्निटी' आसूंक जाय. तीच मनीस होगडावन बसलो जाल्यार मागीर ताका पत कितें उरतली? आसूं मागीर ताचे कडेन कितलीय संपत, कितलीय सत्या, कितलीय प्रतिभा. सुमारा भायर बुद्धिमान आनी प्रतिभावान म्हजे कांय इश्ट सोन्याच्या एका व्यसनाक लागून देड दमडेचें लेगीत मोल नाशिल्ल्या धनवंतांचे खुशमस्करे, विदूषक (clowns) जावन पडिल्ले पळेल्यात. आनी हांव भितरले भितर फणफणून रडलां.

कांय वर्सां पयलीं एकल्या बेबद्या इश्टाचे धुवे खातीर हांवें एक थळ पळेल्लें. चली संस्कारी, शिकिल्ली, हुशार आनी दिसतालीय बरी. बापायक हांवें ह्या थळा संबंदान सांगलें. ताणें पयलीं म्हजे उपकार मानले. मागीर वासपूस करतकूच चलो बेब्दो म्हणपाचें ताका कळ्ळें. तो म्हजेर उसळ्ळो, 'चली बुडोवपाक भायर सरिल्लो काय कितें रे तूं?'

'अशें कित्याक म्हणटा तूं? लक्षाधिशाचो पूत. बँकेंत फुडल्या सात पिळग्यांक पावत इतलें नांवार आसा ताच्या. घरदार आसा, ते भायर अधिकाराच्या एका व्हड जाग्यार काम करता...'

'पुणून तो बेब्दो म्हूण नकळ आशिल्लो तूं?'

'तुका रे हाची कसली अडचण? तूं स्वता कोण, बेब्दो न्हय? बेब्दो जांवंय करपाक तुजो विरोध कित्याक आसचो?' हांवें फटकळपणान ताका विचारलें.

'तुका कळपाचें ना तें' अशें म्हणून ताणें म्हजे कडेन उलोवपाचें लेगीत सोडून दिलें. सात वर्सां जालीं हे खबरेक. चली अजून तश्शी उरल्या. 'बेब्द्याची धूव आमकां नाका' अशें म्हणून कोणूच तिका सून करून घेना!

बेब्दो बापूय, अन्याय बावडे धुवेचेर.

भुरगेपणांत एक देखाव पळेल्लो. आमचो एक शेजारी बेब्दो आशिल्लो. दिसूयभर तर्रर आसतालो. ताका एकूच पूत. आद्वोगाद जाल्लो. एक दीस रातचो घरा परतलो तेन्ना पुताची वासपूस केली. पूत अजून घरा येवंक नाशिल्लो. ताची वाट पळेत भायर बल्कांवार बसून रावलो. मध्यान रातचो पुताक लकत लकत येता तो पळोवन उसळ्ळो. 'तूं पियेवन आयला?...

तुजेच न्हय, तुजे उपरांतच्या सात पिळग्यांचो सोरो हांवें एकल्यानूच पियेवन उडयला... तुंवें पियेवपाची गरज ना.' अशें म्हणून तो पुताक मारूंक धांवलो.

बेब्द्याक समाजांत पत नासता ती नासता, बेब्द्यां मजगतींय नासता. खासा आपूण बेब्दो आसतना पूत बेब्दो जाल्लो बेब्द्याक नाका आसता, तसो बेब्दो जांवंयूय ताका नाका आसता. मागीर हे सभागी *'कम्बख्त तूने पी ही नहीं'* अशी खंयच्या तोंडान सोऱ्याची तुस्त गायतात, समजना. बेब्दे सोऱ्याचें तुस्तगीत गायतात तेन्ना धरून चलूंक जाय, हे फकत आपणालें दुबळेपण लिपोवपा खातिरूच ताची तुस्त गायतात. असल्या लोकांक तांचे इत्से आड लेगीत वचून सोऱ्याच्या व्यसनांतल्यान सोडोवंक जाय.

म्हजे कांय जिवाभावाचे इश्ट सोऱ्याच्या व्यसनाक लागून मरूंक फावना ते पिरायेर संवसार सोडून गेल्यात. कांय जाण ऐन तरणेपणांत म्हातारे जाल्यात. तांच्या घरच्यांच्यो ज्यो भयो जाल्यातं त्यो सुमाराच्यो न्हय. घरकारूच आपणाली जोड सोऱ्यांत काबार करपाक लागलो जाल्यार घराची धूळदशा जाले बगर कशी रावतली? भुरग्यांक सारकें जेवण मेळना. तांच्यो उण्यांतल्यो उण्यो गरजोय आवय भागोवंक पावना. बावडी खंय वचून रडटली? ती घोवा मुखारूच बसून रडपाक लागता. घोवाक तें सोंसना. तो मागीर तिका बडोवपाक लागता. असल्या घराण्यांतले तरणाटे भुरगे लोफर जाल्लेय पळेल्यात. सोरो मनशाचें मनिसपण ना करून उडयता. ताची तुस्त कशी करपाची?

*'कम्बख्त तूने पी ही नहीं'* म्हणपी गालिबाक सोऱ्याचें व्यसन लागूंक नाशिल्लें जाल्यार तो जाला ताचेकूय हजार वांट्यांनी व्हड कवी जातलो आशिल्लो. बाकीबाबांक लागूंक नाशिल्लें जाल्यार तांचें 'महात्मायन' पुरें जावन येतलें आशिल्लें. दोगांकूय सोऱ्यान व्हड जावंक दिले नात.

द्युत आनी मद्य - जुगार आनी सोरो - खंय मनशाचे दोन व्हड दुस्मान. मनीस सदां दुस्मानां आड झुजत आयला तसो दुस्माना सुवादिनूय जाला.

इन्द्र आर्यांचो एक कर्तुत्वी सम्राट आशिल्लो. दस्यूंची दानाधिस्पट करपी, तांचीं शारां मोडून मातये भरवण करपी म्हूण ऋग्वेदान ताचीं तुस्त-

गितां गायल्यांत तशीं ताच्या बेब्देपणाचींय गायल्यांत. ताका सोऱ्याचें (सोमरसाचें) व्यसन लागिल्लें. आपुणूय पियेतालो आनी दुसऱ्यांकूय पिवंक घालतालो. मागीर एका सारको बडबडत रावतालो. वेदांचे मुस्तींत पियेवन बडबडप हाची कोणाक ल्लज बीज दिसनाशिल्ली आसूंक जाय. पुणून उपरांतच्या काळांत देशान पियेवपाचो म्हा-पातकांत आसपाव केलो. म्हा-पातकाची ताचेर छाप मारचे पयलीं सोऱ्या आड देशांत व्हडली चळवळ चलिल्ली आसूंक जाय. लोकमत तयार जाले उपरांतूच स्मृतींनी ताचो म्हा-पातकांत आसपाव केला.

लोकमत तयार करपी रुशींत एक नांव मेळटा तें शुक्राचार्याचें. देव-कुळांतलो हो एक रुशी. पुणून गुरू जाल्लो दानव-कुळाचो. तो संजीवनी विद्या जाणा आशिल्लो. मेल्ल्यांक जिते करतालो. दानवांनी ताका पियेवंक घालून ताचे कडली ही विद्या चोरून व्हेल्ली. तेन्ना ताणें सोरो सोडलो. इतलेंच न्हंय, तर सोऱ्या आड ताणें चळवळूय चलयली. शुक्राचार्य एक व्हड क्रान्तिकारी आशिल्लो. जल्मान ब्राह्मण आंसुनूय ताणें आपणाले धुवेचें लग्न एका क्षत्रीय चल्या कडेन केल्लें. ययातीच्या धाकल्या पुताक राजगादयेर बसोवन ताणें बापाय फाटल्यान व्हडल्या पुताक गादयेर बसोवपाची चाल मोडिल्ली. संजीवनी विद्या दानवांनी चोरून व्हेल्ली पळोवन ताका धसको बसलो आनी ताणें सोऱ्या आड चळवळ चलोवन ताचेर बंदीय हाडली. सोरो उश्टायतल्यांक ब्रह्महत्येचें पातक लागतलें असो फतवोय काडलो. शुक्राचार्याचे हे चळवळीचो परिणाम मदल्या वर्गांतल्या लोकांचेर खूब जाल्लो. समाजाचे नितीचो राखणदार चडसो मदलो वर्गूच आसता. फिरंगी येसर ह्या देशांत मदल्या वर्गांतलो कोण सोरो पियेनाशिल्लो. पियेतालो तेन्ना चोरयां पियेतालो. लिपोवन पियेतालो.

सोऱ्याक भौमान मेळपाक लागलो तो फिरंग्यांच्या (पुर्तुगेजांच्या आनी इंग्रजांच्या) काळांत. हे लोक जल्मस्थ पियेवपी. फिरंग्यांचे केलदावणेन आमचे शिकिल्ले सवरिल्ले मदल्या वर्गांतले लोकूय पियेवपाक लागले. फिरंग्यांनीच तांकां हें व्यसन लायलें. कांय जाण म्हणटात, मुद्दाम लायलें. कित्याक, तांकां हांगा सदांकाळ आपणालो शेक चलोवपाचो आशिल्लो. तांगेल्या शेकाक आडखळ मदल्या वर्गांतल्यानूच जावं येताली. ताकाच

बेंतेकाप करून उडयतकूच ताचे पसून भंय उरचो ना अशें तांकां दिसलें. सोऱ्याक तांणी 'फॅशनेबल' केलो.

ज्या समाजाक सोऱ्याचें व्यसन लागता तो केद्याय बुदवंत लोकाचो आसूं, ताच्यांत मनोबळ उरना. 'करतलों म्हळ्यार करतलोंच' वा 'करचों ना म्हळ्यार करचोंच ना, जीव गेल्यार लेगीत करचों ना' हें मनोबळ ताच्यांत निखालूस आसना. आनी जाच्यांत मनोबळ नासता तो समाज दुबळो आसता. तो कसलेंच कर्तुत्व करूंक पावना. ताका कसोय आमूड, गोरवां जाल्ले वरी तो आमुडटलो दाखयता ते दिकेन वतलो.

दोगांकूच हाची जाणवीक आसता - एक, विदेशी राज्यकर्त्यांक आनी दुसरे, देशी हुकुमशाहांक. लोकांक पांया पोंदा चिड्डून दवरपाक सोऱ्याचो जितलो आधार तांकां मेळटा तितलो तांचे फौजेचोय मेळना.

कांय जाण म्हणटात, सोऱ्याचेर खूब कर बसयात, लोक सोरो पियेवपाचो ना. अणभवान दिसून आयलां, कर बसयतकूच कांय जाण बनावटी, नकली, भरस आशिल्लो सोरो तयार करपी 'भट्ट्यो' सुरू करतात आनी लोक हो सोरो पियेवन केन्ना केन्ना मरतात. सोऱ्याचेर बंदीच हाडूंक जाय. ते बगर लोक ह्या व्यसनांतल्यान सुटपाचे नात.

'बंदी हाडिल्ली. ती अपेशी कशी जाली?' अशें कांय जाण विचारतात. अपेशी जाली खरी. पुणून खंय? जंय समाजसेवकांनी हें काम पुलिसां सुवादीन केलें थंय. पुलिसांक समाजाचे नितीचे राखणदार केले थंयच आमचें चुकलें. आमचें काम आमीच करपाचें. गुजरात राज्यांत हालीं हालींच तें अपेशी जालां. इतलीं वर्सां जावंक नाशिल्लें. तमिळनाडूंत जावंक नाशिल्लें. थंयचे [illegible] कार्यकर्ते जागरूकपणान [illegible] जावक नाशिल्लें. तो पुलिसांचो आधार [illegible] वावुरताले. [illegible] बायलो वावुरताल्यो. जंयच्यो बायलो जागरुकपणान लोकांचें सोऱ्याचें व्यसन सोडोवपाक मुखार सरतात थंय सोरो-बंदी चळवळ अपेशी जावपाक कारणूच ना. कायदो जाय, पुणून कार्यकर्त्यांचो वर्गूय जागरुकपणान वावुरपी आसूंक जाय.

सोऱ्याच्या व्यसनाक जो समाज व्यसन मानिना तो समाज फाल्यां ड्रग ॲडिक्ट जाल्यार म्हाका अजाप जावपाचें ना. सरकाराक कितें? सरकार

सोऱ्याचेर क़र बसोवन आपणालें उत्पन्न वाडयता तशें ड्रग्सांचेर कर बसोवन वाडोवंक लागतलें.

बायलांनी सोऱ्याच्या व्यसना पसून समाजाक मेकळो करचो. देश चकासूर जावन तांचे सिद्धी कडेन पळोवपाक लागतलो.

खरेपणानशीं जण एकल्यान थारावंक जाय -

सोऱ्यान म्हजें मनिसपण हांव होगडावन बसतां. हांव संोरो उश्टावचों ना, ना म्हळ्यार नाच ना... केन्नाच ना... म्हजे म्हाका जनावरां पाश्ट करचों ना.

जाल्यार, प्रोहिबिशन हाडपाचो प्रस्नूच उपरासचो ना.

जाग : जुलै 2000



# 26

# चार पुरुषार्थ, चार आश्रम

फ्रॉयड म्हणटालो, मनीस जें करता ताचे फाटल्यान काम-वासना भागोवप हीच एक प्रेरणा आसता. काम-वासना म्हळ्यार फकत सॅक्स न्हय. सगल्या तरांचे भोग. ही वासना भागूंक पावलिना जाल्यार मनशाचें मन खंय असंतुश्ट उरता आनी तांतुंतल्यान तरातरांच्यो विकृतायो जिवितांत वयर सरपाक लागतात.

मार्क्स म्हणटालो, मनीस जें करता तें आपणाली अर्थ-वासना भागोवपा खातीर करता. 'प्रॉफीट मोटीव्ह' हीच खरी प्रेरणा ताच्या सगळ्या कामां फाटल्यान आसता. एक तर तो फायद्या खातीर कितेंय करता वा दुडू मेळटले हे प्रेरणेन करता.

आमगेल्या म्हालगड्यांक हें खबर आशिल्लें जावंक जाय. कित्याक, फ्रॉयड जल्माक येवचे कितल्याश्या वर्सां पयलीं काम-वासनेक जिवितांत एक म्हत्वाची सुवात आसा म्हणपाचें तांकां कळिल्लें म्हूण चार पुरुषार्थांत तांणी 'कामा'क पयलो पाट दिल्लो. आनी काम-वासना भागोवपाक 'अर्था'चो आधार लागता म्हणपाचेंय तांकां कळिल्लें. म्हूण कामा फाटोफाट तांणी चार पुरुषार्थांत अर्थाक दुसरो पाट दिल्लो.

पुणून ते इतल्यार थांबल्यात व्हय? ते म्हणपाक लागले, काम आनी अर्थ दोनूय सारकेच म्हत्वाचे खरे. पुणून जातीन दोनूय असूर. तांकां मेकळे सोडले जाल्यार ते मनशाक मनीस जावंक दिवचे नात, ताचो दानव करून उडयतले. म्हूण, ह्या दोनूय पुरुषार्थांक तांचेर नियंत्रण दवरीत असल्या तिसऱ्या एका पुरुषार्था सुवादीन करूंक जाय. आनी, तांणी 'धर्म' नांवाचो एक तिसरो पुरुषार्थ येवजून काडलो आनी, काम आनी अर्थ दोनूय

पुरुषार्थाक तांणी ताच्या हातांत काडून दिले. धर्म म्हळ्यार बरें वायट पारखुपाची आनी दों मजगतचें बरें तें वेंचून काडपाची प्रेरणा दिवपी बुद्द कामवासनाय भागोवपाची आनी अर्थवासनाय भागोवपाची. पुणून कोणाचेंच लुकसान जायना, आपणाकूय वायटाक पडना हे भाशेन.

ते हांगाय थांबले नात. मनीस - सभावाच्या आनीक एका आंगा कडेन तांचें लक्ष गेलें. तांणी पळेलें, मनीस कित्यांतूय घुसपून उरूं, तो आपणाक खंयच्याच बांदपासांत बांदून दवरूंक तयार ना. सगळ्या बांदपासांतल्यान मेकळो जावपाची ताच्यांत आनीक एक प्रेरणा काम करता. विमुक्ती-सूख हें मनशाचें सगळ्यांत व्हडलें सूख. तें मेळचें म्हूण तो आनी कित्याय परस चड आंवडेता. तांणी हेवूय प्रेरणेक चार पुरुषार्थांत भौमानाची सुवात दिली आनी ताका 'मोक्ष' म्हूण एक नांव दिवन आमकां सांगलें -

हे चार पुरुषार्थ आमी तुमचे फुड्यांत दवरल्यात. चारूय पुरुषार्थ जिविताच्यो चार मुखेल प्रेरणा. हांतली धर्माची वा मोक्षाची प्रेरणा बळिश्ट जाली जाल्यार काम आनी अर्थ, दोनूय प्रेरणा मोव पडटल्यो आनी, काम आनी अर्थ बळिश्ट जाल्यो जाल्यार धर्माची आनी मोक्षाची प्रेरणा मोव पडटली. जिवितांत चारींकूय सारकेंच म्हत्व आसा. चारींकूय सारकीच सुवात आसा. तांचें 'प्रमाण' सांबाळून जियेयात. म्हणटकूच -

तुमी तुमच्या जिविताचें भांगर करतले.

चार पुरुषार्थां सारके चार आश्रम तांणी आमचे मुखार दवरल्यात.

हांतलो गृहस्थाश्रम सगळ्यांत म्हत्वाचो. तो बेस बरो चलचो म्हूण जी निपुणताय, कुशळताय, योग्यताय गरजेची ती पयल्या आश्रमांत - ब्रह्मचर्याश्रमांत जोडपाची. ब्रह्मचर्याश्रम जितलो उत्कट आसतलो तितलोच घटमूट गृहस्थाश्रम जातलो. पंचवीस ते पन्नास मेरेनच्या ह्या गृहस्थाश्रमांत मान भौमान, सत्या संपत, जोडपा सारकें सगळें जोडपाचें. पन्नास भर जातकूच - जांवंय वा सून हाडटकूच, आनी घरांत नातू वा नात खेळूंक लागतकूच - हें सगळें सोडून दिवपाचें आनी फुडलीं पंचवीस वर्सां, पन्नास ते पंच्यात्तर मेरेनचीं, समाजाक दीत रावपाचें. ह्या तिसऱ्या आश्रमाक वानप्रस्थाश्रम हें नांव तांणी दिलें. ह्या नांवांतलें 'वन' हें उतर पळोवन पन्नास जातकूच मनशान घर-संवसार सोडून वनांत (रानांत) वचून रावपाचें असो कांय जाणांनी समज करून घेतलो. खरेपणानशीं 'वन' म्हळ्यार

'रान' न्हय. एकावन, बावन, पंचावन, सत्तावन हांतुंतलें वन - इंग्रजींत 'फिफ्टीज.' समाजसेवेक बऱ्यांतली बरी पिराय ही. पंचवीस ते पन्नास मेरेन समाजा कडल्यान घेतलें. आतां पन्नास ते पंच्यात्तर मेरेनचे पिरायेंत समाजाक दीत रावपाचें. घेवप आमचो अधिकार आशिल्लो. दिवप आतां आमची लागणूक जाल्या.

आगळे वेगळे परिस्थितींत मनशाक केन्ना केन्ना राजकर्णांत उडी घेवची पडटा. देखीक, देश गुलाम आसता तेन्ना. हरशीं पन्नास मेरेन कोणाक राजकर्णांत पडपाची गरज भासूंक फावना. पन्नास भर जातकूच पडचें. निःस्वार्थ सेवेचें मळ हें. आनी, राजकर्णाक, समाजसेवेक फावऽ सारकेंच. घरदार सोडून न्हय, घरांतूच रावन, पुणून घरच्यो सगळ्यो जापसालदारक्यो पुता हातांत दिवन आपणाक रासवळ मळार सेवा करपा खातीर मेकळो करप हो उद्देश ह्या तिसऱ्या आश्रमाचो.

कितले खोलायेंत देंविल्ले आमचे म्हालगडे जिविताच्या प्रस्नांत!

पयलीं सांगलें, *'कुर्वन्नेवेह कर्माणि जीजिविषेत् शतं समः'* करण्यो करीत करीत मनशान शंबर वर्सां जियेवपाची आस्त धरची. रोखडेंच सांगलें, *'एवं त्वयि नान्यथेतोऽस्ति'* - तुजे मुखार होच एक मार्ग आसा. दुसरो ना. निवृत्तीचें (रिटायरमेन्टाचें) तांणी केन्नाच चिंतलें ना. 'ना, निवृत्ती मनशाक ना. काम करितच शंबर वर्सां जियेवपाचें' म्हूण सांगलें. पुणून कसलीं कामां? त्या त्या आश्रमांत तीं तीं. ब्रह्मचर्याश्रमांत आसतना गृहस्थाश्रमाचीं कामां करपाचीं न्हय. आनी वानप्रस्थाश्रमांत पावतकूच गृहस्थाश्रमाचीं निखालूस करपाचीं न्हय. असंतोशाक पिरंगणेक जिवितांत सुवातूच उरची ना.

वानप्रस्थाश्रमा उपरांत येता तो संन्यासाश्रम. हाका संन्यासाश्रम नांव केन्ना सावन पडलें, खबर ना. पुणून हें नांव सारकें न्हय. खरेपणानशीं हो आश्रम 'साम्पराया'चे तयारेचो.

साम्पराय म्हळ्यार मरणा उपरांतचें जिवीत.

सरसमान लोकांचो साम्पराय पणजो जायसर उरता. शेणजो जातकूच मनीस शेणटा. ताच्या वंशजां कडलो ताचो संबंद तुट्टा. पुणून कांय जाणांचो साम्पराय शेंकड्यांनी, हजारांनी वर्सां चल्ला. अडेज हजार वर्सां जालीं, बुद्धाचो चलता. दोन हजार वर्सां जालीं, खिस्ताचो चलता. मरणा

उपरांतचें हांगेलें जिवीत तांच्या मरणा आदल्या जिविता परस चड काळ चलत रावलां. म्हूण तांगेलें हेंच जिवीत **खरें** म्हणूंक जाय. सरसमान लोकांक हें कळना. *'नं साम्पराया प्रतिभाति बालम्.'* मनशाचो साम्पराय केदो आसचो हें ताचें मरणा आदलें जिवीत थारायता. म्हूण, ताची तयारी करपा खातीर हो चौथो आश्रम आमच्या म्हालगड्यांनी आमचे मुखार दवरला.

पंचात्तर जालीं म्हणटकूच सगळीं कामां सोडून आध्यात्मिक जिवीत जियेवपाचें. साम्परायाचे तयारेन.

खूब पयसो जोडुनूय मनीस दुःखी कित्याक आसचो? चार पुरुषार्थां मजगतच्या एकाच पुरुषार्थाक घट धरून बसलो म्हूण, फकत 'अर्था' फाटल्यान लागतकूच आनी उरिल्ल्या तिनूय पुरुषार्थांची उवेखणी करतकूच मनीस 'मनीस' उरना. पयशे जोडपी एक यंत्र जावन पडटा. आनी सगळीं यंत्रां कांय वर्सां उपरांत जशीं झरून वतात वा मोडटात तसो होवूय झरून वता वा मोडटा. पयशे आसुनूय मनीस दुःखी आसता तो हे खातीर.

म्हातारपणांत मनीस सभावान चिडचिडो जाता. ओगीच वचत ताचेर ताणशेता. मनीसघाणो जाता. कित्याक? चार आश्रमां मदल्या एका आश्रमाक तो दसून रावता म्हूण. ते ते पिरायेर तीं तीं कामां सोडून दिवंक जाय हें ताका कळिल्लें नासता म्हूण. मरऽसर एकाच गृहस्थाश्रमाक दसून रावता म्हूण.

जिवीत सुखांत वचचें, संतुश्ट उरचें, मनशान धादोसभरीत जियेवचें अशें आमकां दिसता आसत जाल्यार मनशाक चारूय पुरुषार्थांचें तशें चारूय आश्रमांचें प्रमाण सांबाळून जियेवंक येवंक जाय. एकाच खंयच्या पुरुषार्थाक मनीस धरून रावलो वा एकाच खंयच्या आश्रमाक घट दसून रावलो जाल्यार तो दुःखी जावंकूच जाय.

दुसरे खंयचेय परंपरेंतल्या म्हालगड्यांनी हे तरेची संतुलीत जिवीत जियेवपाची कला विकसावन काडिल्ली आसत व्हय? म्हाका तरी खबर ना.

जाग : फेब्रुवारी 1999



# 27
# शिकोवप्यांक शिकोवंक जाय

पणजे एकल्या इश्टाक मेळूंक गेल्लों. ताका एकूच पूत आनी पुताक एकूच धूव. सगळ्यांचे अपुर्बायेची. के.जीं.त घाल्या. तुर्ताक अपर केजींत आसा. हांव आयिल्ल्यान आज्यान तिका उलो मारून आपयली आनी 'ट्विंकल ट्विंकल लिटल स्टार' म्हणूंक सांगलें. बावडेन लजत लजत म्हळें.

'बरी हुशार चली' अशें म्हणून हांवें तिची फाट थापटिली.

पुणून तकली खंयचे खंय गेली.

म्हळें, *'चांदोबा चांदोबा भागलास का, लिंबोणीच्या झाडामागे लपलास का'* हें गीत इंग्लंडच्या भुरग्यांक शिकोवन तांकां 'शिक्षीत' करपा सारकेंच शिक्षण न्हय हें आमगेलें? इंग्लंडचीं भुरगीं सोड, पंजाबी, बंगाली, केरळी बी देशी भुरग्यांक तरी हें गीत शिकोवन 'शिक्षीत' करूंक येत व्हय? सामकेंच अन्नाडी कशें जालें आमचें शिक्षणशास्त्र? अन्नाडी लोकांच्या हातांत शासन आनी प्रशासन गेलें म्हूण?

भुरग्यांनी फाटीं गुलाबाचो एक रोप हाडून आंगणांत रोयिल्लो. सद्दां सकाळीं उठनाफुडें तांणी येवचें आनी रोपाक फूल आयलां काय ना तें पळोवचें. हांवें तांकां सांगचें, फुलाचो हुस्को करूं नाकात. तें आपशीं येतलें. तुमी एकूच काम करात, रोपाक वेळार उदक घालात. मुळांत नण्णी आयिल्ली आसत जाल्यार ती काडून उडयात, सारें घालात. बाकिचें रोपाचेर सोडून दियात. एक दीस फूल फुलतलें.

भुरगीं तशें करपाक लागलीं आनी खऱ्यांनीच एक दीस फूल आयलें.

सगळीं खोश्शी जालीं.

शिक्षणूय भुरग्यांक अशेंच मेळूंक जाय. सात वर्सांचें जायसर भुरग्याक कोणेंच 'शिकोवपा'ची गरज ना. भुरगें भोंवतणच्या वातावरणांतल्यान आपुणूच आपणाक जाय तें शिकत आसता. एक खीण लेगीत तें बेकार राविना. जल्माक येतनाच तें नाक कान जीब दोळे हात बी गिन्यान जोडपाचीं आंगां घेवन येता. ह्या आंगांच्या आधारान तें शिकता. शिकपाचें ताचें 'माध्यम' इन्द्रियां. भास न्हय. ताका सिंबल - संज्ञा उपकारना. मूळ वस्तच जाय आसता. रूप, रोस, रंग, गंध ह्या रुपांत जें कितें ताच्या भोंवतणच्या संवसारांत उकताडा आयलां ताचें प्रत्यक्ष ज्ञान तें आपणाल्या इन्द्रियांच्या आधारान जोडटा. आवयक 'मदर' म्हणची काय 'मम्मी' हें ताका मागीर कळटलें. पयलीं तें हाताच्या स्पर्शानूच आवयक आवय म्हूण वळखूंक लागता. स्पर्शानूच ही म्हजी आवय म्हणपाचें ताका कळटा. भोंवतणच्या संवसारांत सुकणीं-सावदां, जीव-जिवाणीं, किडी-मुयो बी जें कितें तें पळेता ताचे कडेन एकरूप जावपाचो ताचो एका सारको यत्न चलिल्लो आसता. बोबो-हुयेली पसून भीमसेन जोशीच्या संगिता मेरेन आवाजाची जी 'श्रेणी' पातळ्ळ्या ती वळखुपाची आनी आपणाली करपाची तागेली एका सारकी धडपड चलता. कितेंय हातांत पडलें जाल्यार भुरगें तें तोंडांत कित्याक घालता तें आमकां समजूंक जाय. म्हणटकूच, भुरग्यांचो गिन्यान जोडपाचो वावर कितले खोलायेन चलता हाचो आमकां अदमास येतलो. 'कितें', 'कित्याक', 'कशें' हे प्रस्न जितले भुरग्यांक पडटात तितले जाणट्यांक कित्याक पडनात हाचोय अदमास येतलो. जंय इन्द्रियांच्या आधारान अणभव घेवपाची प्रक्रिया चलता थंय 'ट्विंकल ट्विंकल लिटल स्टार' वा '*कराग्रे वसते लक्ष्मी, करमध्ये सरस्वती*' शिकोवप म्हळ्यार सामकींच अन्नाडीपणां. आमच्या शिक्षण-शास्त्राक हीं अन्नाडीपणां अन्नाडीपणांशीं दिसनात हें संस्कृतायेच्या मळा वयलें केदें व्हड संकश्ट, हाचो अदमासूय आमकां नासचो?

भुरगें जल्माक येता ते कुडींत 'फ्लड्-लायट' घालिनात. मंद उजवाडांतूच तें जल्माक येवचें, अशी माण्णी करूंक जाय. उपरांत इल्लें इल्लें करून ताका उजवाडाच्या संवसारांत व्हरूंक जाय. हेच भाशेन इन्द्रियांचे

बाराखडेंतल्यानूच ताची अनंताची वळख इल्ली इल्ली वाडूंक दिवंक जाय, हें जांकां समजना तांकां 'तज्ज्ञ' कशे म्हणचे? आनी असल्याच 'तज्ज्ञां'च्या हातांत आमचें शिक्षण खातें दिवचें आमी?

भुरगें एके वाटेन अणभवान आपणाक जाय तें शिकत आसता, आनी दुसरे बाटेन तें आपणालो आत्मविस्वासूय वाडयत वता. हें जें कितें तें 'घेता' त्या 'अणभवा'च्या गिन्यानाक इंग्रजींत एक उतर आसा : ऐड्युकेशन, आनी, आमी ताका जें 'दितात' ताका दुसरें एक इंग्रजी उतर आसा : इंस्ट्रक्शन. भुरग्यांक मेळूंक जाय तें ऐड्युकेशन, इंस्ट्रक्शन न्हय. सुरवेक भुरग्यांक जें कितें शिकपाचें आसा तें तांकां आपले आपुणूच शिकूंक दियात. तांकां जाय तितलीं खेळूंक दियात. तोडफोड करूंक दियात. बोवाळ करूंक दियात. सगळीं शिक्षणाचीं 'माध्यमां' हीं. तांकां 'शिस्तीं'त वाडोवपाचो यत्न निखालूस करूं नाकात. 'शिस्ती'न भुरगीं इबाडटात. विकृत जातात. स्वातंत्र्यांतूच तांची सारकी वाड जाता.

योरोपांत 'शिक्षण' सुरू केलें चर्चान आनी शिकप म्हळ्यार ग्रीक वा लॅटीन शिकप अशें मानलें. तेन्ना पसून शिक्षणाक भाशेचेर भर दिवपी नाका जाल्लें हें रूप मेळ्ळां. हें जांकां खबर ना तांच्या हातांत शाळा पडूंक दिवंक जायनात. शिक्षण खातेंय वचूंक दिवंक जायना.

भुरग्यांक शाळेच्या चार वणटींतल्यान भायर काडून सैमाची नियाळणी करपाक भोंवतणच्या वाटारांत घेवन वचूंक जाय. शेवणीं घोंटेर कशीं बांदतात, घोंटेरा खातीर कसले तरेचें तण सोदून हाडटात, तें मागीर तीं कशीं विणून काडटात, घोंटेरांत भितर तांतयां घालपाक कसले तरेची सुवात तयार करतात, हें तांकां पळोवंक दिवंक जाय. म्होंवामूस खंयच्या फुलांतलें म्होंव चोखून काडटात, अमकेच एके जातीचीं फुलां कशीं वेंचून काडटात, दुसऱ्या मुसांक कशे आपयतात, कसले तरेचो नाच करतात, हाचीय नियाळणी करूंक तांकां येवंक जाय... हाका शिक्षण म्हणटात.

आमी आमच्या सैमाची कितलिशी नियाळणी केल्या? गोंयांत कितल्या तरांचीं शेवणीं आसात, कितल्या तरांचीं सावदां आसात, कितल्या तरांच्यो किडी-मुयो आसात, तांचीं नांवां कितें, तांची चाल-चलणूक कसले तरेची, हें आमी खंय जाणात? असले आमी भुरग्यांक कितें शिकयतले, कपळ!

आमी कितले अज्ञान हाची म्हाका खोलायेन जाणवीक जाली. आनी हांवें एक छंद लावन घेतलो. सांजचो नातरांक घेवन फाटल्या दोंगरार पासयेक वचपाक लागलों. नातरां वांगडा वाड्या वयलीं कांय भुरगींय येवपाक लागलीं. काय दिसांनी एका म्हत्वाच्या निर्णयार पावलों -

वाड्या वयल्या ह्या भुरग्यांक सैमाचें म्हजे परस हजार वांट्यांनी चड ज्ञान आसा. तांकां शेवण्यांचीं नांवां खबर आसात. तीं खंय घोंटेर बांदतात तें खबर आसा. तांकां जिवाणीं वळखूंक येतात. खंयचें विखाळ आनी खंयचें न्हय, हें खबर आसा. झाडां-झोंपांक तीं वळखतात. तांकां केन्ना फुलां येतात आनी तीं केन्ना फळटात तें तांकां खबर आसा. तांचो वैजकी उपेग कितें, तेंय तीं सांगतात!

हांकां आमी 'शिक्षण' कसलें दितले, गोबोर? गोंयांत खरी गरज आसा ती भुरग्यांक शिकोवपाची न्हय. शिकोवप्यांकूच शिकोवपाची खरी गरज आसा. Educators themselves must be educated. तेन्नाच माध्यमाचे, पाठ्य-पुस्तकांचे बी सगळे प्रस्न सुट्टले.

शिक्षणाच्या नांवान भुरग्यांक 'ट्विंकल ट्विंकल लिटल स्टार' वा '*कराग्रे वसते लक्ष्मी*' शिकयतल्यांची फाट फोडून काडूंक जाय, कावालमारिन्यांनी.

जाग म्हयनाळें



# 28
# संवसार ताची वाट पळेता

भौन भौन वापरून आमी अहिंसा उतर गुळगुळीत करून उडयलां. हरशीं, खोलायेंत देंवन चिंतून पळेल्लें जाल्यार समाज अहिंसेच्या नेमाक लागुनूच चलूंक पावला म्हणपाचें आमच्या लक्षांत येतलें आशिल्लें.

अहिंसेचो नेम महावीरान सोदून काडला म्हणटात तें खरें न्हय. महावीरा आदल्या काळांतल्या लोकांक तो खबर आशिल्लो. पुणून त्या काळांत तो एक सुविचार म्हूण चलत आयिल्लो. महावीराच्या काळांत समाजाक अहिंसेची भूक लागिल्ली म्हूण तो 'गरज' म्हूण मुखार आयिल्लो. ही भूक लागपाक कांय कारणां जाल्लीं -

1. वेदीक यज्ञयागांत मोनजातीची सुमारा भायर हत्या जावपाक लागिल्ली.
2. कुरुक्षेत्रार अठरा अक्षौहिणी सैन्य मरून काबार जाल्लें आनी ह्या सैन्यांत त्या काळांतल्या उत्तर भारतांच्या एकान एक घरांतलो कोण-न्हय-कोण झुजामळार मेल्लो. आनी,
3. जनमेजयाच्या सर्पसत्रांत आदिवासी लोकांच्यो शेंकड्यांनी कुळयो तांतयां पिलां सयत आर्यांनी हुलपावन मारून उडयल्ल्यो.

हिंसेचो येदो व्हड हो अच्छेव पळोवन 'नाका, हिंसाच नाका. स्वर्ग जोडपा खातिरूय नाका, राज्य चलोवपा खातीर नाका, सत्येर बसपा खातिरूय नाका, पोट भरपा खातिरूय नाका...' अशें देशाक खोलायेन दिसपाक लागिल्लें. स्वर्ग जोडपा खातीर रगताचे इतले व्हाळ व्हांवोवचे पडटात जाल्यार नरकांत दुसरे खंयचे वाटेन वचूं येता, असो वेदांचे मुस्तींतलेच लोक प्रस्न विचारपाक लागिल्ले. आनी पशुहत्येन यज्ञ करूंक

जाय म्हणटल्या वेदांक '**धिक्‌वेदः**' (पाड पडूं वेदांचें) अशें म्हणपी रुशीय वेदांच्या काळांत वयर सरिल्ले.

तें कित्याक, वेदां उपरांत जीं उपनिषदां आयलीं, तांणी वेदांच्या कर्मकांडाचो निशेध करून ज्ञानकांडूच खरें म्हूण मुखार काडिल्लें. म्हळ्यार, उपनिषदांनी वेदां आड एके तरेन बंडूच केल्लें म्हणूंक जाय.

वेदांच्या यज्ञयागांची पत उपनिषदांच्या काळांत इल्ली इल्ली करून उणी जायत गेल्ली. मुखार करुणेन जेन्ना बुद्धाचो अवतार घेतलो तेन्ना ती साप्प ना जावन गेल्ली.

बुद्धाक लागून उपरांत यज्ञाचो अर्थ लेगीत बदल्लो.

कुरुक्षेत्राच्या झुजामळार अठरा अक्षौहिणी सैन्याची कत्तल जावन पांडवांनी जैत जोडलें तेन्ना खासा पांडवां मदल्या युधिष्ठिराच्या तोंडांतल्यान 'कसलें हें जैत, कपलाचें? हें जैत जाल्यार हार खंयची? म्हाका हें जैत हारी पाश्ट दिसपाक लागलां' म्हूण उतरां फुटिल्लीं. झुजान कसलोच प्रस्न सुटना, प्रस्न सुटावे करपाक झुजाचो कांय उपेग जायना. 'नाका, देशा खातीर कोणाक मारप नाका, मरपूय नाका' म्हणपाचें त्या काळाकूच दिसपाक लागिल्लें.

जनमेजय पांडवांचो पणटू. ताच्या बापायक - परिक्षिताक - तक्षक नांवाच्या नागांच्या राजान कूट करून मारिल्लो म्हूण सुडान तो सगळे तरेचे नाग (म्हळ्यार, नागाची पुजा करपी आदिवासी लोक, सोरोप न्हय) तांयतां-पिलां सयत ना करपाक भायर सरलो. आनी ताणें एक 'सत्र' (war of extermination) चलयलें. तें नेटान चलता आसतनाच आस्तिक रुशी मदीं पडलो आनी ताणें तें थांबयलें. आस्तिक नागांचो तसो आर्यांचो नातू. परिणाम, जे वांचून उरले ते रानांचो आसरो घेवन रावले. लोक विचारपाक लागले, 'आमचे भाशेन तांचोय हो देस. तांकां ह्या देसांत रावपाचो हक नाशिल्लो?' ना करपाचो यत्न करुनूय लोक ना जायनात म्हणपाचो देसान त्या वेळार अणभव घेतिल्लो.

असल्या कोडू अणभवांक लागून देस हिंसेक उबगल्लो.

जिस्त ह्या वेळार महावीर अहिंसेचो विचार घेवन मुखार आयलो आनी लोकांनी ताचो हो विचार झेलून धरलो. महावीराक लागून मांस खावप ना

अशें थारावन देसांतले कितलेशे घराबे शिवराक जाल्यात. एकूच देस हो संवसारांतलो, जंय पिळग्यान पिळग्यां सावन कांय घराबे शिवराक आसात. शिवराक उतर लेगीत बौद्ध जैन परंपरेंतल्या 'श्रावक' उतरा वयल्यान आयलां. सगळे जैन शिवराक. ब्राह्मणां मजगतचे शिवराक ब्राह्मण जैनांच्या प्रभावानूच शिवराक जाल्यात. हेर सगळे ब्राह्मण आयजूय मांस खातात. महावीराचो हो वावर ल्हाना-समानांतलो म्हणूं नज. युग बदलपी एक वावर आशिल्लो हो.

पुणून, ह्या देसाक खंयच्याय तत्त्वाची अतिताय केले बगर केन्ना धादोसकाय भोगली ना. जेवणांत मांस आसचें न्हय ह्या विचाराची महावीरा उपरांतच्या काळांतल्या जैनांनी खूब अतिताय केली. आनी, स्वास घेतात तेन्ना नाकांतल्यान कितलेशे बारीक जीव आमच्या फोफसांत वचून मरतात ते मरचे न्हय म्हूण जैन नाकार आनी तोंडार लुगट बांदपाक लागले. बटाटां, कणंगां, गाजर, मुळे भूंय खणून काडचे पडटात. भूंय खणटना जमनींतले बारीक सारीक जीव (बॅक्टेरिया सारके) मरतात म्हूण बटाटां, कणंगां, गाजर, मुळे खावचे न्हय अशें तांणी थारायलें. रस्त्या वयल्यान चलता आसतना बारीक मुयो पांया पोंदा पडून चिड्डून मरतात. म्हूण, मुयांच्या बिळां कडेन इल्ली इल्ली साकर व्हरून दवरची, ह्या थरा मेरेन जैन अहिंसेक घेवन गेले. अहिंसेचें तत्त्व जिविताच्या सगळ्या आगांत चलोवपाक जाय आशिल्लें. तें तांणी फकत जेवणा-खाणाच्या मळाचे शिमेंतूच बंदिस्त करून दवरलें.

म्हूण, कोणेंय आमचेर थापट मारलें जाल्यार अहिंसेन ताका जाप कशी दिवपाची हें जैनां मजगतच्या कोणाक केन्ना सांगूंक आयलें ना. ही जाप महावीरा उपरांत कितल्याश्या शतमानांनी आयिल्ल्या ख्रिस्तान 'दुसरो पोलो मुखार कर' म्हूण सांगून दिल्या. दुसरो पोलो मुखार सरतकूच थापट मारतल्या हाताचो नेट आपशीं मोव पडटा आनी मारतल्याक लज दिसपाक लागता, ही ख्रिस्ताची अहिंसा महावीराचे अहिंसे मुखार गेल्ली पळोवंक मेळटा:

महावीरा सावन अहिंसा सुरूय जावंक ना आनी महावीरा कडेन पावतकूच ती मुखार वचपाची थांबुंकूय ना. अहिंसा ख्रिस्ता कडेन पावनूय थांबली ना. मुखार वचत रावली. आपणालो लाव करून घेवपा खातीर दुसऱ्याचो

गैरलाव घेवप, दुसऱ्याक छळप, नाडप, ताचेर जुलूम करप, ताचें रगत लुंचप हें शोषण (exploitation) हिंसेचेंच एक रूप. अहिंसेक हेंवूय थांबोवंक येवंक जाय. खिस्ताचेच प्रेरणेन टॉलस्टॉय मुखार सरलो आनी तो शोषण करतल्यांक विचारपाक लागलो, 'चोरांनो, तुमी बारीक दुबळ्या लोकांचे फाटीर चडून बसल्यात आनी तांचें तरातरांनी शोषण करतात; तुमी समाजांत एके वाटेन गरीब लोकांचो आंकडो वाडयत वतात आनी तेच बरोबर दुसरे वाटेन, तांच्या बऱ्या-भल्याचे वावरूय करतात, तांची सेवाय करतात, ही तुमच्या जिवितांतली विसंगत तुमकां दिश्टी पडना? गरीब लोकांची काकूळट करपाची गरज ना. तांची सेवाय करपाची गरज ना. तुमी तांचे फाटी वयले पयलीं सकयल देंवात आनी तांकां तुमचे पसून मेकळे करात. म्हणटकूच तेच आपणाल्या बऱ्या-भल्याचे वावर करतले. तुमची तांकां गरज ना.'

मार्क्सान केन्ना खिस्ताचें नांव घेतलें ना. तो खिस्ताक मानीय नाशिल्लो. पुणून अहिंसेच्या मळार तो खिस्त आनी टॉलस्टॉय दोगांयच्या मुखार गेल्लो. तो म्हणपाक लागलो, उत्पादनाचीं साधनां उत्पादन करिनात तांच्या हातांत पडूंक जायनात. तीं उत्पादन करतल्यांच्याच हातांत दिवंक जाय. शेतांत काम करतल्यांच्या हातांतूच शेतां आसूंक जाय. खणीर काम करतल्यांच्याच हातांत खणी आसूंक जाय. कारखानेय कारखान्यांनी काम करतल्यांच्या हातांत वचूंक जाय. तें कित्याक, सरकारूय तांच्याच हातांत दिवंक जाय. जळवां भाशेन श्रमजीवी लोकांचें रगत लुंचपी शेतकार, भाटकार, खण-मालक (मिनेर), कारखानदार, सगळ्यांच्या हातांतलीं उत्पादनाचीं साधनां - गरज पडल्यार बळयां - काडून घेवन तीं कश्ट करपी लोकांच्या हातांत दिवंक जाय. शोषण ना करून मार्क्स न्यायाचेर आधारिल्लो समाज उबो करूंक पळेतालो आनी - ताका खबर नासतना - अहिंसेचेंच तत्त्व मुखार व्हरूंक आंवडेतालो.

विसाव्या शतमानांत अहिंसेन दक्षीण आफ्रिकेंत गांधींच्या दळवयपणा खाला जाती-कातीच्या वेगळेचारा आड सत्याग्रह करून जैत जोडलें तें, उपरांत, नॅल्सन मंडेलान मुखार चलोवन दक्षीण आफ्रिकेक स्वातंत्र्य जोडून दिलें. तर अमेरिकेंत हेच - सत्याग्रहाचेच - वाटेन मार्टिन ल्यूथर

किंगान काळे कातीच्या लोकांक गोरे कातीच्या लोकांक आसात तेच हक मेळोवन दिवन अमेरिकेंतलो काळे/गोरे वेगळेचार ना करून उडयलो. ह्याच सत्याग्रहान एका फुडल्यो एक चळवळी चलोवन भारताक पयलीं धीट केलो आनी मागीर तीस वर्सां भितर ताका आपणालो धनी करून दाखयलो.

अहिंसेक अजून दोन वावर करपाचे आसात -

1. आकांताच्या अगडबंब यंत्रांनी संवसारभर उबो केल्लो नवो वसणुकवाद (neo-colonialism) ना करपाचो, एक, आनी -

2. पांच पांच, धा धा वर्सांनी खंय न्हय खंय जातात तीं झुजां, म्हाझुजां, थंड झुजां बंद करून शस्त्रास्त्राचें उत्पादनच इतिहासांत धुकलून उडोवपाचो, दुसरो.

ही अहिंसा जाच्या जिवितांत उकताडा आयल्या असल्या एका नव्या युगपुरुसाची आयचो संवसार वाट पळेता. येतलो. नवे पिळगेच्या जिवितांतूच येतलो.

अहिंसेची यात्रा थांबूंक ना. थांबपाचीय ना.

जाग : एप्रील - मे 2002



# 29
# वाल्मीकी रवीन्द्रनाथांचे वारस आमी

साहित्यकारांचो वावर खंयचो आसूंक जाय आशिल्लो? फकत लोकांचीं मनां रिझोवपाचो, तांकां खातकुतल्यो करपाचो, हांसोवपाचो, रडोवपाचो? 'संवसार असो चलता' इतलेंच तांकां सांगपाचो? संवसारांतलें पोरणें, बरगेल्लें, कुशिल्लें भायर मारपाचो आनी ताचे सुवातेर घटमूट, सासणाचें दवरपा सारकें, सगळ्यांच्या बऱ्याक पडटा असलें नवें हाडपाचो वावर तांचो नाशिल्लो?

एका काळार 'नवें हाडपाचो' वावर धर्माचार्य करताले. ते शास्त्रां शिकताले. तीं चलणुकेंत हाडटाले. आपणाल्या अणभवांच्या वरकुलार तीं घांसून काडटाले, तांतूंत उणीं दिश्टी पडलीं जाल्यार तीं पयस करताले, नवी भर घालताले आनी परंपरा मुखार चलयत व्हरताले.

परंपरा म्हळ्यार चलत आयलां ताकाच दसून रावप न्हय, चलत आयलां ताका मुखार चलयत व्हरप हाकाच परंपरा म्हणटात. परंपरे खातीर दुसरें एक उतर आसा - चाल. चालींत चलप येता. चलत जंय पावल्यात थंयच घट्ट रावप हाका परंपरा न्हय, तर रुढी म्हणटात. रुढी फातराळ आसतात. कोणाक मुखार वचूंक दिनात. परंपरेक गती आसता म्हूण ती समाजाक मुखार व्हरता. धर्माचार्य हें काम करीत आयिल्ले खासा आपणाली देख लोकां फुड्यांत दवरून. लोकांक ते जें करपाक सांगताले तें पयलीं आपूण करून दाखयताले. धर्माचार्यांनीच संस्कृतायो घडयल्यात. धर्माचार्यांनीच लोकांच्यो आवडी-नावडी संस्कारीत केल्यात. तांणीच लोकां मुखार 'आदर्श' दवरून आचाराची तांकां दिका दाखयल्या. समाजांत जे values - जीं जीवनमुल्यां लोक मानतात तीं तांणीच प्रस्थापीत केल्यांत.

सम्राटां परस धर्माचार्यांचो प्रभाव समाजाचेर चड पडला. म्हूण समाजांत मर्दी मर्दी बदल घडून येवंक पावल्यात. सम्राटांक समाज बदलपाची तांक ना.

पुणून सम्राटांचे गादयेर तांचे पूत येवन बसले तशे धर्माचार्यांचे गादयेर तांचे शिष्य येवन बसले. फरक इतलोच - सम्राटांचे गादयेर तांचे पूत खासा सम्राटूच हाडून बसयताले. धर्माचार्यांचे गादयेर तांचे शिष्य एकामेकांचे पांय ओडून बसपाक लागले. गुरूचें अनुकरण तांकां करूंक आयलें. पुणून गुरुंनी लोकांत जो प्राण फुंकिल्लो तो खंयच्याच गुरूचो खंयचोच शिष्य फुंकूंक पावूंक ना. परिणामीं, धर्माचार्यांच्यो गादयो रुढींक तेंको दिवपाचो आनी तांची राखण करपाचोच वावर करूंक लागल्यो, समाज बदलपाचो वावर त्यो करूंक पावल्यो नात. बुद्धान लोकांक जी प्रेरणा दिल्या ताच्या हजाराव्या वांट्यान लेगीत खंयचोच त्रिपिटकाचार्य फाटल्या अडेज हजार वर्सांच्या काळांत दिवंक पावूंक ना. खिरस्त अजून लोकांक जितली प्रेरणा दिता ताच्या लाखाव्या वांट्यान लेगीत ताच्या नांवान चलपी एकूय चर्च फाटल्या दोन हजार वर्सांच्या काळांत कोणाक दिवंक पावूंक ना. आद्‌य शंकराचार्यान जें कर्तुत्व करून दाखयल्लें ताच्या कोट्‌याव्या वांट्यान लेगीत ताचे गादयेर बशिल्ले खंयचेच शंकराचार्य आतां मेरेन करूंक पावूंक नात.

समाजांत आयज धर्माचार्यांच्यो फकत गादयो उरल्यात. तांची पत खंयच उरूंक ना.

हाका लागून धर्मसंस्कृतायेच्या मळार जी सुवात रिती उरली ती उपरांतच्या काळांत संतांनी भरून काडली. संत चडशे सगळे तळागाळांतल्यान आयिल्ले. बरप अक्षर कांयच शिकूंक नाशिल्ले. बरप अक्षर शिकिल्ल्या वयल्या वर्गांत कोण संत जाले नात अशें न्हय. खंय खंय जाल्यात. पुणून नेमाक आडवाद आसूंक जाय ह्या नेमाक धरून. सामान्यतायेन सगळे कागद-शायेक केन्ना आफडूंक लेगीत पावले नात तांचे मजगतचेच आशिल्ले.

समाजाचेर धर्माचार्यां परस चड संतांचोच प्रभाव पडिल्लो पळोवंक मेळटा. ते खूब पयसलें पळोवपी आशिल्ले तशे सुमारा भायर नमळूय आशिल्ले. ‘आमकां समाज बदलपाचो आसा’ अशें तांणी केन्ना म्हळें ना. समाजाक नियंत्रणांत दवरपाचो हावेसूय तांणी केन्ना बाळगिलो ना. तांची

सगळीं शक्ती-बुद्दी खासा आपणाक घडोवपाच्या आनी खासा आपणाकूच नियंत्रणांत दवरपाच्या वावरांत खर्चल्या. आनी आपणाले देखीन लोकांक उजू चलणुकेचें पिशें लावन समाजूय तांणी बदलला आनी ताका नियंत्रणांतूय दवरला.

संतांचो सगळ्यांत व्हडलो वावर म्हळ्यार, धर्मविचार जो वयल्या वर्गांतूच घुसपून उरिल्लो तो तांणी तळागाळांत घराघरांनी व्हरून पावतो केलो. आमच्या देसांतलो तळागाळांतलो मनीस बरप अक्षर शिकिल्लो नासूं, ताका अन्नाडी कोण म्हणचो ना, इतलो संस्कारी तो जाला - फकत संतांक लागून. रामकृष्ण परमहंस कितें शिकिल्ले? तांकां सय लेगीत करूंक येनाशिल्ली. पुणून संवसाराक ते एक विवेकानन्द दिवंक पावल्यात. विवेकानन्दांक 'घडोवपा' इतलें 'ज्ञान' तांचे जिबेर घोळटालें, देखून.

एक गजाल लक्षांत घेवपा सारकी -

परंपरेन चलत आयिल्ल्यो कितल्योश्यो गजाली धर्माचार्यांनी सोडून दिल्यो तश्यो संतांनीय सोडून दिल्यो. ह्यो गजाली म्हत्वाच्यो न्हय अशें म्हणून तांची दोगांयनी उवेखणी केली. पुणून साहित्याची मात तांणी उवेखणी केन्ना करूंक ना. उरफाटी, सेवाच केल्या. आनी सेवा घेतल्या. दोगांयनी साहित्याक म्हत्वाचें लेखलां. धर्माचार्यांनी शास्त्रां रचून, भाष्यां बरोवन सेवा केल्या तर संतांनी तुस्त-गितां (स्तोत्रां) भजनां भारुडां बरोवन केल्या. संस्कृतायेच्या मळा वयलें साहित्य एक प्रभावी साधन म्हणपाचें दोगांयनी एका ताळ्यान मान्य केलां. फरक इतलोच - धर्माचार्यांचें साहित्य तज्ञां कडेन, बुदवंतां कडेन उरलें. तर संतांचें लोकांचें जिबेर घोळपाक लागलें. 'शिष्ठ' भाशेंत बरयल्लें ग्रंथालयांतल्या आरमारींनी धुल्ल खायत पडून उरता, 'लोकां'चे भाशेंत बरयल्लें समाजांत जिबेर घोळत उरता म्हणपाचें दोगांयनी दाखोवन दिलां. देखुनूच संस्कृता सारकी संवसारांतली सुंदरांतली सुंदर, गिरेस्तांतली गिरेस्त एक भास आयज 'डॅड लँग्वेजीस'चे पंगतीक वचून बसल्या आनी, लोकांचे जिबेर घोळपी प्राकृत (हेंगाडी) भासो 'अमृता कडेन पैजो जिखून' मुखार येवंक पावल्यात.

पुणून, तांचेंय एक चुकलां -

'समाजाचें आमकां कांयच लागना' अशें म्हणून संत समाजा पसून पयस रावले आनी 'धर्तरे वयल्या जिविता परस स्वर्ग-नरकाचेंच जिवीत

खरें' अशें म्हणून ते परलोकाचो हुसको चड करपाक लागले. लोकांक परलोकाचें पडूंक नाशिल्लें. संतांचे हे 'जिवीत-घाणे' नदरेक लागून समाजांत जो बदल जावंक जाय आशिल्लो तो तांचे हस्तुकीं जावंक पावलो ना. लोक तांची फकत पुजा करपाक लागले. हाचो लाव एके वाटेन दांभीक आनी उखलाप्या संतांनी घेतलो आनी दुसरे वाटेन प्रतिभावंत कवींनी घेतलो. उखलाप्या संतांचीं उखलापेपणां उकतीं पडपाक लागलीं तेन्ना लोकांनी तांचे फाटल्यान वचपाचें सोडून दिलें आनी प्रतिभावंतांचीं भजनां म्हणटा आसतनाच ह्या मळार प्रतिभेक मोल ना, मोल आसा तें भितरल्या उजवाडाक हाची जाणवीक लोकांक जावपाक लागली तेन्ना तांणी तांचीं भजनां म्हणपाचीं सोडून दिलीं. कवींच्या सुंदर भाशेंतल्या भजनां परस संतांचीं धोंगांपोंगांचे भाशेंतलींच भजनां ते म्हणपाक लागले.

प्रतिभेन म्हा-कवी जावं येता, संत जावंक येना म्हणपाचें खासा कवींक समजलें तेन्ना ते म्हणपाक लागले, 'आमी संत न्हय, आमी साहित्यीक. लोकांचें जिवीत बदलपाची जापसालदारकी आमची न्हय. आमचे कडल्यान बेश्ट्यो नाका जाल्ल्यो उमेदी दवरूं नाकात, तुमच्याच पावंड्या वयले लोक आमी. आमी फकत **स्वान्तः सुखाय** कविता रचतात (आमचे खोशये खातीर बरयतात). आमचीं भजनां तुमकां मानवलीं जाल्यार आमकां बरें दिसतलें. मानवलीं नात जाल्यार आमी शिणपाचे नात. आमच्या हेर कवितां वांगडा हीं भजनां आमच्या कवितांच्या झेल्यांनी उरतलीं. तांगेल्या ह्या म्हणण्यांत तांगेलीं प्रामाणिकपणां दिसून येतात खरीं. पुणून आपूण वाल्मीकी सारक्यांचे वारस म्हणपाची जाणवीक तांकां ना हेंवूय दिसून येता. वाल्मीकीन आपणाले खोशये खातीर (**स्वान्तः सुखाय**) रामायण बरोवंक नाशिल्लें. फातराळ जाल्ल्या लोकांच्या काळजांतल्यान करुणेचे झरे फोडपा खातीर बरयल्लें. वाल्मीकी सारकेलो कवी **स्वान्तः सुखाय** एक वळ लेगीत केन्ना बरयना. लोकांचें मन रिझोवपा खातीर बरयना, लोकांक 'आवडटा' तेंय बरयना आनी वास्तव जिवीत 'हें अशें' म्हूण दाखोवपा खातिरूय बरयना. आनी, विसरूंक फावना - रामायणान हो देश घडयला. अजुनूय लोकांच्या मनाचेर ताचो खोल प्रभाव आसा.

साहित्य बरोवंक जाय तें देश घडोवपा खातिरूच. साहित्यकाराक जिविताचें अमकें एक आंग लागना अशें ना. ताका 'सगळें' लागूंक जाय.

विसाव्या शतमानांतले व्हडांतले व्हड एक कवी रवीन्द्रनाथ. तांकां सगळें लागतालें. ते कवी आशिल्ले. कथाकार, नवलकथाकार, नाटककार, निबंधकार, व्याकरणकारूय आशिल्ले. ते संगितकारूय आशिल्ले. चित्रकारूय आशिल्ले. नट आशिल्ले. दिग्दर्शकूय आशिल्ले, शिक्षक आशिल्ले, शिक्षणतज्ज्ञूय आशिल्ले. समाज निवळावणेचो वावरूय तांणी केला. एक ग्रामीण बँकूय तांणी चलयल्या. ग्रामोद्योग चलयल्यात. राजकर्णांत तांगेलो खणखणीत आवाजूय मदीं मदीं लोकांक आयकूंक आयला. धर्म - विचारांतूय तांणी नवी भर घाल्या. 'हांव कवी. म्हाका कविता सोडून दुसरें कांय लागना' अशें चुकून लेगीत तांगेल्या तोंडांतल्यान केन्ना भायर सरूंक ना.

साहित्यकारान आपूण वाल्मीकी, रवीन्द्रनाथ सारकेल्यांचो वारस म्हणपाचें केन्ना विसरूंक जायना. तो हें विसरता तेन्नाच तो लोकांची मनां रिझोवपाचो वावर करपाक लागता. आनी आपूण नट, वीट, विदुशका परस वेगळो न्हय म्हूण दाखोवन आपणा वांगडा साहित्याचोय पांवडो सकल हाडटा. अश्या वेळार समाजान ताचे कान पिळूंक जाय आनी ताका सांगूंक जाय, 'बाबा रे, तुजें काम लोकांक हांसोवपा खेळोवपाचें नाशिल्लें. तुजें काम लोकांचें भितरलें जिवीत गिरेस्त करपाचें, समाजांत नवीं मुल्यां स्थापन करपाचें आशिल्लें. समाजाचे नदरेंतल्यान धर्माचार्य पडले, संत पडले. तूंय पडलो जाल्यार ताका वयर काडपी कोण उरचो ना. तो अनाथ जातलो. अशें कितेंय तरी ताच्या हातांत दी, की जें ताका न्हिदेंतलो जागयतलें, जागोवन समाज बदलपाच्या कामाक लायतलें. तुजी लिखणी ह्याच कामाक लागूंक जाय. लोकांक हांसोवपा रडोवपाचें काम करपी समाजांत दुसरे जायते आसात. तुजें काम न्हय हें. तूं फकत कलाकार न्हय. तूं साहित्याचार्य. धर्माचार्या परसूय व्हड. तुजी अवनत जावंक जायना. तपस्वी जा. तपस्वी साहित्यकारूच समाजाक जाय.

जाग : एप्रील - मे 2002



# 30

# राष्ट्रगिता भायर आनीक एक गीत

खुशवंत सिंगांक रवीन्द्रनाथांची ऍलर्जी आसूंक जाय. न्हंय जाल्यार, तांचे संबंदान ते आत्साण पात्साण नाशिल्लें कितेंय उलोवचे नाशिल्ले.

फाटीं तांणी रवीन्द्रनाथांल्यो कथा नवलकथा 'थर्ड रेट' म्हळ्ळ्यो. म्हाका त्या वेळार प्रस्न पडिल्लो, 'काबूलीवाला' कथा थर्ड रेट? 'गोरा' नवलकथाय थर्ड रेट? वाचूंक नात जातल्यो तांणी त्यो अशें म्हणून ओगी राविल्लों.

मराठी संवसारांत एका काळार हरि नारायण आपट्यांच्यो नवलकथा घरां घरांनी पाविल्ल्यो. लोक त्यो रुचीन वाचताले आनी वाचूंक येनाशिल्ल्या घरच्या लोकांक वाचून दाखयताले. आयज कोण वाचतात? आपटे फाटीं पडले आनी फडके खांडेकर वयर सरले. तेय फाटीं पडले आनी गाडगीळ, गोखले, माडगूळकर मुखार आयले. तेय फाटीं पडले आनी जी. ए. मुखार सरले.

फाटीं पडल्यात तांकां 'थर्ड रेट' म्हणपाचे?

कथा नवलकथा आपणाल्या काळाचें आनी त्या काळांतल्या लोकांचें चित्रण करतात. काळ बदलता. तश्यो लोकांच्यो रुचीय बदलतात: तशें रवीन्द्रनाथांचें जाल्लें आसूं येता. रवीन्द्रनाथां उपरांत बंगालींत शरतचंद्र, ताराशंकर, माणिक बंदोपाध्यायां सारकेले नवे कथा-नवलकथाकार आयल्यात. सुनिल गंगोपाध्यायान हांकां सगळ्यांक फाटीं उडयल्यात अशेंय म्हणपी कांय जाण आसात.

पुणून एक गजाल विसरूंक फावना - रवीन्द्रनाथ बंगाली कथाकारां

मदले एक पायनियर - अग्रदूत. बंगाली कथा सुरूच जाल्या तांचे पसून. उपरांतचे कथाकार कितलेय मुखार सरूं, रवीन्द्रनाथांक तांचे सुवाते वयले कोण हालोवंक पावपाचे नात, पायनियरांक कोण हालयनात. 'लिपिकें'तल्या कथिकां सारक्यो कथिका उपरांत बंगालींतूय कोण बरोवंक पावूंक ना. हिन्दी मराठी गुजरातींत जाल्यार हांवें अजून पळोवंक नात.

आमच्याच देसांत व्हडले व्हडले कथाकार नवलकथाकार फाटीं पडल्यात अशें न्हय. येवरोपांतलेय फाटीं पडल्यात. थॉमस हार्डीच्यो नवलकथा इंग्रजी भाशेच्या संवसारांत आयज कोण वाचता? फ्रांसांत रोमां रोलांची 'ज्यां क्रिस्तॉफ' वाचपी कोणूय् आसत जाल्यार ताका सोदचो पडटलो, हातांत लापयांव घेवन. तॉलस्तॉयची 'वॉर ऍण्ड पीस', दॉस्तॉयव्हस्कीची 'द पझॅस्ड' फकत आरमारींची सोबा वाडयतात. मार्सेल प्रूस्त कोणाच्या हातांत दिश्टी पडटा?

म्हूण कितें ह्या नवलकथाकारांक 'थर्ड रेट' म्हणूं येता?

खुशवंत सिंगांनी हालीं आनीक एक सनसनाटी विधान केलां. रवीन्द्रनाथांलें 'जनगणमन' गीत राष्ट्रगीत जावंक फाव नाशिल्लें अशें तांणी म्हळां. कित्याक, तर खंय त्या गितांतलो 'भारत भाग्य विधातो' इंग्लंडचो राजा पांचवो ज्यॉर्ज आशिल्लो. 1911त तो हिन्दुस्तानांत आयला त्या वेळार ताच्या भौमानान रवीन्द्रनाथांनी तें बरयलां.

खुशवंत सिंगांचो जल्म लेगीत जावंक नाशिल्लो त्या वेळार, म्हळ्यार 1898 वर्सा इंग्रज सरकारान पास केल्ल्या सॅडिशन ऍक्टा आड देशांत जो पयलो वयलो खणखणीत आवाज वयर सरिल्लो तो ते मुस्तींतल्या खंयच्या देशभक्ताचो न्हय, तर रवीन्द्रनाथांचो आशिल्लो. कलकत्त्याच्या 'टाउन हॉलां'त तांणी ह्या ऍक्टा आड जळजळीत, आंगार कांटो फुलोवपी उलोवप केल्लें. लोकमान्य टिळकांक स वर्सांची ख्यास्त दिवन मंडालेचे बंदखणींत धाडून दिल्यात त्या वेळारूय रवीन्द्रनाथांनी सरकाराचो खरमरीत निशेध केला. ढाक्यांत भरिल्ले प्रांतीक समितीच्या अधिवेशनांत सरकारा फाटल्यान राविल्ल्या जमीनदारांक 'देशद्रोही' म्हणून तांणी फैलार घेतल्यात. लॉर्ड कर्झनांनी बंगालची फाळणी करपाची येवजण फुडें हाडल्या तेन्ना तिचे

आड सुरू जाल्ले चळवळींत ते मुखावेले रांगेंत रावल्यात. जालियांवाला बागेंत जाल्ल्या हत्याकांडा आडूय पयलो वयलो खणखणीत आवाज तांचोच उठला. नोबेल इंनाम मेळ्ळे उपरांत सरकारान तांकां दिल्ली 'सर' पदवी परती करून तांणी सरकाराचो निशेध केला. रवीन्द्रनाथांचे देशभक्तीचो दुबाव घेतल्यांची देशभक्ती तर्जून पळोवची पडटली, इतले ते देशभक्तां मजगतचे देशभक्त आशिल्ले. न्हय जाल्यार जवाहरलाल सुभाषबाबू सारकेले देशभक्त तांच्या पांयांक हात लावचे नाशिल्ले. 'जनगणमन' गीत पांचव्या ज्यॉर्जीच्या भौमानान तांणी रचिल्लें जाल्यार सुभाषबाबू तें 'स्वतंत्र भारताचें राष्ट्रगीत' म्हूण वेंचून काडचे नाशिल्ले. दुसऱ्या म्हाझुजा वेळार सुभाषबाबूंनी 'फ्री इण्डिया लीग' नांवाची एक राजकी वेदी जर्मनींत सुरू केल्ली. हम्बर्गाक भरिल्ल्या तिच्या पयल्या अधिवेशनांत तांणी 'जनगणमन' गीत ऑर्केस्ट्रान वाजोवन घेतलां.

रवीन्द्रनाथां संबंदान उलयतना मात्सो 'कॉमन सॅन्स' वापरूंक जाय. खुशवंत सिंगांत तो मातूय नासचो?

मागीर, 'जनगणमन' गितांतलो 'भारत भाग्य विधातो' पांचवो ज्यॉर्ज आशिल्लो असो खुशवंत सिंगांचो समज कसो जालो?

खरेपणानशीं, समज 'जालो' म्हणचे परस तो 'करून दिला' म्हणूंक जाय. खुशवंत सिंगांचोच न्हय, खूब जाणांचो.

कोणें?

बंगालचे फाळणे आड चलिल्ले चळवळींत रवीन्द्रनाथ मुखावयले रांगेत आशिल्ले तरूय चळवळीचें नेतृत्व ते करी नाशिल्ले. नेतृत्व अरविंद आनी बारीन्द्र घोष ह्या दोगां भावांच्या हातांत आशिल्लें. दोगूय क्रान्तिकारी. खंयचीच क्रान्तिकारी चळवळ नितीच्या तत्वांक धरून चलूंक ना. साधन आनी साध्य दों मजगतच्या 'साध्या'चेरूच लक्ष दवरून चल्ल्या. तशी हिवूय साध्याचेर लक्ष दवरून चलताली. चारित्र्याक हे चळवळींत व्हडलीशी सुवात नाशिल्ली. दुराचाराक लेगीत आलाशिरो दिवपाक ती अनमन नाशिल्ली. चळवळीची ही अवनत रवीन्द्रनाथांच्यान सोंसूं नज जाली. चळवळीक वेगळी दिका दाखोवपाची तांक आपणांत ना म्हणपाची जाणवीक

जायनाफुडें तांणी चळवळींतल्यान आंग काडून घेतलें. आपणाली लोकप्रियता भंगतली हाची पर्वा केली ना. फकत आपणाले देशभक्तीक तांणी खत लागूंक दिलें ना.

खंयचेय क्रान्तिकारी चळवळींतल्यान कोणूय आंग काडून घेता तेन्ना चळवळ चलयतले लोक ताका renagade - विस्वास-घातकी लेखतात. रवीन्द्रनाथांचेंय अशेंच घडलें. तांची निंदा नालस्ती सुरू जाली.

हांतूंत भर पडली ती 1911त कलकत्त्याक भरिल्ल्या काँग्रेस अधिवेशनाची. रवीन्द्रनाथ ह्या अधिवेशनाक हाजीर आशिल्ले. सर आशुतोष मुखर्जींनी तांकां एक राष्ट्रीय गीत (राष्ट्रगीत न्हय) म्हण म्हूण आग्रो केलो आनी रवीन्द्रनाथांनी आपणालें 'जनगणमन' गीत काळीज ओतून म्हळें. योगायोग म्हळ्यार, ह्याच वर्सा, ह्याच म्हयन्यांत, कांय दिसां पयलीं इंग्लंडच्या राजान - पांचव्या ज्यॉर्जीन भारताक भेट दिल्ली. आनी येनाफुडें ताणें एक घोशणा केल्ली - बंगालचें विभाजन करपाचो बेत रद्द केला म्हणपाची. सगळ्यांक सूऽऽ जाल्लें. काँग्रेस ते मुस्तींत मवाळांच्या हातांत आशिल्ली. तिणें हे घोशणेक येवकार दिवन एक थाराव पास केलो आनी तांतूंत राजाचें अभिनंदन केलें. रवीन्द्रनाथांची अखटाय करीत आयिल्ल्या लोकांक एक निमित्य मेळ्ळें, 'पळेलें? रवीन्द्रनाथ इंग्रजांचे जाल्यात अशें आमी म्हणटाले तें फट आशिल्लें? हो घेयात पुरावो.' अशें म्हणून ते काँग्रेसच्या अधिवेशनांत रवीन्द्रनाथांनी म्हणिल्ल्या गिता कडेन बोट दाखोवपाक लागले. तेन्ना सावन 'जनगणमन' गितांतलो 'भारत भाग्य विधातो' पांचवो ज्यॉर्ज म्हणपाचो प्रवाद चलपाक लागला.

'जनगणमन' गितांत 'भारत भाग्य विधात्या'ची वर्णना करपी पांच कडवीं आसात. एकूय इंग्लंडच्या राजाक लागू जायना. इतलेंच न्हय, हाडामासाच्या व्हडांतल्या व्हड खंयच्याच देशभक्ताक तीं लागू जायनात. मनशाचें जिवीत घडोवपी एक देव ताच्या काळजांत आसा (ताका 'जीवन देवता' हें नांव दिल्लें रवीन्द्रनाथांनी). तसो देशाचो फुडार घडोवपीय एक देव आसा अशें तांचें मत्त आशिल्लें आनी तांणी तें आपणाल्या बरपांत हाचे पयलीं आनी उपरांतूय खूब कडेन विकसावन सांगिल्लें.

पुणून बंगाली क्रान्तिकारकांच्या राष्ट्रवादान राष्ट्रपुजाधर्माचें रूप घेतिल्लें.

तांकां हें सांगल्यारूय समजनाशिल्लें.

रवीन्द्रनाथांचीं कांय उलोवपां 'नॅशनलिझम्' ह्या नांवान इंग्रजींत उजवाडा आयल्यांत. ते भायर तांणी 'घरे बाहिरे' नांवाची एक सुंदरांतली सुंदर नवलकथा बरयल्या. रवीन्द्रनाथांचे देशभक्तीचो अदमास येवपाक हीं दोन पुस्तकां तांची अखटाय करतल्यांनी वाचुंकूच जाय.

'जनगणमन' गीत देशान नवें राष्ट्रगीत म्हूण घेतलां. हाचो अर्थ वंगभंग चळवळी सावन देश स्वतंत्र जाय मेरेनच्या काळांत लोकांचे जिबेर घोळत आयिल्लें 'वंदेमातरम्' ताणें सोडून दिलें असो जायना. दोनूय चलतात. दोनांचोय मान सारको. तें कित्याक, 'सारे जहां से अच्छा' गितूय आमी दुसरे एके तरेन भौमानाचे सुवातेर बसयलां. सैन्याचें संचलन चलता त्या वेळार ह्या गिताचे सूर वाजोवपाची चाल आसा.

भारत पाकिस्तान आनी बांगलादेश हीं एकाच देशाची तीन आंगां आयज तीन राष्ट्रां म्हूण मुखार सरल्यांत. तिनांचींय राष्ट्रगितां आतां वेगळीं जाल्यांत. भारताचें राष्ट्रगीत रवीन्द्रनाथांचें 'जनगणमन' (ते भायर, 'वंदे मातरम्') तर बांगलादेशाचें रवीन्द्रनाथांचेंच 'सोनार बांगला / आमि तोमाय भालोबाशी'. पाकिस्तानाचें 'पाक सरजमीन शद बद / किश्वसे हसीन शद बद'. ह्या तिनां भायर आनीक दोन राष्ट्रांक हांचे पंगतीक हाडून बसोवंक जाय - नेपाळाक आनी श्रीलंकेक. संस्कृतायेचे नदरेन हो एक वाटार. म्हणुंया, एक देश. आसूं मागीर तांतूंत हजार तरांचीं सुकणीं सावदां, जीव जिवाणीं, झाडां पेडां, फुलां फळां, तशीं, हजार कातींचीं, हजार जातींचीं मनशां. संस्कृतायेन एका खंयच्या तरी सुतान हो वाटार गुथून काडला. पांच राष्ट्रांचो एक देश अशें रूप ह्या वाटाराचें. एका घरांतले पांच भाव हितसंबंदांच्या संघर्शाक लागून एकाच घरांत पांच वेगळीं बिराडां करून राविनात? तशीं हीं एका देशाचीं पांच राष्ट्रां एकामेकां पसून वेगळीं सरूं, आपापल्या राष्ट्रगितां भायर तांकां एकठांय बांदपी आनीक एक गीत (देशगीत म्हणुंया ताका) आमी वेंचून काडुंया. आनी तेंवूय राष्ट्रगितां वांगडा गांवंया. असलें एक गीत रवीन्द्रनाथांनीच आमकां दिलां -

Where the mind is without fear and the head is held high

/ where knowledge is free... into that heaven of freedom, my Father, let my country awake.' (इंग्रजी गीतांजलींतलें पस्तिसावें गीत.)

पयलीं आमी - एका देशाच्या पांच राष्ट्रांनी तें घेतकूच संवसारभरच्या राष्ट्रांक हें घेयात म्हूण सांगपाचो आमचो अधिकार वाडटलो.

सगळ्यांचीं राष्ट्रगितां काळा भायरीं जाल्यांत. आनी राष्ट्रवाद तर संप्रदायवाद आनी जातिवादा इतलोच मोटवे नदरेचो थरला.

जाग : ऑक्टोबर 2003






# 31

# गणेशा, सिद्धी विनायका...

गणपती आर्यांचो देव न्हय. आर्य येवचे पयलीं दुसऱ्यो कितल्योश्यो मनीस-कुळयो ह्या देशांत येवन राविल्ल्यो. तांचे मजगतचे एके खंयचे कुळयेचो देव हो.

**कृण्वंतु विश्वम् आर्यम्** - 'अख्ख्या संवसाराक आर्य करून घेवंया' ह्या हावेसान आर्य पेटले आनी आर्य न्हय असल्या सगळ्यांक एके संस्कृतायेंत गुंथून काडपाक भायर सरले तेन्ना तांगेल्या देवांकूय तांणी आपणाल्या देवांत आसपावन घेतले. आनी तेन्ना गणपती आर्यांचोय देव जालो.

गणपतीचें मुदलचें नांव विनायक. आनी विनायक एक न्हय, तर चार आशिल्ले. आर्यांनी चौगांकूय एक केले. परिणाम - नव्या विनायकाचो सभाव बदल्लो. जो मुदलांत विघ्नां हाडपी देव आशिल्लो तो विघ्नां पयस करपी देव जालो. जावपाचोच. मनीस संस्कारी जायत गेला, तशे ताचे देवूय संस्कारी जायत गेल्यात.

विघ्नकर्तो विनायक विघ्नहर्तो जातकूच आर्य आपणाले पुजेंत सगळ्यांत पयलीं ताचीच पुजा करपाक लागले. आयज तो '**सर्वदेवगणांनां ईशः पतिः गणपतिः गणेशः**' जाला.

आयज गणपती कडेन आमी एक रूपक म्हूण पळेतात. रूपक कित्याचें? बुद्द दिवपी नेत्याचें. विनायक म्हळ्यार '**विशिष्ठो नायकः**' लीडर, फुडारी, नेतो. जाका नेतृत्व करपाचें आसा ताका आपणाली मोख (लक्ष्य) कितें तें खबर आसूंक जाय. खंयचे वाटेन गेल्यार ही मोख सादतली आनी लाव (लाभ) जातलो हाचें स्पस्ट ज्ञान आसूंक जाय. 'लक्ष्य' आनी 'लाभ' हीं

गणपतीच्या दोगां पुतांचीं नांवां. एकलो 'ऋद्धी' पसून ताका जाल्लो. तर दुसरो 'सिद्धी' पसून. बुद्द वापरून, सारकें बरें येवजून, मन थीर दवरून कामां करचीं, ताकतिकेन करचीं न्हय, हुर्रर्र-फुर्रर्र जावन करचीं न्हय, अशें सांगपी रुपक हें.

ह्या रुपकाचे ते भायर आनीक कांय अर्थ आसात. गणपतीचें वाहन हुंदीर. हुंदीर म्हळ्यार चिकित्सा करपी, फोडणिशी करपी, सगळें वेगळें वेगळें करून नियाळपी 'ॲनालिटिकल' बुद्द. खंयचेय गजालींतलीं बारीक सारीक आंगां लक्षांत आयलीं म्हणटकूच तांतलें म्हत्वाचें आंग खंयचें तें मन पळेता. पुणून, चिक्त्सिा करून, फोडणिशी करून जोडिल्ल्या ह्या ज्ञानाक बुद्द दसून रावली जाल्यार मनीस एकआंगीच उरता. बुद्द 'सिंथॅटीक' आसूंक जाय. वेगळेचारांत एकचार पळोवपी, विरोध पयस करून सगळ्यांक एकठांय हाडपी, समन्वयवादी आसूंक जाय. ते खातीर तकली विशाळ आसूंक जाय. हें दाखोवपा खातीर गणपतीक हतयाची तकली लायल्या. सगळ्यांक एकठांय हाडपी आंगांचेर लक्ष केन्द्रीत केलें जाल्यार एकचार वाडटा. खाशेल्या आंगांचेर केन्द्रीत केलें जाल्यार वेगळेचार वाडटा. आमी 'भारतीय' म्हळे म्हणटकूच आमी शंबर कोटी लोक जातात. आमी महाराष्ट्रीय, आमी बंगाली, आमी तमिळ म्हळे म्हणटकूच आमी चार चार वा पांच पांच कोटीच जातात. मागीर ही 'एनालिटिकल' बुद्द आमकां मुखार घेवन वता आनी आमकां तुमी ब्राह्मण, तुमी वैश्य, तुमी आनीक कोण म्हूण सांगता. ब्राह्मणूय मागीर आमी चित्पावन, आमी सारस्वत, आमी दैवज्ञ म्हणपाक लागतात. आनी शंबर कोटींचे आमी कांय लाखूच जावन पडटात. वेगळेपणांत वेगळेपणूच पळोवप हें किरकोळ बुद्दीचें, नेणारपणाचें लक्षण. वेगळेपणांत एकचार पळोवप हें विशाळ बुद्दीचें, ज्ञानाचें लक्षण.

गणपतीची बुद्द 'सिंथॅटिक' म्हूण ताका '**बुद्धी सागर**'य म्हळा.

गणपतीक एकूच दांत. कित्याक, तो अद्वैतवादी. ते भायर, तो **लम्बोदर**. मोटेल्या पोटाचो. पुराय ब्रह्मांड ताच्या पोटांत लाडू जाल्ले वरी आसपावलां. गणपतीचें हें रूप आपणाल्या काळजांत जो थीर करतलो तोच लोकांचो खरो नेतो, खरो, फुडारी - 'गण-पती' जावंक पावतलो.

पुणून, चवथ फकत फुडाऱ्यांची परब न्हय. सरसमान लोकांची परब ही. गणपती विघ्नां पयस करपी देव म्हूण सरसमान लोक चवथी दिसा ताची पुजा करीत आयल्यात. तो विघ्नां पयस करतलो ह्या भावार्तान '**निर्विघ्नं कुरू मे देव, सर्व कार्येषु सर्वदा**' हे भावनेन करीत आयल्यात.

आमीय हेच भावनेन ताचे कडेन मागुंया -

'गणेशा, सिद्धी-विनायका, तूं विघ्नां पयस करपी देव. आमचे उदरगतीचे वाटेंतलीं सगळीं विघ्नां पयस कर. सगळ्यांत व्हडलें विघ्न आमचे मुखार आमच्या फुडाऱ्यांच्या रुपान उबें रावलां. हो देश हजार जातींचो, हजार धर्मपरंपरा चलोवपी, हजार भासो उलोवपी, हजार चाली-रितींत वाडिल्ल्या लोकांचो. आमचें जण एकल्याचें जग वेगळें. आमच्या जगा भायल्या लोकां विशीं आमकां केन्ना आपलेपण दिसलें ना. आमी तांचो सदां दुस्वासूच केला. आमचे फुडारी ह्याच वेगळ्या वेगळ्या जगांतल्यान लोकांनी वेंचून धाडल्यात. देखून, सगळ्यांक आपलोसो दिसचो असलो एकूय फुडारी आयज ह्या देशांत दिश्टी पडना. जात, धर्म, भास, प्रदेश हांचे पेल्यान गेल्लो एकलोय ना. हे फुडारी देश एकठांय दवरूंक पावपाचे नात. पुणून, तांकां आमी दुशण तरी कशे दितले? आमीच तांकां वेंचून दितात. आनी आमी जांकां वेंचून दितात ते सदां आमच्याच पांवड्याचे आसतात. बांयतूच नाशिल्लें उदक कळसुलेंत कशें येतलें? देश एकठांय दवरपाक नेत्याचें व्यक्तित्व गौरीशिखरा येदें उत्तुंग आसूंक जाय. आमच्याच पांवड्याचे लोक येदे व्हड कशे आसतले? देखून **गणेशा, सिद्धी-विनायका, आमचेंच व्यक्तित्व तूं व्हड कर. आमकां 'भारतीय' कर. आमी भारतीय जावचे नात ते मेरेन भारतीय आकाराचें नेतृत्व आमकां मेळपाचें ना.**' आमच्यांत तुजी अद्वैत बुद्द जागय. ह्या देशांत जे रावतात ते म्हजे जातीचे नासूं, म्हज्या धर्माचे नासूं, म्हजे भाशेचे नासूं, म्हज्या प्रदेशाचे नासूं, देश म्हजे इतलोच तांचोय बी - म्हजोच एकल्याचो न्हय, सगळ्यांचो - ही भावना आमच्या काळजांत जागय. तूं बुद्धिदातो. आमच्यो संकुचित निष्ठा पयस करून सगळ्या, जातींच्या, धर्मांच्या, भासांच्या लोकां मजगतीं संघशक्ती निर्माण कर. आमचे हस्तुकीं ह्या देशाचें आनीक आनीक विघटन जावचें ना, आमच्या देशांत आमचे हस्तुकीं मिलिटरीचें राज्य येवंक पावचें ना, हो देश

आमी खंयच्याच हुकुमशाहाच्या हातांत दिवचे नात हे तरेची बुद्द तूं आमकां दी. देशाक आमच्या संकश्टांतल्यान वाटायल्यार तूंच एकलो वाटावंक पावतलो. एका व्हड देशाचे खूब ल्हान नागरीक आमी. ह्या देशाक फावऽ येदे आमकां कर. आमी तुका आयज शरण येतात.

**ॐ निधीनां त्वां निधिपतिं हवामहे**
**प्रियां त्वां प्रियपतिं हवांमहे**
**गणांनां त्वां गणपतिं हवामहे... ॐ**

जाग : ऑगस्ट 1995





‘साहित्यकारांचो वावर खंयचो आसूंक जाय आशिल्लो ?
फकत लोकांचीं मनां रिझोवपाचो, तांकां खातकुतल्यो करपाचो,
हांसोवपाचो, रडोवपाचो? ‘संवसार असो चलता’ इतलेंच तांका
सांगपाचो? संवसारांतलें पोरणें, बरगेल्लें, कुशिल्लें भायर मारपाचो
आनी ताचे सुवातेर घटमूट, सासणाचें दवरपा सारकें, सगळ्यांच्या
बऱ्याक पडटा असलें नवें हाडपाचो वावर तांचो नाशिल्लो?...
साहित्य बरोवंक जाय तें लोकांचे भितल्लें जिवीत गिरेस्त करपा खातीर,
समाजांत नवीं मुल्यां स्थापन करपा खातीर...साहित्यकार फकत
कलाकार आसना. ताची लिखणी लोकांक न्हिदेंतले जागयता आनी
जागोवन समाज बदलुपाच्या कामाक लायता.’

हेच देखीन फाटलीं पांच तपां रवीन्द्रबाब कोंकणी सरस्पतीची
अखंडपणान सेवा करीत आसात. समाजाक घडोवपी
साहित्यकाराक जिविताचीं सगलीं आंगां लागतात. तशी
रवीन्द्रबाबांली लिखणी सगल्या विशयांक आफुडटा. राजकारण,
धर्मकारण, समाजकारण, विज्ञान, तंत्रगिन्यान, पर्यावरण -
सगलें सगलें तिका लागता.

एका साहित्यचार्याचो आगळो वेगळो सांगात घडोवपी,
वाचप्याक एके आगळे वेगळे उंचायेर व्हरपी असो हो
निबंधां झेलो.

